वैचारीक

# सृजनउर्जा

**महाबळेश्वर सैल**



**श्रीशैल प्रकाशन**

# सृजनउर्जा

(ललित निबंध)

**महाबळेश्वर सैल**

**Srijan Urja**

(Essays)

**Mahabaleshwar Sail**

---

प्रकाशन क्र. 03

पयली आवृत्ती : नोवेंबर 2012



: छापणावळ :

सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम,

खोर्ली, गोंय

: मुखचित्र :

य.बा. सुतार (कवी चित्रसेन शाबाव)

: अक्षरजुळवणी :

ज्योती गांवकार

: प्रकाशक :

श्रीशैल प्रकाशन

आर्ले, राय, गोंय 403720

0832-2743460

: मोल :

रू. 140/-

अर्पण

**जे अंधश्रध्दा आनी कर्मकांडां मानिनांत**
**तांकां...**

## मांडावळ

# वेदना

वेदना ही सृजनाची अविश्कारी चेतना जावन आसा. दर एक अविश्कारा फाटल्यान वेदना ही आसताच. वेदनेबगर अविश्काराक परिपूर्ण कलात्मकता, जीवेपण येवंकच शकना. नवनिर्मिती फाटल्यान सैमान वेदनेची योजना कित्याक केल्ली आसतली काय? नवनिर्मिती पयली घडये मनशान स्वताक कुडीन, मनाकाळजान धवळून पिंजून घेवंक जाय आसता! सगळे सगळे तातूंत ओतूंक जाय आसता! वेदना म्हटल्यार मोगाचें समर्पण!

बाळकाच्या जन्मा फाटल्यान, कलाकृती फाटल्यान वेदना आसताच. एकादरें बीज फुटून, कोंबेवन, आंकंरेवन ताचें झाड जाता म्हणसर ताका कितल्या वेदनेंतल्यान वच्चें पडटा! बाळक वेदनेबगर जल्म घेना, झाड वेदनेबगर उबे जायना, घर संवसार वेदनेबगर उबो जायना. यशाची तेंगशी फाव जातली जाल्यारय खूब वेदना भोगची पडटा.

वेदना केन्ना वांज आसना. वेदनेंतल्यान सदांच निर्मिती जाता. वांज वेदना केन्ना भोगची पडटा तेन्ना ते दुसरें मरणच आसता. भुरगे जल्माक येतानाच मरतकीर ते आवयलो दुखेस्त भकास चेहरो हांवें पळयला. मातयेन न्हयकारतकीर मेल्लें झाड कितले काकुळटेक दिसता!

जेन्ना एकादरी कलाकृती असफळ जाता तेन्ना तो कलाकार वेदनेंत

उणो पडला म्हणचे.

पिर्तुमी जल्मताना हे पिर्तुमेन खूब खूब वेदना भोगल्यात. ब्रम्हांडांतल्या उज्याच्या केंडांतल्यान तुटून येवन स्वताक घडयताना उज्याचो भगभग सोसत ती ल्हवल्हव थंड जायत गेला. स्वत: भोंवतणीं घुंवताना, सुर्याक प्रदक्षिणा घालताना तिची खूब खूब घालमेल जाल्या. कितले कश्ट सोंसून तिणें जोडली माती, उदक, वारो आनी जोडली झाडांपेडां, प्राणी, सुकणीं, जीवजिवाणीं! वेदनेचें हें महानाट्य दर एका जल्मा फाटल्यान आसताच. वेदनेची तडफड आसता पूर्णत्वावटेन वचचेली.

दु:ख आनी वेदना हातूंत मुलभूत फरक आसा. दु:ख मरणा उपरांत, अपयशा उपरांत येता. तर वेदना सदांच निर्मिती फाटल्यान आसता. वेदनेचो अविश्कार म्हटल्यार निर्मिती. शेतकार शेत रोयताना, रोंप, थाम वाडयताना वेदना भोगता तर आपलें पीक नश्ट जावन गेल्यार ताका दु:ख भोगता.

शेतकारान कसून शेत रोयतसान तें रोंप जावन कणशेवमेरेनचो वावर एक कलाविश्कारच आसता. झाड फुलून, चंवरून फळां धरूंक आंवडेता. पानांपानांतल्यान ताळ्यांतल्यान थरथरता. ताच्या फाटल्यानय वेदनेचे काव्य आसता.

वेदनेबगर मनशांमदीं जल्मांतरीचे संबंध स्थापीत जावंकच शकनात म्हणच बाळंतवेण्यांत खर वेदना आसता. विरहात वेदना आसता. पूर्ण मिलनांतय वेदना आसता. मिलनांतली वेदना कितली सुखदेणी!

पोटाच्या भुकेंतय वेदनेची येवजण कित्याक केल्ली आसतली काय? भूक आनी अन्न कुडिचे पेशीपेशीची पोसवण उरतात. ताका परत परत जीवदान दितात. भुकेच्यो वेदना इतल्यो खर आसतात, केन्ना भूख क्रांती घडोवन हाडटा.

वेदनेन मनीस जल्माक घातला, वेदनेन क्रांत्यो घडोवन हाडल्यात. वेदनेन धर्म जल्माक घातल्यात. खुर्सार मारिल्ल्या जेजुच्या वेदनेच्या हुंकारानच ख्रिश्चन धर्म उबो रावला. खर वेदना भोगून जेजू सासणाचो मोगाळ, दयाळ जालो आनी तेणें मनशाच्या बऱ्याची प्रार्थना परमेश्वरासरी केली. वेदना

वांगडाच मोगय घेवन येता. गौतम बुद्ध संवसारांतलीं दुःखां पळोवन वेदनेन कळवळलो. संवसारांतलें दुःख निवारण करूंक राजमहालांतल्यान भायर सल्लो. साधनेक, तपश्चर्येक लागलो. घरांतल्यान भायर सरून उपरांत बोधिवृक्षाखाला जाल्लो धर्मबोध हांचेमदीं ताणें कितल्यो वेदना भोगिल्ल्यो आसतल्यो! हेरांल्या दुःखाच्या वेदनेन तळमळप ही उच्च प्रतीतली वेदना. मदर तेरेझान हेच वेदनेंतल्यान दीनदुबळ्यांक लागीं केले. तांकां दुःखमुक्त केले. मात गांधीजील्या वेदनेंतल्यन भायर सरिल्लीं 'हरे राम' हीं उतरां मात फुकट गेली. खरें तर ताच्या ह्या उद्गाराचेर सत्य आनी अहिंसेचो एका प्रत्ययकारी धर्मान मूळ धरूंक जाय आसलें. आयचे घटकेक तो धर्म सगळ्या मनीसजातीक वाटावंक शकता आसलो. पूण आमी कपलफुटके, गांधीजील्या वेदनेंतले निशफळपणा ही संवसाराची शोकांतिका आसा.

वेदना ही विश्वात्मक जावन आसा. तणाच्या पात्यापासून मेल्ल्या नखेत्राच्या कृश्ण विवरामेरेन ती पातळून आसा. वेदनेंत फाल्याच्या गर्भाची आंकरी आसता. वेदनेच्या गर्भवासाबगर खंयचीच सृजन निर्मिती शक्य नासता. सोबीत रंगरंगयाळ्या पिसोळ्याक आदी अळी जावन वेदनेन तळमळत पडून रावचें पडटा. मनीस जल्माचो सगळो सोपस्कार वेदनेन भल्ला. समागमाच्या सुखदिण्या वेदनेपासून सुरू जाल्लो हो वेदनेचो प्रवास बाळंत वेण्यामेरेन सगळ्या अंतरीक संवेदनांक व्याकूळ करून सोडटा. कोंबी तांतीं दितकीर समाधानान कलकल करता. तो वेदनेंतल्यान उप्राशिल्लो परमानंद! व्हियेल्या उपरांत कठीण वेदनेंतल्यान मुक्त जाल्ली गाय समाधानान आपल्या वासराक ल्हेवंक लागता. त्या वेळार तिच्या तोंडावेले सुखसमाधान पळोव सारखे आसता. अशा वेळावेली वेदना ही सार्थकी आसता, फळादीक आसता.

पावसान चिंब भिजचे पयलीं धर्तरेक वेदनेची कितली मरणां मरची पडटात. वैशाख उज्यांत स्वताक भाजून हुलपावन घेवंचें पडटा. स्वताचे रणरणटे रेंवट करून घेवंचें पडटा. जेन्ना पावस पडटा तेन्ना सगळी वेदना पयसावता आनी ती आंकरेवन पाचवीचार जाता, ती तुश्ट तृप्त दिसता. वांगडाच खूब सोबीतकाय घेवन येता.

पांखां फुट्टटकीर पक्षीण पिलाक घोंटेरांतल्यान धुकलून दिता. तेन्ना ते पक्षीणीकय वेदना भोगच्यो पडटात. चली घोवाघरा वयताना आवयबापूय कण्वाची व्यथा भोगतात. चलो पयसुल्ल्या देशांत पोटा पाण्याखातीर वताना आवयच्च्या काळजांत वेदनेचो पूर भरून येता. तरीय त्यो सगळ्यो वेदना सोंसतात आपल्या भुरग्यांच्या बऱ्या फुडाराखातीर. पक्षीणीक आपलें पील मुक्त मळबांत उडटना पळोवन कितली खोशी जाता आसतली. आवयबापायक आपली धूव घोवाघरा सुखांत आसा तें पळोवन खूब खूब समाधान भोगता. परदेशाक गेल्लो आपलो पूत रणां मारून यशस्वी जावन परतता तेन्ना आवय खोशयेन भुल्लुसून वता. वेदना मनशाक बळगें दिता, नैतीक पाठबळ दिता.

मोग आनी वेदना एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू. मोग सदांच वेदना भोगूंक शक्त दिता. सृजन वेदना खूब मनस्वी आसता, मोनी आसता मानी आसता. ताका प्रदर्शन आवडना. शिशिरांत पानां झडची वेदना सोंसत उक्तें झाड मोन्यानच थीर उबें आसता, फाल्यां परती पानां फुट्टटलीं हो आत्मविश्वास घेवन. अशी ही वेदना मुळांत गर्भार वेदना आसता.

शरीर आनी आत्म्याची ताटातूट जाताना मरणाच्या शेवटच्या खिणाक कसल्यो वेदना जातात काय? पूण हांगाय पुनर्जल्माचें, स्वर्गाचें, मोक्षाचें आश्वासन आसताच.

वेदनेंतल्यानच करुणा, मोग उपरासता म्हणच सेवा, क्षमा, त्याग हे गूण मनशांत येतात. वेदना नाशिल्ल्यो जाल्यार मनशालें जिवीत सुक्या सड्यावरी जातासलें.

आतां मनीस कसल्याच वेदनाविरयत इनस्टंट सूख भोगूंक पळयता. बाळंतवेण्यांतल्यो वेदनाय ताका नाका जाल्यात. दुसऱ्याचीं दुःखां पळोवनय ताच्या काळजान वेदना उठनात. म्हण मनशां संवेदनहीण जावंक लागल्यांत. वेदनेबगर खूब उखलापी जीण जियेतात लोक!



# साम्राज्यां

**हांव** सद्दां म्हज्या 'फिदाल्ग' कुत्र्याक घेवन भोवंक वयतालों. वाटेर त्या त्या वाठारांतलीं सुणीं भोंकत फिदाल्गाच्या आंगार येतालीं. अशे चारपांच वाठारांतल्यान तरी हांव वयतालों. दर एक वाठारांत पावतकीर सुण्यांचो अच्छेव जातालो. म्हण हातांत बडी घेवंची पडटाली. मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें दर एक वाठार हो त्या त्या सुण्यांचें साम्राज्य जावन आसा. ताका तांणी थारायल्ल्यो शिमो आसात. तातूंत कोणीय घुसल्यार तीं झूज खेळूंक झुडोन येतात. आनी हें सुण्यापुरतेंच मर्यादीत ना. वाग, शिंवा सारखे प्राणी लेगीत आपले साम्राज्य राखूंक सर्वतांकीन झुजतात. घुसखोरांक धांवडावन घालतात वा फोडून, पिंजून, मारून उडयतात.

वट्ट ही सीमा घालून घेवंची वृत्ती मोनजातीची तर! पूण मनशान ही रानटी वृत्ती केन्नापासून घेतली आसतली काय? ताणें ती आपल्या उत्क्रांती प्रवाहांत केन्नातरी घेतली आसतली काय मनीसय आदी एक मोनजातच आशिल्ली?

मोनजातींत आपली ही सीमा अन्न मेळोवंच्या वाठारापुरतीच मर्यादीत आसता. आदीं मनशातय ती तशीच आसली जावंये. ल्हव ल्हव तो मनशाचो प्रतिशठेचो, व्हडपणाचो प्रस्न जालो. वाठाराच्यो सीमा वाडोवचो हावेस सुरू

जालो. मागीर झुजां आनी रक्तपात जावंक लागलो. सासणाचें दुस्मानपण येवंक लागलें. मागीर मागीर हो हावेस, हो मोह इतलो वाडलो अख्ख्या संवसाराक आपले सीमेंत घेवंक काय क्रुरकर्मा धडपडूंक लागले. तातूंतल्यान म्हाझुजां सुरू जाले. सिकंदर, तैमूरलंग, हिटलर अशा क्रुरकर्म्यांनी लाखांनी लोकांचो बळी घेतलो. आजवेर म्हामारीन, दुश्काळान, म्हापुरान जितले लोक मेले ताच्या परस चड साम्राज्याच्यो सीमो वाडोवच्या हावेसान मेल्यात. अजुनय सीमां मदलीं झगडीं चालूच आसात. साम्राज्यां राखूंकच सैनीक पोसतात, शस्त्रां पुंजायतात.

मनीस अशीच आनीक कितलीशीच साम्राज्यां आपल्या भायर भितर घेवन जियेता, त्या साम्राज्यांचो तो धनी आसता. मनशाच्या भितरच एक ताचे आपले व्यक्तिमत्वाचे साम्राज्य आसता, ताच्यांत अहम् आसता, हांवच व्हड हो अहंकार आसता, हेरांचो द्वेश, मत्सर आसता, स्वार्थ आसता. तातूंत कारस्थानां आसतात आनी फुडाराचो हांवेसय आसता. मोग आसता आनी रागय आसता. भितरल्या ह्या व्यक्तिमत्वाच्या साम्राज्याक कोणें इल्लो धपको दिलो तर ताका सोंसना. तो रागान उसळटा. झगडूंक उठ्टा. हें साम्राज्य फकत ताचें, ताच्या आवडीचें तातूंत कोणाक रीग ना. मनीस सगळ्यांत चड राखता तें हें साम्राज्य. भायल्या सगळ्या साम्राज्याची येवजण तो ह्या साम्राज्या भितर रावनच करता. तरीय हेरांक तो ह्या साम्राज्या भायरच दवरता. पूण हातूंत एक विसंगती अशी मनीस द्वेशान, मत्सरान, भिरांतेन ह्या साम्राज्याचो विस्तर करचे बगर ते ल्हान ल्हान करीत रावता.

मनशांत सत्ता गाजोवंची हाव आसता. ताचो तो मूलभूत गुणच आसता. ह्या सत्ता गाजोवंच्या हावेसांतल्यानच ल्हानमोटी साम्राज्यां भोंवतणीं तो उबी करता. सून घरांत येवंचे पयलीं, घर हें सासुचें साम्राज्य आसता. सगळेकडेन तिचीच सत्ता, सगळें तिचेंच चलता. सून येतकीर तिका दिसता आपल्या साम्राज्याचो एक वांटेकारी उबो जाला. सुनेची इल्लीय दखल ती खपोवन घेना. मागीर संघर्शाक सुरवात जाता. झगडीं वाडटेक वतात. केन्ना सून तिगेल्या साम्राज्याचे कुडके करून वेगळी जाता. असो हो घरगुती साम्राज्याखातीरचो संघर्श पिळगी दर पिळगी चालूच आसता.

बस कंडक्टर बसीच्या भायर आसताना कोणच नासता. पूण बशींत चडटकीर ताच्या साम्राज्याची सिमा सुरू जाता. थंय तो सार्वभौम साम्राट आसता. थंय तो तुमका घुसमटूंक लाग मेरेन मुखार फाटीं सरकावंक लायता. चडांत चड मनशां भितर भरता. धपकायता. वेळेच्या बाबतींत मनमानी करता. प्रवाशीय सगळे मोन्यांनी सोंसून घेतात. कारण तें ताचें साम्राज्य आसता. अशें हें जाचें ताचें साम्राज्य वोग्ग मानून घेवप चलतच आसता.

पोलीस ठाणें हें केदें मोटें दहशतीचें साम्राज्य! कितली भिरांत आनी कितलो कांच. केन्ना तूं त्या साम्राज्यांत वचून पावत, ते तुकां केन्ना कादयेंत कुसूंक उडयत सांगूं नज. तूं एक फावट भितर पावलो म्हणटकीर जाप ना, दर एक पोलीस थंयचो सम्राट. हातांत कायद्याची कोलती येवन तुका ते नाचयतले. एफ् आय आर, एरेस्ट, पोलीस रिमांड म्हटल्यारच तुजें काळीज धडधडटलें. ह्या साम्राज्याच्यो सगळ्यो सिमो कायद्यान घालून दिल्ल्यान तुज्यान कांयच करूंक येवंचें ना. कायद्याक धरूनच मार आनी घुसमटमार कितें तें पोलीस ठाण्यार पळोवंचें

सरकारी आफीस हें संबंदीत अधिकाऱ्याचें साम्राज्य आसता. भितर सरलो की ताचे आयकय, तुजी जाप नाका. जाप काडल्यार ताका राग येतलो. तुजें काम जावंचें ना. फायल्स, कावंटर हे थंयच्या क्लार्कांचें साम्राज्य आसता. ते आपली साम्राज्यां हुकुमशाही पद्दतीन चलयतात. फेरयो मारूंक लावप, पयशे खावप तांचो जल्मसिद्ध हक्क आसता. तांचे कडेन फायल्स आसतात, तांचे कडेन अधिकार आसतात, तुका ते नाचयतात, वांकड्यो जापो दितात, काम करूंक म्हयने काडटात. ताचे आड उलोवंक कागाळ करूंक तुका कापास्ताद ना, तुजें काम पाड पडटलें. तुजें घर जावंचें ना, तुका वीज मेळची ना, तुजो साकव जावंचो ना.

लोकशायेंत लेगीत राजकारणी आपलें साम्राज्य राखून घेवन आसतात. खासदार, आमदार वेंचून आयलो की मतदारसंघाचो सम्राट जाता. ताबदारकेन वागता, मतदारांक किंकोंत लेखता. कामां करूंक पयशे मागता. हार तुऱ्यांसयत लोकांक आपल्या पांयार लोळूंक लायता. लालदिव्याच्यो गाडयो धांवडायता, बंगले उबे करता. आयच्या युगातले ते खऱ्या अर्थान सम्राट.

अशीं कितलीं तरी साम्राज्यां आमचे भोंवतणीं पातळिल्लीं आसात. साधू-भोदूंचें साम्राज्य, काळ्याबाजारवाल्यांचें, लांचखोराचें साम्राज्य. स्वीझ बेंकेंत पयशे व्हरून घालतल्याचेय एक साम्राज्य आसा. साधू-भोंदून केदी व्हड साम्राज्यां हांगा निर्माण केल्यात, ते या साम्राज्याचे चक्रवर्ती राजा. ते सांगतात ती पूर्व दिका. पूण ती पोकी, फटकिरी साम्राज्यां आसतात.

केन्ना हीं साम्राज्यां विश्वव्यापी आसतात. ड्रग्स माफियांचे साम्राज्य देशादेशांतल्या कोनशांनी पातळिल्लें आसा. ताचे साम्राट अंडरग्रावंड रावनय मोट्या मजेंत ऐशारामांत जियेतात. केन्ना उक्तेपणान राजकारणांत वावुरतात.

एकेक धर्म म्हटल्यार तांचे एकेक साम्राज्य. ताचे नेम, तांची तत्वां, तांचे कायदे वेगळे. तांच्या साम्राज्याचो सम्राट देव काय तांचो धर्मप्रमुख हे सांगूं नज. देवाक नांवापुरतो सम्राट करून धर्मप्रमुखच सम्राटपण भोगतात. तांणीय आपल्या धर्मसाम्राज्याक सिमो घालून घेतिल्ल्यो आसात. हेरांक थंय रीग ना, स्थान ना. तांच्या आड उलोवंक फावना. राजकीय राज्यापरसय ते आपले धर्मराज्य प्राणापणान राखतात. तांची ही साम्राज्यां राखूंक केन्ना आतंकवाद्यांकय उबे करतात. आपलें साम्राज्य वाडोवपाचोय हावेस आसताच. केन्ना तलवारेच्या बळग्यार, केन्ना पयशाआडक्याची हांयसा दाखोवन तांणीं आपलें साम्राज्य वाडयलां.

कांय साम्राज्यां बरीं विधायक, कल्याण करपीय आसतात. आवयचेंच एक साम्राज्य आसता. आपलें घर, आपलीं भुरगीं, भुरग्यांचो बापूय, हेर घरचीं सगळ्यांक ती मायेमोगान सांबाळटा आनी आपलें मोगाचें साम्राज्य स्थापीत करता. ती आपल्या घराची सेवाभावी, मायाळ सम्राज्ञी आसता. मदर तेरेजाचेय अशेंच एक दयावंत साम्राज्य आसलें, बाबा आमटेचेंय आसलें.

सिकंदर, हिटलर संसार जिखूंक भायर सरिल्ले. ते संसार जिखून कितें करतासले? जाप ना. तातूंत संसाराच्या कल्याणाचो मागमूसय नासलो. महात्मा गांधी सत्य आनी अहिंसेचें एक साम्राज्य स्थापन करूंक पळयतालो. तें सपन विसकटुनच गेलें. तें सफळ जाल्लें जाल्यार संसाराचें खरेंच कल्याण जातासलें.



# लोकालजेक

मनशाल्या जिवीताची, समाजाची ही बेस सुस्थिर घडी धर्मशास्त्राचेर, पापपुण्याचेर, कायदो कानूनाचेर, मनुस्मृतिचेर आधारिल्ली ना तर ती लोका लजेचेर आधारिल्ली आसा, ताचेरच तिगून आसा.

लोकलज ही मनशाली भोव संवेदनशील जाणीव आसा. समाजान मनशाल्या स्थानामानाचे तें बळिश्ठ प्रतीक जावन आसा. एक फावट लज गेली म्हणटकीर ती दारोदार भोंवले तरीय परत मेळची ना. एक म्हण आसा, सुपारी चोरून गेल्लो अब्रू हती दिलो तरी परती मेळची ना. अब्रू केन्ना नाजूक काचेंसारखी आसता, केन्ना पदरांतल्या पेट्ट्या इंगळ्या सारखी आसता. म्हण मनीस ताका भोव भोव राखता. आपणा फाटल्यान कोण कितें उलयतात हाची सुलूस घेत आसता. इंडियन पेनल कोडाची सगळी सगळी कलमां करूंक शकची नात इतले नैतिक नियमन एकली अब्रू करता. अब्रू बेअब्रूक खूब भियेता. अब्रू वचच्या धास्तीनच मनीस केन्ना आत्महत्या करून मेकळो जाता. ना तर ती खंत जिवीतभर खायत आसता. बेअब्रूच्या विळख्यांतूच कशीच मुक्ती ना. बेअब्रुची जाणीव केन्ना इतल्या संवेदनशील पातळेर वता, मनीस कसले बगलाट लेगीत सोंसूंक शकना, सटकरून आत्महत्या करून घेता. एकलें वावराडी चेडूं आसलें. एक दीस तेगेल्या मालकाल्या घरांत चोरी जाली. बायलेल्यो दोन भांगरापाटल्यो ना जाल्यो. तांणीं त्या वावराडी चेडवाचो

दुबाव घेवन ताका खूब उलयलें. तर त्या चेडवान रातचो गोळ घेवन जीव दिलो. उपरांत कळ्ळें त्यो पाटल्यो मालकाल्या एका सोयऱ्यानच चोरिल्ल्यो म्हण. बेअब्रू ही बळी घेतच आसता.

चोरी आनी अवैध शरीरसंबंद ही दोन बेअब्रुच्या हातांतली प्रभावी अस्त्रां. कोणाची बेअब्रू करूंक जाय तर ताचेर चोरयेचो आळ घाल. खंयच्याय अस्तुरेची बेअब्रू करूंक जाय तर तिगेलो खंयच्यातरी दादल्यावांगडा संबंद जोडून उडय. सगळ्यांत चड वावड्यो आनी बगलाटां ही अवैध शरीरसंबंदाविशींच आसतात. अस्तुरी ह्या बगलाटाक खूब खूब भियेता. म्हण ती खंयच्या परपुरुशा वांगडा दोळे वयर करून लेगीत उलोवंक शकना. अस्तुरी आपलें शील, आपले पातिवृत्य इतलें कित्याक राखता? हेर कित्याखातीर न्ही तर लोकलजेखातीर. कामवासना ही मनशांतली सगळ्यांत खर वानसा. तरी ती बरीच आळाबंदाक उरता ती बेअब्रुचे भिरांतेनच.

समाजांत तिगून रावंक जाय तर अब्रू सांबाळूंक जाय. हे अब्रुची भिरांत जर मनशाक नाशिल्ली जाल्यार समाजाची घडी केन्नाच विसकटून वतासली. ताका मागीर कायदोय वाचोवंक शकचो नासलो. आनी पापपुण्यय वाचोवंक शकचें नासलें. अब्रू, बेअब्रुचे नेम हे खंयच बरोवन दवरिल्ले नांत, ताचेर कोणाचेच नियंत्रण ना तरी खूब पुर्विल्ल्या काळापासून मनीस ताका भियेत आयला. हे लोक लजेचे भिरांतेनच कुंतीन निकतोच जल्माक आयल्ल्या कर्णाक न्हंयच्या व्हाणेंत सोडून दिल्लो. सितेन अग्निपरिक्षा दिल्ली.

देवाच्या, धर्माच्या भिरांतेन हो समाज उबो आसा म्हणूंक सगळेच लोक काय देवधर्माक मानपी नासतात. देवाक, धर्माक ना मानपी हे लोक लोकलजेक मात भियेतात. लज वचची न्हय म्हण शादूर आसतात. कायदो मोडपी लोक आपली लज मोडीत वचची न्ही म्हण राखून रावतात.

लोकलज ना मानपी लोक नासतात अशे न्ही, आसतात. पूण अशा लोकाचे समाजांत ल्हवल्हव अवमुल्यन जायत वता. तांका लोक मनांतल्यान भायर काडून दवरतात. तांचेसरी तुटक तुटक उलोवंक लागतात. पयस पयस वतात. मागीर लजेक पडिल्ली मनशा आपली गेल्ली अब्रू परत मेळोवंचो काकुळटायेची धडपड करतात, वा तातुंतच सोंपतात.

बेअब्रू केन्ना कपलार शिक्को मारिल्लेवरी जीवीतभर उरता. तो मनीस मेळ्ळो की ताच्या त्या पाड कर्तुबाची याद पयली येता. मागीर उलोवपांत मोनेळ पडिल्लेवरी जाता. अब्रू शेणून बशिल्ल्या मनशाक मेल्ल्या उंदरावरी कुशीन काडून उडोवंची एक भुमिगत व्यवस्था आसा खरी. ती ल्हव ल्हव अब्रू गेल्ल्या मनशाकय जाणवूंक लागता. मागीर ताचो आत्मविश्वासच गळसणटा. चोरयेच्या, लाचखोरीच्या, बलात्काराच्या आरोपान जेलींत वचून आयल्लीं मनशां हांवें पळयल्यांत. ती मेल्ल्या मड्यावरींच जियेतात. तीं लोकांत मिळून मिसळूंक गेल्यार लोक तांकां चड मुखार घेनांत, तांचेर विश्वास दवरीनांत. मागीर तीं भितरले भितर घुस्मटून मरून वतात. खरें तर तांचे सोयरसंबंदीकच तांका आपलो मनीस म्हण सांगूंक कचरतात. ही ख्यास्त जेलींत भोगिल्ले ख्यास्तीपरस खर आसता. मनशा पोलीसांक, तांचे कोठयेक, जेलीक कित्याक भियेतात? ताचे भितर बंद करून घेवन रावंचे पडटलें म्हण? निश्चीतच ना. तर ती लोकलजेकच चड भियेतात. लज वचप हे काळ्याकोठयेपरसूय भिरांकूळ आसता.

लोकलजेच्यो, बेअब्रुच्यो कल्पना देशापरमाणें, समाजापरमाणें बदलतातूय. आमच्या समाजान लग्न मोडप मरणापरीं दुःखाचे आसता, पुराय घराबोच लोक लजेक पडटा तर काय देशांत तें सहज सदाचेंच जालां. आमच्याच समाजांत काय बायलालो तकलेवेलो पदर सकल पडल्यारूय ती लजेक पडटा तर थंयच कांय बायलो रसत्यार अर्दनागड्यो भोंवतात. एक चोरी करपी जमातींत एका मनशान आपलेंच वसतेर एकल्याले दोन मूठ पीठ चोरलें. तर ताका ताच्या पंचायती मुखार हाडून उबें केलें. ताचो गुन्यांव आसलो, एक तर ताणें आपलेच वस्तुचेर चोरी केल्ली, दुसरो ताणें सामकीच ल्हान चोरी करून जमातीचें नांव घाण केल्लें. ताका पंचायतीन एक नवो पयसो दंड फर्मायलो. जितलो दंड उणो तितली चड लज. ताणें ते रातीकच गोळ घेवन जीव दिलो. चोरी करप हें संवसारांत सगळेकडेन हीन मानतात, चोरी करतल्याची अब्रू वता पूण काय जमाती चोरी करप आपलो जल्मसिद्ध हक्क मानतात, पोटापाण्याचो धंदो मानतात. व्हड चोरी करप पुरुशार्थ मानतात.

आमी आमच्या वर्गणाचे नेम पाळटात. कोण दुयेंत जाल्यार पावतात,

मरणाक वयतात. आपले नीट करतात आनी भुरग्यांचे पालनपोशण करतात, ताका बरें शिक्षण दितात. चलयांची वेळार लग्न करतात. लग्नबंधना तुटचीं न्हय म्हण आटोकाट यत्न करता. म्हाताऱ्या आवयबापायली सेवा करतात. ह्या सगळ्या फाटल्यान आपूण लोकलजेच्या तोंडाक पडचें न्ही सुप्त भिरांत आसताच. तेच भिरांतेन बायल आपल्या म्हाताऱ्या दुयेंत घोवाची सेवा करता. लोकलजेची भिरांत नाशिल्ली जाल्यार मनीस पारपोळ सुट्टासलो आनी आपल्या कर्तव्या पसून पयसच वता आसलो. नकळत मनशाचेर अंकुश दवरचें काम लोकलज करता. लोकान आपणाक बरे म्हणचे ही भावना लोकलजेचे सकारात्मक रूप जवान आसा. लोकान आपणाक बरे म्हणचे म्हण मनीस भोव कश्ट उपशीता, स्पर्धेंत भाग घेता आनी मुखार सरता. लोकालें लक्ष मनशाच्या कर्तुत्वाचेर नासते जाल्यार मनीस कांयच बरें करूंक पावचो नासलो.

मोनजातीक लज आसता काय? खबर ना. आसली तरी ती समाजीक संदर्भांतली खासच नासतली. नियतीन मनशाक जें कितें बरें म्हण दिला तातूंत लोकलाज एक जावन आसा. बायलांक चड करून आपले कुडीविशी इतली लज कित्याक दिसता काय? जायते फावट ती लज खरें तर तिच्या बायलपणाचें रक्षण करचें अस्त्र जाता. ते लजेन ती स्वताच स्वताचेर नियंत्रण दवरता आनी पयस रावता. बायलांक लज दिवक नाशिल्ली जाल्यार मोटो अनर्थ जावपाचो.

लोकलज सोडप म्हटल्यार मनशाचो अध:पात जावप. भिकाऱ्याक भीक मागताना लज दिसना, शिंदळकीक आपली कूड कोणामुखारय उक्ती घालूंक लज दिसना, लांचखोराक भ्रश्टाचार करूंक, घोटाळे करूंक लज दिसना. वयल्यान आनी माथें वयर करून गाडयांनी भोंवतले, बंगले बांधतले आनी वेंचणुकेक उबे रावतले. समाजाचो जो कितें नैतीक ऱ्हास जाता तो अशा लोकलज सोडिल्ल्या मनशांक लागुनच.

समाजाच्या नैतिकतायेच्या मुळांत कायदो नासता तर खर समाजीक बांधिलकी आसता. ताकाच आमी लोकलज म्हणटात. संसारांत आंगार साप्प वस्त्रां न घालपी जमाती मेळटल्यो. पूण लोकलजेक ना भिवपी लोक आसचेच नांत. आसात ते सुटेसुटे, जांची कात जाड गोंड्याची जाल्या ते.



# सृजनउर्जा

समेस्त प्राण्यांमदली अस्तित्वाची सृजनशक्त ही संसारांतली बळिश्ट, प्रभावी, सर्वश्रेश्ठ, सृजनउर्जा जावन आसा. हे सृजनशक्तीनच एकादरे तणारोप फातराचे छातयेर किल्लावन तरतरीन उबे रावंक शकता. एकादरो जीव ध्रुवांच्या माथ्यार कडक शीयांत आनी बर्फांत तग धरून जिवो रावंक शकता.

ही शक्त मुळांत भारी चैतन्यमय आसता. ती जिवीताची गर्भकणी आसता. पंचमहाभुतांचे ते द्रश्य स्वरूप आसता. ते शक्तिचो प्रवास सदांच निर्जीवांतल्यान जीवीतावटेन, कुरूपतायेंतल्यान सोबीतकायेवटेन, दुबळेपणांतल्यान बळिश्ठपणावटेन, चलिल्लो आसता. तळयांतल्या चिखलांतल्यान फुलपी साळीक, पानां झडून कंगाल जाल्ल्या गुलमोहराचेर, सावरीचेर फुलपी रंगगर्भी तांबडी फुलां, ही कुरूपतायेंतल्यान साकार जाल्लो सोबीतकायेचो अविश्कार जावन आसा.

सैमाच्या ह्या सौंदर्यसाधने फाटल्यान कळाशी आसता, कितें तरी साध्य करून घेवंचे आसता. सैम बरोच धूर्त आसता, तो सगळ्या जीवजिवाण्यांक बोटार खेळयता. आपले सृजनसातत्य तिगोवंक बऱ्योच खेळी खेळटा. म्हणच सैमान वायट, किचकट, कठीण अवतिकायेंतय आपलो सैमसांभार राखून दवरला, तो आयजवेर हाडून पावयला.

आमचेकडेन माजाक येवप हीं उतरां आसात. ताचो अर्थ सोबितकाय आनी शक्त हातुंतल्यान सृजनाचो अविश्कार घडप. पुनरनिर्मितीचे पयले दर एक प्राणी, पक्षी, पिसोळे, झाडां माजाक येताच आसतली. माजाक येतकीर जीवांची सोबीतकायच वाडटा न्ही तर मंद परमळय सुट्टा. हो परमळ बरेच प्राणी जुस्त वळखतात. अशे म्हण्टात वाग, शिंवाची मादी माजाक येतकीर पुराय रानभर तो परमळ पातळयता. मागीर नर ताचो वेध घेत मादीसरी येता. मोर पावसाच्या ओडीन नाचता काय तो माजाक येतकीर नाचता? माजाक येतकीरच नाचता आसूंक जाय. कारण ताचें नाचप जाल्या उपरांत लांडोर गर्भारशी जाता. प्राण्यांमदीं, पक्षांमदीं सृजनाच्या पयलीं मादीक वा नराक खूब भुलोवप जाता. ताकाच घडये मनशां मोग म्हणटात. उर्दुंत 'इश्क' अशें सोबीत उतर आसा. ती खरें तर सृजनापयलीची बायल आनी दादल्याली मानसीक अवस्था. तातूंत कामवासनाय आसपावता. बायल दादल्या मदल्या मोगाचोय प्रवास शेवटा कामवासनेमेरनच पावता, हें एक सत्य आसा. कामवासना खरी तर हीण गजाल न्हीच. ती सृजनाचें साधन. ताका कोणें कित्याक हीण मानलें नकळ. एक फावट आचार्य रजनीस एके सभेंत कामवासनेविशीं बरोच उलयलो. सभा सोंपतकीर एक बायल ताचेसरी आयली आनी म्हणूंक लागली, तुवें शरीरसंबंदाविशीं उलयलें तें म्हाका मात्तूय आवडलें ना. रजनीशान तिका विचारलें, "बाय, तुका भुरगीं कितलीं?" तिणें तिगां म्हण सांगलें. तेन्ना रजनीशान तिका म्हटलें, "शरीरसंबंद जर वायट, हीण तर तातुंतल्यान जल्मल्लीं भुरगींय हीण जालीं नात? साधनच वायट तर साध्य कशें बरें आसतलें?"

सैम आपलें सातत्य तिगोवन दवरचे खातीर कितली धडपड करता? हजारांनी मैलांचे दर्याचें अंतर कापून कांय कासोव तांतीं घालूंक विशिश्ट दर्यावेळेर येतात. मळबांत हजारांनी मैल उडत कांय पक्षी तांतीं घालून उबोवंक थारावीक थळांनी येतात. आंब्यारुखाक दर मोसमाक इतले शेकड्यांनी आंबे लागतात ते कितें मनशाक खावंक? ना. तातुंतली एक तरी आंब्यापारय खंयतरी रुजतली हे आस्तेन. सांवरीचें बोंड फुट्टकीर तातुंतल्यान कापसायत बी भायर पडटा. ती बी मागीर वाऱ्यार हुडत हुडत खंयतरी पयस मातयेंत पडटा.

पावसाची वाट पळयत मातयेंत रुजून येवंक रावता.

मनशांसयत प्राण्यांच्यो, पक्षांच्यो मादी आपल्या बाळकांची खूब खूब काळजी घेतात. ताका ममता, वात्सल्य अशेंय म्हणटात. त्यो तांकां दूद दितात. चारो भरयतात. तांची राखण करतात. तांकां कितेंय जाल्यार आकुळपिकूळ जातात. एकापरीन ती सैमाची वेठबिगारीच आसता. सैम आपले सातत्य तिगोवन दवरचे खातीर पक्षांचो, प्राण्यांचो असो हो उपेग करून घेता. म्हणच तांचे भितर वात्सल्याचे बीज पुरून दवरलां.

एकपेशी अमीबापसून सुरू जाल्लो हो सृजनाचो प्रवास मोटो मनभुलायणो आसा. कांय कोटी वर्सां सैम बदलत्या परिस्थितीवांगडा सतत संघर्श करीत आयला. तें खूब गूढ, दैवी, अनाकलनीय आसा. हें सगळें जाताना सैमाक सदांच चैतन्य आनी सोबीतकाय हाचे वेध लागिल्ले आसतात. सत्य, शिव आनी सुंदर हाचो अविश्कार खऱ्या अर्थान सैमांतच जाल्लो आसा. मनशान आपली सगळी प्रतिभा आनी कलात्मकता पणाक लायली तरी ताच्यान झाडाच्या साद्या पाना इतली सोबीत जिवी कलाकृती लेगीत तयार करूंक येवंची ना. सैमांत जें जें म्हण जिवे आसा तें सोबीत आसा. सृजनाच्या मुळांत सोबीतकायेचो अविश्कार करच्या फाटल्यान सैमाची कितें माण्णी काय? तातूंतय परत आपले सातत्य तिगोवन दवरचे यत्न आसतातच. प्राणी, पक्षी हे कुडीचे सोबीतकायेन लागीं येतात आनी तांचो समागम घडटा. कुरूप, बुरसो समागम सैमाकय मान्य नासुये. शेवटा नवनिर्मणी म्हटल्यार सोबीतकायच न्ही?

खरें तर मनशान देवाकय सृजनातच पळोवंक जाय. न्ही फातरांत आनी फातराच्या मुर्तींत. दारांतलें, रानांतलें एकादें झाड किल्लता, आंकरेता, पालेता, ताची मुळां भूयेंत खोल रिगतात. एक सोबीत पानांताळ्यांनी गच्च झाड उबें जावन ताका फुलां फुलतात फळां धरतात. सृजनाचे केदें व्हडलें महानाट्य घडटा ताचेठाय! तेंच तर खरें देवरूप, देव आसल्यार थंय ताचे थंयच आसा! झाडाच्या फुलांक, फळांक येवपी परमळ म्हटल्यार देवतत्व. तीच देवाची सासाय. लोक झाडांक फाट फिरोवन फातराच्या देवळांत कित्याक वयतात काय?

म्हज्या बागाच्या एका कोनशांत सुकिल्लेशें किडकिडीत काळ्या खांद्याचें एक दुर्लक्षीत झाड आसलें. वर्सभर ताचेसरी कोणालें लक्षय वचनासलें. पूण वसंत रुतू लागीं येतकीर ताका नव्यो कोमऱ्यो फुटूंक लागताल्यो. सोशापावलावरी बारीक बारीक पानांनी आनी ताळ्यांनी भरून वयताले. मागीर ताका ओंवळांवरी बारीक खूब फुलां फुलतालीं. म्हयनोभर फुलत रावतालीं. पुराय बाग धरून घराचे दारमेरेन सगळो परिसर परमळान भरून वयतालो. ताका मागीर बारीक तांबडी फळां धरतालीं. तेन्ना नानातरेचे पक्षी त्या झाडार येवन बसताले. बरोच किलबिलाट जातालो. हे सगळे नाटक तिनेक म्हयने चलताले. मागीर परत तें झाड बाबडें, गरीब जावन उबे रावतालें. अशें तें गर्भार जावन गेलें म्हणटकीर ताची रयाच वताली.

सगळो भूंय वाठार वैशाखाच्या वोताउज्यांत जळटालो. दिसतालें हो विनाश आतां शेवटचो. हे तापिल्ले धुळीत आतां जितो जीव उल्लो ना. हातुंतल्यान आनीक म्हण कोंब फुटून वयर सरचो ना! पूण कितें जाता, यकायक घोग्यांनी पावस झडूंक लागता. उदकान माती गर्भामेरेन भिजून वयता. आंगावेल्यान उदक वोतूंक लागता. मागीर चमत्कार घडिल्लेवरी भूंयेंतल्यान असंख्य जीवजंतू, कुल्ल्यो, कोंगें, बेबकां, गांयडोळ वयर सरतात... इतल्या जळट्या मातयेंत खंय आंग चोरून बशिल्ले ते? मागीर दशदिशांत शिंपडिल्ली बीं बींजाय किल्लावंक लागतात. सगळी धर्तरी पाचव्या कांबरुणांत झाकून वता. अजाप दिसता इतली सगळी चिरंजीव शक्त धर्तरेक अचकीत खंयसान मेळटा?

तेरा चोवदा वर्सांचें जायमेरेन स्नेहा खूबच बारीक, कुरूप, काळपट आसलें. लांब बारीक मान आनी गलफडां धशिल्लीं. छातीय येवंक नाशिल्ली. आवय बापायन आस्त सोडून दिल्ली. तांकां दिसतालें, हाका काय तरनाटेपण येवंचें ना आनी हाचें लग्न जावंचें ना.

अचकीत कितें जालें, खंयसान कोमऱ्यो फुटूंक लागलें? स्नेहा निवळूंक लागलें. पयलीं ताच्या दोळ्यांत लिकलिकसाण आयली. कांतीक तेज येवन ती नितळ तांबशी गोरी जाली. छाती, कुले, मांडयो हांणीं गरगरीत आकार घेतलो.

आतां तें खूब हांसतालें. आनी लजतालें. ताच्या चलपांतय आतां नाचरी लय आयल्ली. खंयच्याय फुलाझाडा सकल उबें रावन फुलाखांदी गालासरी धरून उबें रावतालें आनी येतल्यावतल्याक कितेंय विचारतालें, ''रमा मावशी वोत चडचे पयलींच शेतांतल्यान परतली मुगे? शेतांत धानार फुलां खेळूंक लागली?''

''...अरे उमेश, तुंवें मिशा इतली बारीक कित्याक केली रे?''

तिचें तरनाटेपण फुल्लें आनी तिचें लग्न जालें. तिगां गुटगुटीत भुरगींय जालीं ताका. भुरगीं जालीं आनी ल्हव ल्हव ताचें तरणेपण आसरूंक लागलें. पयलीवरीच अवतिकाय आयली आनी तें बारीक काळपट जालें. तशीच गालफडां बसलीं.

दुबाव येता, सैमाची वेठबिगारी करूंकच ताका तें सोबीत तरणेपण येयल्लें काय कितें! स्नेहासरी कसलो सृजन खेळ खेळ्ळो सैमान!



# मनशाचो शत्रू?

**हां**व बस धरूंक घाईघाईन वयतालों. वाटेंत एक सुणें भोंकत म्हज्या आंगार येयलें. मुखार वाटेवयलो एक फातर म्हज्या पांया बोटाक आपटलो, इल्लें रगत येयलें. तें तशेंच सोंसून घेत हांव चलूंक लागलो. मदींच पावस येयलो आनी पावसान म्हाका भिजयलो. हांवें शर्ट झाडलोसो करून घेतलो.

शेवटा, हांवें कशीबशी बस धल्ली. बशींत चडटकीर कोण एकलो म्हाका 'सरक सरक' म्हणूंक लागलो. हांवें ताचेसरी सामके रागान पळयलें. ताणें मुखार कितें म्हटल्यार हांव झगडूंकच उठ्ठासलों. तिकेट घेताना कंडक्टर म्हजेसरी सुटे मागूंक लागलो. हांवें ताचेसरी झगडलो, "इतले सुटे पयशे नाशिल्लो तूं कसलो कंडाक्टर काय म्हटलें."

तकली थोडी शांत जातकीर हांव चिंतूंक लागलो, सुणें म्हज्या आंगार धांवत येयलें, फातराक म्हजो पांय आपटलो, म्हाका पावसान भिजयलो तें सगळें हांवे बऱ्या मनशावरी मोन्यांनी सोंसलें, पूण मनशान फकत सरक म्हणटकीर म्हाका राग आयलो. कंडक्टरान सुटे पयशे मागतकीर म्हाका राग आयलो आनी हांव झगडूंक उठलों. हें अशें कित्याक जावंचें? मनीसच मनशाचो शत्रू काय कितें, मनीसच मनशाचो तिरस्कार करता काय कितें?

खरेंच आसा तें. मनशाली सतत मनशावांगडाच स्पर्धा चलिल्ली

आसता. मनशाचोच सूड घेवंची भाशा मनीस करता. मनशाक सायड मारून मुखार वचची मनशाली धडपड सदांच चलिल्ली आसता. भोवच उणे फावट समजीकायेची मेळून मिसळून मोगान रावंची भाशा आसता. चड फावट राग, द्वेश, झुजां हाचीच भाशा आसता. मनशालें मनशा वांगडचें दुस्मानपण हाचेनच रगताळ क्रांत्यो जातात, दंगे जातात आनी म्हाझुजांय जातात. नाझीनी ज्युंचें दुस्मानपण धल्ले आनी लाखांनी ज्यूंक तडफडावन माल्ले. भारत पाकिस्तान वेगळाचारावेळार हिन्दू आनी मुसलमानांल्या दुस्मानपणान केदो व्हडलो उत्पात जालो! रगताचे पाट व्हांवयले. मनशांमदीं बरेपण, समजीकाय आशिल्ली जल्यार दंगे, म्हाझुजां, मारामाऱ्यो जावंच्योच नासल्यो.

मनशान मेळून सैमावांगडा झुजून, सगळ्या वायट अवतिकायेचेर जैत व्हरून मनशालो वंश ह्या तेपामेरेन हाडून पावयला. मनशान मेळूनच संसारांत मुखार वचचे आसा, सुखासमाधानान जगचें आसा, तरीय हे दुस्मानपण कसलें?

एकवटेन प्रेशीतांकडच्यान, धर्मशास्त्रांतल्यान मोगाच्यो, करुणेच्यो, दयेच्यो खबरी सदांच आयकूंक येतात, मनीस त्यो शिकून आत्मसात करचो आव हाडटा. तर दुसऱ्यावटेन महाघातक झुजां शस्त्रांची निर्मिती करता, झुजाच्यो माण्णी करता. मनशान संसारांत इतल्यो शस्त्रांच्यो, महाअस्त्रांच्यो राशी घातल्यात त्यो कितें प्राण्यांक मारूंक काय शेवण्यांक मारूंक? मनशाकच मारच्यो इतल्यो माणणयो तर फुकट सगल्यो भावचाराच्यो खबरी.

कुरूक्षेत्रातल्या झुजाचें पडसाद अजुनय आयकूंक येतात. तेच तरेची झुजां मागीर जायत रावल्यात. कुरूक्षेत्रांतलें हें झूज राज्यां खातीर नाशिल्लेंच, तें मुळांत मनशा मनशामदलें झूज आसलें. खरें तर झुजाचें बीं आदीं मनशांमदीं पडटा. मागीर तें राज्याचें जाता. महाभारतांत मनशामनशांमदल्या द्वेशाचें, मत्सराचें अकराळविकराळ रूप दिश्टीक पडटा. दुर्योधन भुरगेपणापासून भीमाचो मत्सर करतालो. अर्जुन फिशाल धनुर्धारी म्हण कर्णासयत सगळे ताचो द्वेश करताले. धर्माक द्यूत खेळाक आफोवन हाडून ताची फटवणूक केल्ली.

अश्वत्थामाक भुरगेपणापासून किकोंत लेखिल्ल्यान ताचेमदीं न्यूनगंडांतल्यान विक्रती तयार जाल्ली. शेवटाक द्रौपदीक राजसभेंत ओडून हाडून उक्ती करचो यत्न जालो तेन्ना अच्छेवच जालो. हांगा झुजाचें बीं पडलें. हें मनशामनशांमदलें झूज मागीर राजाराजांमदीं आनी राज्याराज्यांमदीं पावलें.

कितल्योश्योच गजाली आज मनशामनशांमदी धोशी घालूंक आमी येवजून दवरिल्ल्यो आसात. जाती, धर्म, राश्ट्र, गरीब, गिरेस्त, काळो, गोरो हाचेर पावलापावलार धोशी पडत आसात, दुस्मानपण वाडत आसा. एकदुसऱ्याक काबार करच्यो माण्ण्यो रचीत आसात.

राश्ट्र ही संकल्पना वेल्या वेल्यान कितली गोमटी दिसता. राश्ट्र हे संकल्पनेन आदीं धर्तरेचे तुकडे पाडले. मागीर मनशाक वेगळायलो. मागीर राश्ट्राची राखण करूंक म्हूण अस्त्रां शस्त्रां निर्मिली, सैन्य उबे केले. लागींच्या राश्ट्रांमदी सदांच दुबाव, हेरगिरी, फारपेट आनी झुजां. हीं राश्ट्रां मनशाक मुक्तपणान हे धर्तरेचेर भोंवंक दिनांत. दर एके सिमेर आडमेळें आनी धपकावण्यो. राश्ट्रांच्यो सगळ्यो सिमो पुसून उडयल्ल्यो, सगळे सैन्य काडून उडयल्ले, सगळी अस्त्रा शस्त्रां मोडून लासून उडयल्ली तर संसाराचें कितलें बरें जांवचेलें!

धर्मांनी तर मनशाचें चडच वायट केलां. धर्मान मनशाचेच वांटे घातले न्ही तर देवाचेच वांटे घातल्यात. तुजो देव तो म्हजो देव न्ही आनी म्हजो देव तो तुजो देव न्ही! धर्माच्या नांवार मनशां चड पयस पयस वचत आसात. भिरांत दिसता घडये ह्या संसाराचो शेवटचो विनाश हो धर्माच्या नांवारच जातलो. चड धर्मीक मनीस हो चड फॅनाटीक आसता. धर्माधर्मामदल्या एकचाराक तोच चड आडमेळें हाडटा. मनशाल्या संस्कृती प्रवाहात मनशान आपणायल्ली सगळ्यांत वायट गजाल म्हटल्यार धर्म! संसारांतले सगळे मनीस 'मनीस धर्मा' खाला एकठांय येयल्ले जाल्यार कितलें बरें जावंचेलें.

मनशालो दुस्मान वाग न्ही, शींव न्ही, सोरोप न्ही, मोडां न्ही, महामारी न्ही. मनीसच मनशालो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान. झुजांनी आनी म्हाझुजांनी मनशान लाखांनी मनशा माल्ल्यांत. तितलीं मनशां मोडांनी आनी महामारीनी

माल्लीं नांत. सैम आपली मर्यादा राखता. पूण मनीस एकच अणुबाँब उडोवन खिणात लाखभर मनशां मारून उडोवंक शकता आनी र्ती तर्शी माल्ल्यांत मनशांनी.

राज्य, साम्राज्य स्थापन करचे, राजा, सम्राट जावंचे सपन एकटो मनीसच आदी पळयता. मागीर तें सपन साकार करूक झुजां मांडटा. लाखांनी मनशांचो बळी घेता. सिकंदर, तैमूरलंग, चेंगीजखान, नपोलियन, हिटलर ह्या क्रूरकर्म्यांनी अशीं सपनां पळयलीं आनी संवसारात हिसपाभायर हिंसा घडोवन हाडली. मोहम्मद अली जीनान मुसलमानांक वेगळ्या राश्ट्राची संकल्पना मुखार हाडली आनी मागीर केदो व्हडलो अच्छेव घडलो. कितली हिंसा जाली. कितल्या आवयच्यो कुशी उजाड जाल्यो, कितलीं भुरगीं उबंतर पडलीं! तेन्नाचो राग द्वेश अजून पुसून वचना. त्या द्वेशाक उबळ आयल्लेवरी परती परती हिंसा जायत आसा.

फकत झुजांतच दुस्मानपण आसता अशें न्ही तर सदांच्या जिवीतांत हर थरार दुस्मानपण खतखतून वयर सरतच आसता. कालचो इश्ट आयचो दुस्मान जाता, कालचो दुस्मान आयचो इश्ट जाता. हें चक्र चालूच आसता. मनशाच मनशावांगडा फटिंगपणा करतात, दुबाव घेतात, मत्सर करतात. मनीसच मनशाक उपाशी घालता, मनशाचो अपमान करता, चाडयो करता. मनशाल्या मनांतल्यो सगळ्यो हीण भावना ह्यो मनशासंबंदानच तयार जाल्ल्यो आसात.

गौतम बुद्ध, महावीर प्राण्यांची हिंसा करू नाका म्हणटात पूण मनशाविशीं काय सांगीनांत. मोगाचीय भास ते करिनांत. येसू ख्रिस्त मात मनशामनशांमदी मोग, दया, क्षमा, सेवा हे गूण आसचे म्हण खूब सांगता. तुमी तुमच्या घराब्याचेर मोग करतात तेच परी तुमच्या शेजाऱ्यांचेरय मोग करात म्हणटा. पूण ख्रिस्ताची शिकवण आनी ताचो धर्म हांचो चडानचड प्रसार आनी स्वीकार जालो त्या युरोपांत म्हाझुजाची दोन मुळवणां पडली. शेजाऱ्यांचेरच घुरयो घालून तांची वाताहात केली. मुसलमान धर्मय भावचाराच्यो खबरी सांगता. पूण तांचो भावचार, तांच्या धर्माभितरच उल्ला. हेरांच्या राज्यांचेर मात अतिक्रमणां

करून जाय तो रगतपात केला. आमचो धर्म, आमची मनशां तितलीच बरी, हेर सगळे काफर. ताका मरणाची ख्यांस्तच फावो, हो कसलो शेजारधर्म?

इतल्या सगळ्या शस्त्रांची आनी महाअस्त्रांची निर्मणी, जाल्ली आनी जावंची आशिल्ली झुजां, म्हाझुजां, राश्ट्रांमदीं घातिल्ल्यो सिमो, सगळ्यो जासुशी यंत्रणां हीं मनशानच मनशामदीं केल्ली कारस्थानां जावन आसात. मनीसच मनशाचो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान.



# एकचार

विविधतायेंतल्यान एकचार ही एक फटकिरी कल्पना जावन आसा. ही विविधताय मनशाल्या उत्क्रांतीच्या सामक्या सुरवातेच्या पेण्यासान चलत आयल्ली आसा. मनीस जेन्ना रानटी चोम्या चोम्यांनी जियेतालो तेन्नाय केन्ना एकचार नाशिल्लो. ह्या टोळ्यांमदीं हाणामारिची झुजां जातालीं. तेन्ना विविधतायेच्यो कल्पना स्पश्ट नाशिल्ल्यो तरीय झगडीं जातालीं.. हो आपलो न्ही, हो भायलो, वळखदेख नाशिल्लो. म्हजो वाठार हातासूक आयला, म्हजी शिकार, म्हजी कंदमुळां हो मारून व्हरतलो. हांव उपाशी पडटलो. पयलीं वेगळेपणाची वा विविधतायेची संकल्पना मनशांतल्या अस्तित्वा वांगडा बांदिल्ली आसली. आतां ताचें स्वरूप विश्वव्यापी जालां. विविधताय अशें गोमटें नांव दिलें तरी ती आपसांतली फूटच आसता. ही फूट जाय ते फावट दुस्मानपणाचें रूप घेता. केन्ना झुजामेरेन पावता.

विविधतायेंतल्यान एकचार ही खंयची खबर सांगतात नकळ. संसारांत असो एकचार जाल्लो केन्ना पळोवंकच ना. आपलेच तितले व्हड. हेरांचे किंकोत. आपलेंच रगत स्रेश्ठ, शुध्द, आपलोच धर्म, आपलीच जात व्हड, आपलेंच राश्ट्र बळिश्ठ, आपलो रंग गोरोपिठ्ठ, काळो न्ही म्हजी भाशा शिरवंत, म्हजी लिपी नकसूद, हांव शिकिल्लो, तूं अनाडी, हांव बुद्धिजिवी तू

खणपी, हाणपी, हांव शिरवंत तूं गरीब. हांव कर्नाटकांतलो, तूं महाराष्ट्रांतलो, तुजो देव ल्हान म्हजो देव व्हड, जागृत, हांव शिवराक तूं मांस मटण खावपी, हांव फिरंगी पेन्ट घालता तूं धोतर न्हेसता, म्हाका इंग्लीश कळटा तू गावठी उलयता, म्हजी संस्कृती व्हड, तुजी बाबत, कितल्यो म्हण ह्यो विविधताय. चड फावट हे विवितायेंतल्यान हेरांक किकोंत लेखपच जाता, मागीर तातूंतल्यान एकचार कसो जातलो?

हें विविधतायेचे वा फुटिचें स्वरूप इतलें राक्षसी आसा तातूंत केन्ना एकचार आयलो ना, केन्ना येवंचो ना. 'ग्लोबल व्हिलेज' आयले तरीय मनशां फासपून पयस वचतच आसात. ग्लोबलायजेशनच्या काळांतय झुजां जायत आसात. देशांत विविधताय आसा, देशादेशांतून विविधताय आसा. आमी केन्ना एकचार म्हण सांस्कृतीक कार्यक्रमाची सवंगां नाचयतात आनी म्हणटात हो आमचो विविधतायेंतल्यान एकचार.

हे विविधतायेचो फायदो राजकारणी मतांखातीर घेतात आनी आनीक फूट पाडटात. इतिहासांत आनी आता लेगीत खंयच्या राजकारण्यांनी एकचार घडोवन हाडचो केन्ना यत्न केल्लो ना.

एकचाराच्या नांवाखाला काय फटकिरीपणाय चलतात, आदल्या ब्रिटीश साम्राज्याच्या गुलाम देशांचो एकचार म्हण कॉमनवेल्थ ही संघटना घडोवन हाडली. भारतासयत बरेच देश ते गुलामीचें जूं अजून व्हांवयत आसात, ताका नव्यान झळाळी दीत आसात. कितलो खोटो आनी अस्मिताहीन हो विविधतेंतलो एकचार. इतिहासांत इंग्लड हो सगळ्यांत खुनशी, अनीतिमान देश. तांणीं हेर देशांक लुटला, लोकांक भुकेन वळवळायला, लोकांचे खून पाडल्यांत. लोकांक गुलामीत कुसोवंक उडयला. जालियनवाला बाग हत्याकांड कोणें केले? एकवटेन हो लाजीरवाणो इतिहास फाटीर व्हांवप, दुसरेवटेन तांच्या पंगतीक जेवंक बसप!

भाशा एकचार इबाडूंक शकता. आज इंग्लीशीक लागून आमच्या देशाचो एकचार इबाडला. इंग्लीश शिकून गिरेस्त गडगंज जावंक सोदतले आनी आपले मूळ, आपली अस्मिता आपली संस्कृती राखतले हांच्यामदीं

उबी फूट पडला. इंग्लीश आमकां ल्हव ल्हव मानसीक गुलामी वटेन घेवन वचत आसा. मानसीक गुलामी ही सदांच राजकीय गुलामी घेवन येता हें एक सत.

आमच्या देशांत भाशेची विविधताय ही खरीच देशाची सोबीतकाय आनी गिरेस्तकाय हातूंत इल्लोय दुबाव ना. पूण जेन्ना कांय खुळचट लिपीची विविधताय आमची गिरेस्तकाय म्हण्टात तेन्ना तांची काकुयट दिसता.

आमकां भारतांतल्यो हेर भासो बेगीन कळनांत ते उतराक लागून, व्याकरणाक लागून न्ही तर लिपीक लागून. लिपीक लागुनच आमकां आसामी वाचूंक कळना, उर्दू वाचूंक कळना, मल्याळी वाचूंक कळना, इतलेच कित्याक कानडी लिपींत बरयल्ली कोंकणी रोमी लिपींतल्या कोंकणी मनशाक वाचूंक कळना. लिपी वांगडा मनशाचे कसलेच भावनीक नाते आसचें कारण ना. लिपी म्हण्टा ती फक्कत निर्जीव अर्थहीण रेघो. अर्थ, जीव आसता तो उतरात. ही लिपींची विविधताय सोंपिल्ली जाल्यार आमचो देशाचो एकचार आनीक घट जातासलो. लिपीन आमचे मदीं विसंवाद पातळायला. आमी आमच्याच लोकांच्यो भावभावना समजूंक शकनांत.

खरे तर संवसार जेन्ना राश्ट्रां बांदून, सिमो घालून रावंक लागलो. तेन्नाच संवसाराचो एकचार सोंपिल्लो. राश्ट्रां राखूंक हें सदां झुजाचे तयारेंत आसतात. शस्त्रां पुंजायतात. हेरगिरी करतात. तेन्ना एकचार कसो येतलो? राश्ट्र ही संकल्पना वयल्यान कितली गोमटी दिसता? पूण चडान चड झगडी राश्ट्रां राश्ट्रांमदी जातात.

ह्या राश्ट्रांचो एकचार राखूंक म्हण संयुक्त राश्ट्रसंघ सुरू जाल्लो. तरीय झुजां जायत रावलीं. संयुक्त राश्ट्रसंघाचो एक मुखेल जाळवणदार अमेरिका हाणें कितली झुजां मांडली? व्हियेटनामांत अमेरिका सतरा वर्सां झूज खेळ्ळो. व्हियेटनामाची धानाधिपस्टा करून उडयली. राश्ट्रसंघाची स्थापना जातकीरय संसारांत इतलीं झुजां जाल्यात ताची गणती करू येना. आयजवेर एकूय झूज राश्ट्रसंघाच्यान आडावंक जालें ना. अयशीं णव्वदच्या दशकांत इथियोपियांत पडिल्ल्या म्हादुश्काळान चाळीस लाख तरी लोक मेले. कितें करूंक जालें

राश्ट्रसंघाच्यान?

आजच्या घटकेक संसारांत मनशामदीं सगळ्यांत चड फूट घातली ती धर्मान. धर्म धर्माची विविधताय ही सोबाय नासून फकत दुस्मानपणच आसा. भारतांत हिन्दू मुसलमान दंगे जातात. पाकिस्तानांत शिया सुन्नी दंगे जातात. लेबेनांत हो कितलो सुंदर, शांत देश आसलो. थंय अयशींच्या दशकांत मुसलमान ख्रिश्चन दंगे जाले आनी पुराय देश उध्वस्त जालो.' विविध धर्मांतल्यान मनशाचो एकचार म्हटल्यार कितले हास्यास्पद आसा ते! झूज जावन वयतकीर त्या दोनय देशांमदीं शातिंच्यो, एकचाराच्यो, कबलातीबीन जातात. पूण धर्माधर्मामदी केन्ना एकचाराची कबलात जायत हाची कल्पनाच करूं येना. संसारांतल्या साताठ धर्माचे बरेच देव आसात. ताचो 'वयर' एकचार केन्ना जाल्लो आसतलो काय.

एकचार जावंक फावलो ना जाल्ल्यार केन्ना मोठो अच्छेव जाता. सातसेक वर्सां एकठांय रावनय हिन्दू आनी मुसलमानांमदीं केन्ना एकवट जावंक पावलो ना. ताचो परिणाम म्हणच भारताची फाळणी जाली आनी मोठो रगतपात जालो. कोट्यांनी लोक घरदार शेणून निराश्रीत जाले. जर्मन आनी ज्यू लोक देडेक हजार वर्सां जर्मनींत एकठांय रावले तरीय तांचेमदीं बरेपण आयले ना. शेवटा हिटलरान लक्षांशी ज्यूंक हालहाल करून माल्ले. पांडव आनी कौरव हे बापोलभाव आसले, तांचेमदीं बरेपण येवंचें म्हण कितले यत्न जाले, पूण जालो ना एकचार. शेवटा महाभारत झूज जालेंच.

अशें म्हणटात, संवाद नाशिल्ल्यान, विसंवादांतल्यान वायटपण येता आनी एकचार जावंक फावना. ते तितले खरे न्हय. मनशाचो अहंकारच खरो. महाभारताच्या झुजा पयली कितलीं शिश्टाई जाल्ली. दुसरे महाझूज जावंचे पयलीं जर्मन आनी इंग्लंडामदीं कितल्यो शिखर बसको जाल्यो. फाळणी जायत सावन भारत आनी पाकिस्तानामदीं वरचेवयर 'वाटाघाटी' जायत आसात. तरीय दुस्मानपण सोंपून सोंपना. एका घरांत रावतात, एका ऑफीसांत, कारखान्यांत काम करतात, तरीय वायटपण घेवन जियेतात. इतले लागीं आसुनय इतले पयसुल्लेंपण कशें? इतलेंच कित्याक, मोगान लग्न जातात,

कांय तेंप एक दुसऱ्याच्या मोगान पिशांतूर जातात, एके खाटीर न्हिदतात तरीय कांय काळान तांचेमदीं बेबनांव उपरासता. मागीर घटस्पोटाखातीर कोर्टाच्यो पायऱ्यो झरयतात. तांचेमदीं संवाद नाशिल्लोच अशे म्हणूं नज.

एक फावट कितें जालें, लग्नाच्या वेळार न्हवऱ्याकडच्यां आनी व्हंकलेकडच्यां मदीं हुंड्यावेल्यान, मानापमानावेल्यान वायटपण येयलें. मागीर ते दिसानदीस वाडतच गेलें. कोण एकलो फाटी घेवंक पळयनासलो. एकचार जायनासलो. ताचो सगळो ताप, सगळो कांच व्हंकलेचे तकलेर. तिची मनस्थिती इतली वायट जाली एक दीस ती गुपचूप आत्महत्या करून मेकळी जाली. वेगळेचारान घेतिल्लो तो बळी आसलो. वेगळेचाराचे ते हिंसक कृत्य आसलें.

तरीय लोक घराबो करून समाज बांदून कित्याक रावतात? कशे रावतात? फकत गरज. आपले अस्तित्वाखातीर, आपले सुरक्षिततायेखातीर. मुसलमान शिंप्यान शिंविल्ले कपडे घालतलो पूण ताका आपलो मानचो ना. ख्रिश्चन मेस्तान केल्ल्या मेजार जेवतालो तरी ताचेपसून पयस रावतलो. हिन्दू शेतकारान पिकयल्लें धान्य खातलो पूण ताका चड लागीं करचो ना. दलीत सवर्णांची आनी सवर्ण दलितांची मदत घेत आसतात पूण हांगा कित्याक जायना एकचार?

तसो मदीमदी इल्लो एकचार पळोवंक मेळटा. झुजावेळार एकादऱ्या देशांतले लोक भिरांतेन तरी एकवटान उबे रावतात. एकादऱ्या न्हंयेवेलो व्हड पूल वा व्हड धरण पळयलें, अवकाशान सोडिल्लो उपग्रह पळयलो तेन्ना दिसता ह्या लोकांनी हें काम एकवटान केला. निर्मणेंतली, ताच्या सुरक्षिततायेची बरीच कामां एकवटान जातात खरी!



# विसंगती

**ह्या** ब्रम्हांडाचो, ह्या संसाराचो, ह्या सैमाचो गाडो बेस सुसंगतीनच चल्ला. मनशाले आयुश्य मात विसंगतीन भल्लां. मनशाली नियती विसंगतीच हाडटा आनी मनशालें कर्तुबय विसंगतीच केळयता. नियती मनशाक सूख आनी दू:खाच्या रेवाड्यांत नाचयता, गांवदेश शेणून निराश्रीत करता, केन्ना तेंगशेर पावयता केन्ना तेंगशेवेल्यान पार धुकलून दिता. आपल्या तुपल्यांची मरणां घडोवन हाडटा आनी आमकां उबंतर उडयता, रडूंक लायता. गरीब आनी शिरवंत ही केदी व्हडली विसंगरी. नियती मनशाक  गरीबाचो शिरवंत करता आनी खिणांत गरीबिच्या रेबोडान धुकलता.

मनीसय उज्या वांगडा खेळिल्लेवरीं जिवीतभर विसंगती वांगडा खेळटा. जीव लावन मोग करता आनी केन्ना रागान पेटून उठ्टा. फुलांचो परमळ घेता, ताची सोबीतकाय तोखेता आनी मनशा मारूंक हातांत पिस्तोल, बंदुकूय घेता. भुरग्यांचो उपाट मोग करता, केन्ना ताका गर्भातच मारूनय उडयता. आवय बापायचो उपकार मानता, ताचे गूण गायता आनी केन्ना तांकां उबंतर करून मरूंकय सोडटा.

मनशाक हे विसंगतीचे शंबर गुन्यांव माफ आसात पूण विश्वाच्या पसाऱ्यांत, सैमांत ही विसंगती चलना. विश्व विसंगतीन वागूंक लागल्यार

हाहाकार जातलो. पिर्तुमी ज्युस्त वेळांत, ज्युस्त वेगान स्वताभोंवतणीं घुंवता आनी सुर्याभोंवतणीय भोंवडी मारता. सूर्य, चंद्र ज्युस्त आपले कक्षेंत घुंवतात. तुसबरय कक्षे भायर गेल्यार ते ब्रम्हाडांत भरकटून वतले. हेर गिऱ्यार, नक्षत्रार वचून आपटतले. ब्रम्हांडाक उजो पेडटलो.

सैमांतलीं सावदां, सुकणीं हांच्याय जिवीत क्रमांत येदी विसंगती ना. ताचे चरप, खावप, गोठणाक, घोटेरांत येवप ज्युस्त थारिल्लें. तांचे माजार येवप, तांतीं, पिलां घालप सामकें रुतुचक्राच्या तालारच. ज्युस्त वेळार सायबेरियातल्यान बगळे, बळारी भारतात येवंक सुटूटात. वेळार तांतीं घालून उबोवन पिलांक घेवन थारिल्ल्या वेळार परते वतात. इल्लो कळाव ना, विसंगती ना. तांच्यांत समलिंगी संबंद ना, रुतूच्या भायर लागीं येवप ना, बळजबरी ना.

एक झाड किल्लता, आंकरेता, पालेता आनी ताचें झाड जाता. वर्सवर्साक एकाच रुतूक फुलता आनी फळटा. दरवर्सा तोच परमळ, तेच रुचिचें, तेच आकाराचें फळ. रुतूवांगडा, पावसावांगडा सगळे सामके थारिल्लें. पानां झडचीं आसल्यार सामकीं त्याच दिसांनी झडटलीं, आनी त्याच दिसांनी पालेतलीं. इल्लेय फाटीफुडें ना. इल्लीय विसंगती ना.

मनशालें जिवीत मात विसंगतीन भल्ला. कसलोच काळवेळ ना, नितीनेम नात. नियती ताका विसंगतीच्या भोंवऱ्यांत घुंवडायना आनी तोवय विसंगतीनच गूरफटून आसा. वेळ ना, काळ ना, रुतू ना सदां शरीर सूखाची वखवख. गरजेभायर गिरेस्तकाय राशीक घालप आनी गरीबांक उपाशी उडोवप. मोग करप आनी फारय मारप.

एकलो व्यापारी आसलो. ताणें लोकाक नाडून पिळून खूब गिरेस्तकाय जोडली. इतको चामटो ताणें त्या गिरेस्तकायेचो इल्लोय उपभोग घेतलो ना, सूख भोगलें ना. बायलेकय सूख घेवंक दिलें ना. ताका तीग चले आनी दोगां चलयो. तो मरतकीर बापायल्या प्रोपर्टीखातीर, पैशाखातीर भुरग्यांमदीं हाणामारीची झगडीं सुरू जालीं. घरांत बोबो आनी हुयेल्यो. जो तो आपणाक मेळटा ते हातासूक पळयतालो. चलयोय मदीं पडिल्ल्यो. शेवटा एक दीस एका भावालो

भावानच खून केलो. तेगेली आवय तेन्ना रडटाना म्हणटाली. त्या घोवापासून म्हाका भुरगीं जावकच फावनासलीं. हांव वांजच उल्ल्यार बरें आसलें!' केदी व्हडली विसंगती ही मनशाल्या जिवीतांत!

विसंगत स्वभावार्ची घोव बायल, मालक नोकर, इश्ट इश्ट, भाव भाव नकळटां लागीं येतात. तांचे कशेंच पटना जाता. मागीर झगडून तोडून पयस वतात.

देवरायान आपले तांकीपरमाणें भांगरशिंगर घालून चलयेक 'बऱ्याकडेन' लग्न करून दिलें. आपले चलयेचें बरें जावंचें म्हण तो आंवडेलो. चलयेचेर जीव की प्राण! सदा चलयेचोच ध्यास, चलयेचेंच बरें चिंतप. एक दीस खबर आयली चली उज्यांत लासून मेली म्हण. तो धांवन धांवन गेलो. तेगेली मोगाळ धूव उज्यांत लांसून कोळसो जाल्ली. कांय जण म्हणटाले तिका हुंड्याखातीर लांसून माल्ली म्हण, तर काय जण म्हणटाले छळाक कंटाळून तिणें आत्महत्या केली म्हण. व्हंकल म्हण सजयल्ली गोरी गोमटी धूव कोळसो जावन पडिल्ली, केदी व्हडली विसंगती!

रातचे दोगजण सोयरे घरा येतात. घराचो मालक तांची बेसबरी सरबराय करता, जेवंक खावंक घालता, वास्तपुस्त घेता. तेच सोयरे रातचे मालकाचो खून करून, तेगेलो बायलेचेर बलात्कार करून, घर लुटून पळोन वतात! एके वटेन विश्वास आदर तर दुसरे वटेन हिंसा, विश्वासघात!

आपल्या तरणेपणाक रणां मारून, रणां जिंखून आयल्लो तो सैनीक अधिकारी. तेन्ना रगत सळसळटालें आनी कसल्याय संकश्टार झुडोन वतालो. पूण जाण्टेपणाक तो मधुमेह, फार्किसन ह्या दुयेंसांनी गलितगात्र जावन हांतरुणार पडलो. तरणेपणाचें तें सळसळटें चैतन्य आनीक आतांची ती अवतिकाय पळोवन मन कळवळटालें. नियतीन कसलो विसंगतीचो पाड केळ खेळ्ळो ताचेसरी? सूड घेतिल्लेवरी! खरें तर शक्त आनी गलिगात्र दुबळेपण, चैतन्य आनी काळोख, सूख आनी शोकांतिका, जिवीत आनी मरण, फूल आनी फातर हांचो हो विसंगत खेळ. चिंततात एक आनी घडटा भलतेंच. करता एक आनी जाता दुसरेच. एक वटेन रामाक शिंवासनार बसोवंची तयारी चलल्या तर

दुसरेवटेन ताका वनवासाक धाडचे कारस्थान. एकवटेन भारताक स्वतंत्र्य दिवंची तयारी तर दुसरेवटेन ताची फाळणी आनी रक्तखेव, एकवटेन 'पंचशीलाची' कबलात तर दुसरेवटेन चिनाचें भारताचेर आक्रमण. पुराण, इतिहास आनी वर्तमान अशा विसंगतीच्योच काणयो सांगतात. दया आनी हिंसा, त्याग आनी लोभ, मोग आनी मत्सर, सत आनी असत हीं विसंगतीचींच विविध रुपां.

एकेवटेन गंगेक पवित्र मानचे दुसरेवटेन आपली सगळी घाण, मडीं, मळ ओतून तें अशुद्ध अपवित्र करून उडोवप. झाडांपेडां आपले इश्ट म्हणप, तीच आमकां तारतली, सावळ दितली, नितळ हवा दितली, पावस हाडटली म्हणप आनी दुसरेवटेन तांची सर्रास कत्तल करप, दोंगर उक्ते बोडके करप. ह्यो विसंगती म्हटल्यार मनशाचो दुश्टपणा, क्रतघ्नपणा न्ही तर कितें? ऐंशी णव्वद वर्सांच्या म्हाताऱ्यांक वाचोवन घेवंक धडपडटात, हॉस्पिटलांनी हेडटात, पयशे वारयतात पूण अजून जल्माक न आयल्ल्या भुरग्याक गर्भांतच मारून उडयतात, केदी व्हड विसंगती!

दैव वा नियतीय मनशाल्या जिवीतात उणी विसंगती हाडीना. चड करून मनशाच्या दुःखाचीं कारणां तातुंतच आसतात. तो सकाळी मोटरसायकलीन कामाक वचूंक सुटिल्लो. बायल आनी दोगां ल्हान भुरगीं ताका हात हालोवन टा टा करतालीं. बायल सांगताली, आज बाबुलो बर्थ डे. येताना बरो केक घेवन येयात. पूण वताना वाटेर खंय तरी ताका अपघात जालो. सांजेचें तागेलें मडेंच घरा पावलें.

मोग आनी मरण हाची विसंगती खूबच दुखदेणी आसता. तिचो एकलोच पूत खूब मायेन ल्हानाचो व्हड केल्लो. ताका ती खूब खूब राखतालीं. तो नदरेआड जाल्यार थतरवितर जाताली. सदा पुताची तोखणाय, पुताचो हुस्को. एक दीस तो स्कुलाच्या पिकनिकेक गेल्ले कडेन न्हंयत बुडून मेलो! हे विसंगतीन ती पिशी जाली! केस बुडून घेवंक लागली.



# अणभव

अणभव म्हटल्यार वास्तव, अणभव म्हटल्यार सत्. अणभव गुरू आनी मार्गदर्शक. अणभव शिटकावणी, एक फावट फातरार पांय आपटून घेतकीर मनीस शादूरतायेन चलता. अणभव मरणाचे, अणभव काळखाचे. अणभव सुखाचे, दुःखाचे, फटवणुकेचे, मोगाचे, झगड्याचे, वेदनेचे, पयल्या पगाराचे, पयल्या शरीरसुखाचे....... दिसपट्टे असंख्य अणभव आमच्या संचितात एकठांय जायत आसतात, आमी मनांन शिरवंत जायत आसतात. 'अणभवी' मनीस म्हटल्यार नानातरेचे अणभव घेवन कर्तुबान शिरवंत जाल्लो मनीस.

अणभव तीन तरेन घेवंक येतात, एक, एकादऱ्या घडणुकेचे, सुखदुःखाचे स्वता प्रत्यक्षपणान घेतिल्ले अणभव. दुसरे समांतर अणभव, एकादरो मनीस आपली आवय मेली म्हण रडटाना पळोवन, आपली आवय मेल्ली तेन्ना आपणाक कशें दुःख भोगिल्लें हें येवजून ताच्या दुःखात सहभागी जाव येता. साहित्यीक चडकरून असलेच अणभव साहित्यांतल्यान केळयतात. तिसरे होलमल्ले अणभव, शेजारच्या घरांत व्हडान ताट वाजलें, आनी धुसफूस आयकूंक आयली तर काय अदमास काडूं येतात.

अणभव घेवंची आनी ते एकठांय करून मनांत, अंतरमनांत दवरची चेतना आशिल्ल्या कारणानच मनीस हेर मोनजातीपासून वेगळो, असामान्य.

अणभवांतल्यानच मनशाल्या संस्कृतीची उदरगत जायत आसता, मनशाचेर पिळगी दर पिळगी संस्कार जायत आसतात. अणभवांतल्यानच घराबो घडलो, लग्नां घडलीं, समाज घडलो, राश्ट्र घडलें. साहित्य अणभवांतल्यान घडलां. सगळ्यो कला, सगळी कलाकुसर अणभवांतल्यान घडल्या. झोपडेपासून राजमहाल, ताजमहाल ही अणभवाची एकेक पेणी. अणभवांतल्यान झुजात जैत मेळोवं येता. राज्य चलोवं येता. धंद्यांत पयसो जोडूं येता. इश्ट, दुस्मान वळखू येता.

अणभवांतल्यानच मनीस शेतां रोवंक लागला, धान्य पिकोवंक लागला. अणभवांतल्यानच मनशान बैलाच्या मानेर जूं दवल्लें, हत्तीक वावराक लायले, वागाक सर्कशींत खेळयलें. अणभवहीण मनीस म्हटल्यार कर्तुत्वहीण, संस्कारशुन्य मनीस आसता. आमी जाणट्यांक मानतात ताचो आदर करतात कारण तो अणभवी मनीस म्हण. संवेदनशील मनीसच चड खोलायेन अणभव घेवंक शकता. पुराय जिवीत जगूनय अणभवशुन्य मनीसय आसतात. ते स्वताचीय उदरगत करून घेनांत आनी हेरांकय मार्गदर्शन करूंक शकनात. अणभव प्रत्यक्ष जगपातल्यानच बरें येतात. वाचनांतल्यान, आयकोन आयल्ल्या अणभवाक खोलाय नासता. ते चड संस्कार करूंक ताकनात. एक पळयल्लें धा आयकल्ल्याच्या बराबर आसता.

अणभव क्रूर, हिंसक आसतात. अणभव मोवाळ, मोगाळ आसतात. आवयल्या पदराचो घेतिल्लो, भयणीले मायेचो घेतिल्लो, मावशेल्या हाताच्या अन्नाचो घेतिल्लो अणभव जिवीतभर सावळी धरून रावतात. तो तेन्ना तेरा वर्सांचो आशिल्लो. शाळेक वचून दनपरा घरा आयल्यार घरांत बापायचें मडें पडिल्लें. दोनच दीस दुयेंत आशिल्लो बापूय अचकीत भायर पडिल्लो, दुयेंत आवय ताचेसरी बसून सवण्यावरी चीं चीं रडटाली. तो अणभव फोटो काडिल्लेवरी ताच्या तकलेंत अजून जितोजिवो आसा. असे कांय अणभव पुराय जीवीतच विसकटावन उडयतात.

सावळ्याली व्हडली भयण बाळंत जाताना मेली. मागीर तेगेलें प्रेत आनी मेल्लें भुरगें वांगडाच घरांत मांदरेर घातिल्लें..... हो अणभव सावळो

केन्ना केन्ना दोळ्यांत उदक हाडून सांगता. कितलीशीच वर्सां जाल्यांत हे गजालीक पूण विसरायेक वचना तो अणभव.

साहित्याच्या बाबतींत तर अणभव साहित्याचे मुदलाचे मांडवळ आसता. तो साहित्यीकाच्या अंतरमनांतली संपदा आसता. अणभवाच्या पूर्वसंचितांतल्यानच साहित्य जल्माक येता. अणभव कलाकाराच्या संवेदनेक सदा जागयत आसता आनी कलाकाराक अस्वस्थ करता, निर्मिती करूंक लायता. दर एक अणभव जिवीताचेर भाश्य करता, जिवीताचें तत्वगिन्यान सांगता, आनीक पावल मुखार घालूंक लायता. साहित्यीक अणभवाचो कलात्मक अर्थ लावन, ताचें तत्वगिन्यान पिळून आपल्या साहित्याचो अविश्कार करता. मुळांत अणभव आसल्यारच साहित्याक मुळावेपण, भौलिकताय येता, खोलाय प्राप्त जाता. फकत कल्पनेन उबे केल्ले अणभवहीण साहित्य उथळ, सत्वहीण जाता. अणभव म्हटल्यार वास्तव आनी अणभव म्हटल्यार सत. ह्या सत्यांतल्यान साहित्याक झळाळी मेळटा. म्हण साहित्यीकांक आपल्या अणभवाचो आंवाठ वाडोवचे खातीर धडपडचें पडटा. आपले संवेदने सयत अणभवांत एकरूप जावंचे पडटा. अणभव साहित्याची कलात्मकता आसता तशें तें साहित्यिकालें प्रामाणीकपणय आसता.

काय अणभव आगळे वेगळे आसतात. साहित्यीकाक मुळांतल्यान अस्वस्थ करतात. केन्ना ते अणभव सांगूंकय जायनांत आनी दामून दवरूंकय जायनांत अशी अवतिकाय जाता. समजा, एकादऱ्या संवेदनशील साहित्यीकान बलात्कारा उपरांत खून करून उडयल्ली नागडी अस्तुरी पळयली तेन्ना ताची अस्वस्थताय तेंगशेक पावतली. तो न्हीद भूक शेणटलो. तो तो अणभव व्यक्त करूंक धडपडटलो. पूण जेन्ना ताका कळटलें हो अणभव व्यक्त करचे ताचे तांकीच्या भायर आसा तेन्ना ताका ते अस्वस्थकायेंत कांय मरणां मरचीं पडटलीं.

काय अणभव प्रत्यक्षपणान घेवप शक्य नासता. दादल्यांक बायलांचें वा बायालंक दादल्यांचें मनाकुडी भितरले अणभव घेवप शक्य नासता. ते फकत भावतात, होलमतात. एकादऱ्या घोवाघरा छळ सोंसपी अस्तुरेचे वेदनेचे

अणभव फकत तीच जाणां आनी तीच ती भोगता. हेरांनी फकत कल्पना करप.

बायलो दादल्यां परस चड संवेदनशील आसतात काय किते? सांगू नज. पूण तांचे अणभव मात प्रत्ययकारी आसतात. पूण बायलो आपले मनाकुडीचे अणभव व्यक्त करूंक खूब चामटेपण करतात, लजतात, भियेतात. कितले तरेचे, कितले मुळावे, सैमीक, मोलादीक अणभव तांगेले! तांचे वयात येवपच हें सैमीक काव्य. दादल्यांची वायट नदर, आपल्या तुपल्याकडच्यान जाल्ले विनयभंग, बलात्काराचे यत्न अशा हिंसक अणभवांतल्यान तांका केन्ना वचचें पडटा. तांचे लग्न, कामवासनेची थरथर, घोवालो मोग आनी दादागिरी, नव्या घरांत नांव गांव बदलून नवीं नातीं जोडप, राखप, तांची गर्भधारणां, गर्भपिशवेंतलें नाट्य, बाळंतवेणो, बाळंतन्हाण, भुरग्याक दूद दितनाची शिरशिरी! वयार येतसान अशा कितल्या काव्यनाट्यांतल्यान ती वता! पूण बायलो आपले अणभव व्यक्त करताना भोवच खाकुडटात. दोगी बायलो आपसांत उलयताना केन्ना हांवें आयकोंक ना, पूण त्यो आपल्यो सामके खाजगी अणभव आपसांत तरी वांटून घेतात काय? साहित्यांतल्यान लेगीत तिचे अणभव प्रांजळपणान उक्तेपणान येयीनांत. ती लजता काय भियेता म्हण? आपल्या खाजगी अणभवाक कलात्मकतेची सोबीतकाय दिवंची तांक आशिल्ल्या बायलांनी खरेंच साहित्य बरोवंचें. ताका आगळेच परिमाण फाव जातले.

हांवें लागींच्या मनशाकडच्यान आयकल्लो एक अणभव आसा. गेल्लीं बरींच वर्सां तो साहित्यांतल्यान केळोवंचो म्हण यत्न करता. पूण धीर जायना, वाचक तो भडक फटिचो अणभव म्हटले म्हण – तिका तिगां भुरगीं आसलीं. व्हडलो चलो इकरा वर्सांचो, दुसरी चली णव वर्सांची तर परत तिसरो चलो तीन वर्सांचो. तांच्या घराच्या कुशीनच वण्टीक तेंकून कुकडाचो घूड आसलो. व्हडलीं दोगांय भुरगीं सकाळीं शाळेक वचच्या घाईन आसली. तेन्ना आवयन व्हडल्या चल्याक म्हटले, ''बाबू घुडान हात घालून कोंबयेन तांतीं घाला काय चय.'' चल्यान वचून कोंबयेक मातशी कुशीक काडून तांतीं आसा काय तें

पळयलें आनी तो परतो येयलो. आवयक म्हटले, "आई, तांतीं काय घातले ना पूण पळयताना कोंबयेन म्हाका चोंच मात माल्ली."

भावान नीट पळयल्लें नासतलें म्हण भयण गेली आनी तिवूय कोंबयेन चोंच मारिल्ल्याची कागाळ घेवन आयली. मागीर तीं दोगांय भुरगीं शाळेक वचूंक गेलीं. काय वेळान आवय घुडासरी गेली. बाग घेवन घुडांत पळयल्यार भितर एक सर्प कवंडाळें करून आशिल्लो तिका दिसलो. दोगांय भुरग्यांल्या हाताक चोंच मारिल्ल्याचो प्रकार सट करून तिच्या लक्षांत आयलो. ती धाकल्याक तशीच सोडून शाळे वटेन धांवली. धाकलोय तिचे फाटल्यान येवंक सुटिल्लो. पूण तिणें ताचे वटेन लक्ष दिलें ना. मैलभर धांवतच ती शाळेंत पावली. पळयल्यार दोगांय भुरगीं साश्टांग पडिल्लीं. ताच्या तोंडार खुबसो फेणेर आयल्लो. कांय वेळांत तीं दोगांय मरून पडलीं. हे वटेन आवय फाटल्यान येवंक सुटिल्लो धाकलो वाटेर एका उदकाच्या फोंडांत पडलो आनी बुडून मेलो. तिगांय भुरगीं मेलीं आनी आवय सामकी धर्तरेक लागली. एका धपक्यांत नियतीन चोवगाचो बळी घेतिल्लो.

हो अतिवास्तव, भयांकृत, करूण अणभव साहित्यांत हाडचें धैर्य जायना. हाका कलात्मकतेची जोड दिताना, वाचकाक पटयताना बरेच त्रास जातले.



# स्वातंत्र्य

मनीस व्यक्तिगत, कौटुंबीक, सामाजीक, राश्ट्रीय या खंयच्याच पातळेर स्वतंत्र आसना. स्वातंत्र्य ही एक मिथ्या फटीची कल्पना. लोकशायेन राजकीय स्वातंत्र्य हाडला ते सामके मर्यादीत आसा. खरें तर मनशाक पावला पावलार पारतंत्र्याच्या बेडयेंत घुसपावन रावचे पडटा. दर एक पावल घालताना, दरएक उतर उलयताना शादूर रावचे पडटा. एक उतर चुकल्यार घरांत, भौसांत झगडीं, मारामारी, कोर्टकचेरी जावंक शकता. कोणाची अब्रू वचूंक शकता.

प्रवासांत दादल्यांक बायलांचो 'विनय' सांबाळचो पडटा. बायलांक दादल्याची भिरांत आसता. तिकीट वेळेर काडचे पडटा. आपलें सामान नीट राखचें पडटा. उखलताना ते पारखून उखलचे पडटा. खंयची गाडी, केन्ना सुट्टली, केन्ना पावतली सगळें लक्षांत दवरचें पडटा. खिशांतल्या पैशांचेर सारखी नदर दवरची पडटा. खीणभर स्वातंत्र्य, मुक्तताय नासता.

तो व्हडलो मंत्री, खूब सत्ता भोगता, पयशे जोडटा. पूण घरांतल्यान, कचेरींतल्यान भायर सरताना फाटीफुडें राखणदार पोलीस. एका खिणाची मुक्ती ना. एक खीण भिरांतेविरयत ना. रस्त्यान वयताना भिरांत खंयसानच सूंऽ गुळी येयत म्हण, गाडयेन वताना भिरांत गाडयेपोंदाक बाँब येयत म्हण. जेवताना

भिरांत कोणेंय वीख घालीत म्हण. आयचे हे व्हड राजकारणी कितल्या पारतंत्र्यांत भोगतात सत्तेचें सूख! हांगा सत्ता व्हड काय स्वातंत्र्य व्हड हो प्रस्न उट्ठाच.

गरिबी मुळांत मोटे पारतंत्र्य. तूं मजूर म्हण, कामदार म्हण काम करताना हेराकडच्यान किकोंत करून घेवंचे पडटा. वावर करताना तुका इल्लेय स्वातंत्र्य ना, कोणेंय सांगिल्लेच नीट ताच्या मनापारमाणेंच कर, इल्लें चुकल्यार धपकावणी. बाजारांत एक वस्त मनापरमाणे घेवंचे ताका स्वातंत्र्य ना. बायलेक भुरग्यांक मनापरमाणे खांवक जेवंक घालूंक, कपडेलत्ते घेवंक ताका स्वातंत्र्य ना. ताका झोपडेंत रांवचें पडटा, भाड्याच्या घरांत रावंचें पडटा. घर ताचे स्वतंत्र न्ही, घरांतय ताका स्वातंत्र्य ना. तो म्हारगायेचो गुलाम, वावर करून घेतल्याचो गुलाम, परिस्थितीचो गुलाम. केन्ना तो सोऱ्याचोय गुलाम जाता.

जे वेंचून घेवप आमच्या हातांत नासता, ते मोन्यान मनमारून स्वीकारचे पडटा, जुळोवन घेवंचे पडटा. तीं एकाअर्थान गुलामीच आसता. हें जुळोन घेवप सामके गर्भान आससान सुरू जाता. खंयच्या बिजावांगडा आपलो संयोग जावंचो, कोणाच्या पोटांत आपणें जल्म घेवंचो हाचें स्वातंत्र्य नासता. मागीर जुळोवन घेवप हें जल्मापसूनच सुरू जाता. आवय झगडाळ आसली, बापूय बेबदो आसलो तरीय मनीस जुळोन घेता. तांच्या गरिबी वांगडा कसलीच कागाळ करिनासतना जुळोन घेता. खरें तर हाचे परस दुसरे पारतंत्र ना.

आवय, बापूय, गांव, देश, जात, धर्म, रंग, रूप वेंचून काडप कांयच आमच्या हातांत नासता. आमकां धर्म आवडना, जात आवडना हाचेर प्रस्न नासता. कोण काळ्या रंगाच्या, कोण कुरूप चेहऱ्याच्या गुलामेंत शिरकून पडटा. ताचो त्रास करून येत रावता जल्मभर.

कितल्या जणांक बायल वा घोव मनासारखो मेळटा, कितल्या जाणांक नोकरी मनासारखी मेळटा. मनासारखे मेळना जाल्ले हे गजालींनी मनीस आपल्या स्वातंत्र्य गोठेवन घेवन घुस्मटत जियेता. केन्ना सुटावो करून घेवंक धडपडटा पूण सुटका ना. सदा घोव बायले मदीं झगडीं, नोकरेंत कटकटी, अपुरो पगार हातूंतच आयुश्य सोंपून वता. गुलामेन घेतिल्ले हे बळी आसतात.

खूब फार्टी मनीस नागडो भोंवतालो, कंदमुळा खातालो. राजा नाशिल्लो, राज्य नाशिल्लें, ताचे कायदेकानून नाशिल्ले तेन्ना मनीस स्वतंत्र आशिल्लो काय? तेन्नाय तो स्वतंत्र नासुंये. तेन्नाय घोग्यांनी पावस पडटालो, शीं खातालें, हेर प्राणी आंगार धांवन येताले. सोरोप चाबताले. सैमासरी झगडटा झगडटा जीण काबार जाताली. सुरवातेच्या काळांत मनशाक सैमान मुक्तपणान, स्वतंत्रपणान जियेवकच दिलें ना. असो सैमाच्या शेकतळा ताचो गुलाम जावन मनीस कांय लाख वर्सां जियेला.

मागीर मनीसच मनशाक पारतंत्र्यांत घालूंक लागलो. खंयच्यानय बांदून हाडून गुलाम म्हण विकूंक लागलो. जमीनदारी, सरंजामशाही ह्यो मनशाक आपल्या शेकातळा गुलाम करच्यो माण्ण्यो आसल्यो. पिळवणूक आनी गुलामी ह्यो एकच नाण्याच्यो दोन बाजू. मागीर आयली साम्राज्यशाही. ताणें तर हाहाकारच केलो. लोकाक गुलाम केले, लोकाक लुटले, लोकांची कत्तल केली. उलोवंक जायना, बरोवंक जायना, विचार करूंक जायना, मनशाल्या भावना, संवेदनाचेर बंदी घातली. तुमचे मातयेंत तुमी कितें रोवचें हाचें लेगीत स्वातंत्र्य काडून घेतलें. इतलीं झुजां आनी दोन म्हाझुजां कित्याक झुजले? फकत हेरांक गुलाम करूंक. चड फावट राजांनी, हुकुमशहांनी गुलामांचेरच राज्य केला, आदी तांचे स्वातंत्र्य काडून घेतला. कारण मुक्त मनशांचेर राज्य करप भोव कठीण आसता. आयजवेर सगळीं झुजां जालीं तीं स्वातंत्र्य आनी पारतंत्र्यामदींच. स्वातंत्र्याखातीर झुजतानाच संसारांत चड लोक मेल्यात.

शिवाजी, गांधिजी, सुभाशचंद्र, लेनीन, मार्टिन ल्यूथर किंग, नेल्सन मंडेला ही स्वतंत्र्यतायेच्या हावेसान जल्माक घातिल्ली स्रेश्ठ व्यक्तिमत्वां. तांका लागुनच स्वतंत्रतायेचो उजवाड संसारांत फांकलो.

पारतंत्र्य ही अनादी विश्वरूप काळी सावळी. जिणेच्या हर थरार ती पातळून आसा. आर्विल्ल्या संसारांत आनी लोकशायेंतय मूठभर पारतंत्र्य आनी चिमूटभर स्वातंत्र्य अशी गत जाल्या. लोकशायेंत केन्ना एकावन्न आनी एकुणपन्नास अशे गणीत जाता. एकावन्न टक्के अल्पमतांत वेंचून आयल्लो वचून मंत्री जाता, राज्य करूंक लागता. ज्या एकुणपन्नास टक्के लोकांनी

ताका मतां घातली ना तांचे कितें? ते खरे तर त्या मंत्र्याचे पारतंत्र्य भोगत आसतात. ताचे निर्णय मनाविरुद्ध मानून घेतात. तेन्ना मतदारांल्या स्वातंत्र्याचो संकोच जाता.

घरांतल्यान भायर पडटकीर आमी रस्त्यार गर्देंत ट्राफिकाच्या रेवाड्यांत सांपडटात, रस्त्यावेले कायदे पाळचे पडटात, कुशीच्या मनशाक, कुशीच्या गाडयेक राखचें पडटा, मुखार पोलीस उबो आसता. तेन्ना स्वातंत्र्य खंयच नासता. ऑफीसांत वेळार पावचें पडटा. थंयचे नेम, थंयचे कायदे, अधिकाऱ्याची मर्जी सगळें सांबाळचें पडटा. इल्ले चडउणें जाल्यार ख्यास्त जातली, नोकरी वतली ही भिरांत, घरांत इल्ली मोगाची ओलसाण आसता खरी पूण स्वातंत्र्य इल्लेय नासता. खरें तर मोगाच्या, मायेच्या पारतंत्र्यांत आमी घुस्पून उरतात. घरांतल्यांची भूक, तांचीं दुयेंसां, तांचे कपडे लत्ते, तांची रागरूस सगळें काडटाना आमी खंयच उरानात, आमचें स्वातंत्र्य उरना. आमच्या हातांतल्या पोतयेच्या दोरांनी आमचें स्वातंत्र्य बांदून घातिल्लें आसता.

आमचे शेजारी, आमचे वर्गणांतले, नात्यांतले सगळ्यांचो मान भौवमान राखचो पडटा. ह्या गुंथ्यातच मनीस जिवीतभर गुंथून उरता. कशीच सुटका ना. तांचीं दुयेंसां, तांचीं मरणां, तांचीं लग्नां तांचे बरेवायट सगळें सांबाळचें पडटा, ना तर तूं पाड, तूं कुसको म्हण कुशीक पडटा. वर्गणांची ही गुलामी मनशाक मुक्त स्वतंत्र जिवीत जगूकच दियना.

मनशान आंगार पयलें वस्त्र चडयलें तेन्ना सावन मनशालें पारतंत्र्य सुरू जालें. वस्त्र ना तर लज दिसूंक लागली आनी तो वस्त्राचोच गुलाम जालो. आपल्या कुडिचीच आपल्याक लज दिसप हाचे सारखी गुलामी दुसरी नासली. लज आनी भूक हीं दोन गुलामेची अदीम कारणां. भूक मनशाक हजारांनी वर्सां गुलाम करीत रावल्या. भूक भागोवंक मनीस घाणाक पडला, जमीनदारालें जूं पिळग्यान पिळग्यो खांदार घेवन वावुरला, बळिश्टाच्या पांयार पडला. भुकेनच मनशाक चड गुलाम केला. भुकेच्या भिरांतेन संपत्तीच्यो राशी घालपी हें खरें तर भुकेचेंच गुलाम आसतात.

कोणतरी जबरदस्तेन आमचेर संस्कार करतात आनी आमी अबुद्दपणान

ते मानून घेतात. जे पिरायेर आमचेर संस्कार जातात तेन्ना आमचेसरी विचार करची शक्त नासता. कोणाची तरी ती बळजबरीच आसता. मागीर आमी संस्काराचीं ओजीं घेवन जियेतात. हातूंत आपलें स्वातंत्र्य, आपली सैमीक वृत्ती, आपले बुद्दिनिशठपणा आमी शेणोवन बसतात. अन्न, वस्त्र, शिकप, वागप ताणी सांगिल्लेवरी, जात, धर्म तांचोच, इल्लो मुक्त श्वास ना. केन्ना हे संस्कार क्रूर, हिंसक आसतात. तर्कबुद्धीच्या पेल्यानचे आसतात. आपलो धर्म सर्वस्रेश्ठ मानपी, जात राखूंक सांगपी, फातराक देव मानूंक लावपी कसले हे संस्का!

वस्त्रमुक्त, संस्कारमुक्त, कायदोकानुनमुक्त, धर्मजात मुक्त जिवीत चिंतूंक कितले बरे दिसता! पूण जो मेरेन आमी भूकमुक्त, लज्जामुक्त, भयमुक्त जिवीत जगूंक शकनात तो मेरेन सगळीं बंधना येतच रावतलीं. समाज चोंब्यात जगताना वर्गणाचे नेम पाळटाना बरेचशें स्वातंत्र्य सोडचेंच पडटलें.



# भिरांत-विधायक संवेदना

**भि**रांत ही मनशाक अत्यंत उपयोगी, विधायक, अक्षय संवेदना जावन आसा. सामके जल्मापासून ती मनशाचो सांगात करीत आसता. खरें तर एक खीण मनीस भयमुक्त आसना. मनशाकच न्ही तर सैमांतल्या सगळ्या प्राण्यांक सुकण्यांक, जिवाण्यांक भिरांत ही आसताच. आमचे जाण्टेले म्हणटाले ल्हान झाड व्हड झाडाक भिता आनी जायतशें वाडता. कांट्या झाडाक सगळ्या जातीच्यो वाली भियेतात आनी तांच्या वाटेक वचनात.

वाग, शींव, हत्तीसारखे क्रूर, बळिश्ट प्राणी लेगीत भियेतात, चडकरून मनशांक भियेतात. इत्तले बळिश्ट प्राणी मनशासारख्या दुबळ्या प्राण्याक कित्याक भियेतात काय?

आमच्या गांवांत एक व्हड तळें आसा, ताका एकवटेन मोटो बांद आसा. त्या बांदार झाडाझोपां, कणकी बऱ्योच वाडल्यात. कांय वर्सांफाटी एक दीस हांव त्या बांदावेल्यान वाट काडीत वयतालो. तेन्ना हांवें पळयलें एकेकडेन तळ्यादेगेर एक नागसर्प फाडे वयर करून थीर आसा. लागींच दोन बदकां उदकांत पेंवतात. वयले वटेन एक सोंसो थंय किल्लल्लें तण ल्हाव ल्हव खायत आसा. हांवें काय वेळ झाडाआड उबो रावन तो देखावो पळयलो. मागीर मुखार वचूंक दोन पावलां घातलीं. म्हजी सुलूस लागतकीर

सर्प, बदकां आनी सोंसो खिणांत फुज्यो काडून नाच जालीं. म्हाका अजाप दिसलें हांव एकलो चौथो तांचे सरी उबो रावंक कितें हरकत आसली? पूण ना मनीसच तांचो एक नंबरचो शत्रू! ताचीच तांकां चड भंय!

एक काळाक मनीस उक्त्यार रावताना सर्पान मनशाक खूब पिडला. मनीस तेन्ना सर्प दिसलो की दांड्यान बडयतालो. आताय तेंच. तेच मनशाल्या रगतांत भिनला. सर्प आतां मनशापसून पयसच रावता. मनीस सर्पाक भियेता ताचे परस चड सर्प मनशाक भियेता.

मनशान प्राण्याक भिवप, प्राण्यान मनशाक भिवप, मनशान मनशाक भिवप हे अनादिकालापासून चलून येयल्लें आसा.

भिरांत ही अत्यंत शादूर अशी खिणाखिणाची संवेदना. हर जाग्यार हर खिणाक ती आपले अस्तित्व मनशाक दाखोवन दिता आनी शादूर जावंक सांगता. भिरांतेक लागुनच मनशाक मरणाची सुलूस लागता. मनशाक मरणापासून वांचोवचें हेच भिरांतेचें मुखेल काम. ह्या उत्क्रांती प्रवाहात मनीस आयजवेर तिगून उल्लो तो भिरांत बाळगिल्ल्यानच. भिरांत धरूंक नाशिल्ली जाल्यार केन्नाच काबार जावन वतासलो. ती एक सैमीक संवेदना जाल्ल्यान ताचे विशी लज धरचें कांयच कारण दिसना.

सोंसो तण खाताना, हरण चरताना, सोरोप बिळांतल्यान भायर सरताना इतलो शादूर उरता, खिणाखिणाक चोयवटेन पारखिता. खरेंतर ती मरणाचीच भिरांत आसता. जिवीत प्रवाहांत स्वताक वाटांवचो प्रामाणीक यत्न तो!

तरीय अत्यंतीक भंय आनी सामकेच भंयमुक्त जियेवप हें सैमीक नासता. ती विक्रतीच आसता. अशे दोन सामके विरुद्ध नमुने हांवें पासश्ट वर्सांच्या भारत पाकिस्तान झुजांत पळयल्लें. एकलो नायब सुबेदार आसलो, तो इतलो भियेतालो ताका मोच्यांतल्यान, बंकरांतल्यान वयर येवंकच भिरांत दिसताली. मुतूंक जाल्यार मोच्यांतच मुततालो. ताणें बंकरांत एक देवाचो ल्हान फोटो पुजिल्लो. बाँबांचो, गुळयांचो फारपेट सुरू जातकीर धांवन धांवन फोटयासरी वयतालो आनी आपणाक वांटाय म्हण पाराथतालो.

आनीक एकलो ढगा निकम म्हण जवान आसलो. तो सामकोच

भंयभिरांत विरयत डिफेन्सार वावुरतालो. गुळीबाराच्या पावसांतल्यान, बाँबार्डमेन्ट चालू आसताना उक्त्यार भोंवतालो. एक दीस ताणें एका अधिकाऱ्यासरी शर्त माल्ली, हांव शत्रुल्या डिफेन्सार वचून ताची एकादरी वस्त घेवन येता म्हण. खरें तर तो आत्मघातकीपणाच आसलो. अधिकाऱ्याकय तें खरें दिसूंक नासलें. पूण तो खरोच एके रातीक गुळीबार चालू आसतनाच बिनधास्त देडेक किलोमिटराचेर आशिल्ल्या शत्रुच्या डिफेन्साचेर गेलो. काळखांत थंयचो एक टेलिफोन काडून घेवन परतो येवंक लागलो. पूण येताना शत्रूक ताची सुलूस लागली. तांणीं फाटल्यान जोराचो गुळीबार केलो. तातूंत तो मेलो. हांव इतलीं वर्सां चिंतता ताचे ते 'धिरीश्टपण' सैमीक वृत्ती आशिल्ली काय विक्रती आसली? खरें तर स्वताक कसल्याय अरिश्टांतल्यान राखचें मनशाचें कर्तव्य जावन आसा. तरच तो स्वताखातीर, समाजाखातीर, देशाखातीर कितेंय करूंक शकता. आपलो जीव हो अशीच उधळून उडोवंची वस्त न्ही. ताका खूब खूब मोल आसा. भिरांतच ताची नीट राखण करूंक शकता. भिरांत मनशाची खरी राखणदार.

भिरांत केन्ना बरे विधेयक कामय करता. स्वातंत्र्या उपरांत चीन, पाकिस्तान बराबर भारताचीं चार झुजां जालीं. तेन्ना दर एक झुजाच्या वेळार भारत एकवटान उबो रावलो. तो असो उबो रावलो तो फकत भिरांतेन. हे भिरांतेंतल्यान देशाक चड शक्त मेळटा. सरादेर झुजतल्या जवाना फाटल्यान देश उबो रावता. राश्ट्रवाद हो भंयांतल्यानच जल्माक आयला.

मुळांत देवाचो जल्मय भिरांतेंतल्यानच जाला. सैमाक संकस्टां, म्हापूर, दुश्काळ, म्हामारी हांकां देवाचो स्राप म्हणून, देवान आनीक वायट करचे न्ही म्हण ताची पुजा सुरू जाली. महाराश्ट्रांत कांयकडेन लक्ष्मीची पुजा करचे पयलीं अलक्ष्मीची पुजा करतात, कित्याक तर लक्ष्मीन दिल्ले अलक्ष्मीन काडून व्हरचें न्ही म्हण. भंयाक देवाचे धर्माचे अधिश्ठान आसा.

सैमय भंयाक अवैध मानीना. एकादरो प्राणी इल्लीतरी मरणाची सुलूस लागत तर झूड धांवन वचून लिपता. ती ताची सैमीक प्रेरणाच आसता. मनीस धिरिश्ट आसप म्हटल्यार भंयाचो पुराय अभाव आसप अशे न्ही. भंयाक

लागुनच धिरीश्ट मनीस डावपेच खेळटा. स्वताक राखुनच हेरांचेर घुरी घालता, झुजातय स्वताक वाटायता. धिरीश्ट मनीस केन्ना अविचारी, अवसानघातकी आसना कारण तो  भिरांत बाळगिता. धीर आनी भिरांत हांचो सुवर्णमध्य साधपीच मनीस मुखार सरता, सफळ जाता.

चड भिरांतेची मात बरीच उणाकपणा आसतात, भितरो मनीस हेरामुखार लाचार जाता, पांयार पडटा, विनवण्यो करता, रडटा. तो झुटासून मुखार वचूंक शकना, आपलें बरें करून घेवंक शकना. भितरे केन्ना दुर्गुणीय आसतात, हेरालें फुकट हातासूंक पळयतात, आपणापरस दुबळ्याक पिडटात. आत्महत्या करून घेवपी चड करून भितरेच आसतात. भित्र्यांक लागुनच बळिश्ट चड मानतात. चड भित्रेपणा एक विक्रतीच आसता. अहिंसावादी महात्मा गांधीन एक फावट म्हणिल्लें. भितरो म्हणून घेवंचे परस हातांत शस्त्र घेवंचें म्हाका मानवतलें.

भंय धरप आनी भितरो आसप ह्यो वेगवेगळ्यो गजाली. आपलो बापूय, गुरू, जाण्टे हांचेविशी आमकां आदरपूर्वक भंय आसता. पूण आपल्या शत्रुविशीं भंय धरपी बिजूडच आसतात.



# बलिदान

तारीख बारा सप्टेंबर पासस्टची आसली. भारत पाकिस्तानामदीं घमासाम झूज चालू आसलें. आमी तेन्ना पंजाब सरादेर हुसेनिवाला हांगा डिफेन्सार तैनात आसलें. रातच्यो दोनयवटेनसान आक्रान्ताचो गुळीबार आनी बाँम्बार्डमेन्ट चालू आसलो. आमच्या मोर्चाकुशीकच आनीक एक मोर्चा आसलो. तातूंत हवालदार विश्णू कदम, जवान बंडू निकम आनी सहदेव चाळके आसले. ते शत्रूच्या डिफेन्सावटेन खूब जोराचो गुळीबार करताले. अचकीत ताच्या मोर्चाच्या बाजून घुम्म करून बाँब येवन पडलो. तो आवाज मातसो वेगळोच आसलो. बाँब भूंयेभितर फुटचो तसो घुम्म आवाज आयल्लो. तांगेल्या त्या मोर्चांतल्यान जावपी गुळीबारय बंद पडिल्लो. आमकां आगळोच दुबाव आयलो. हांवें दोनतीन फावट ल्हव शिळवण्यो घालून पळयल्यो. पूण जाप नासली. मागीर हांव ल्हवच मोर्चांतल्यान वयर सरून धांवत ताच्या मोर्चासरी गेलों. बाँब मोर्चांतच पडून मोर्चा फुटून गेल्लो. तांची तिगांयचीय मडीं छिन्नविच्छिन्न जावन पडिल्लीं....

खरें तर हें देशाखातीर दिल्लें व्हड बलिदान आशिल्लें हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

मागीर कांय वर्सांनी हांव विचार करूंक लागलो, अशें हें बलिदान

फकत देशाच्या सिमेचेर देशाची राखण करपापुरतेंच मर्यादीत ना. आनीक जायत्या वाठारांनी अशें हें बलिदान चोयवटेन जायते लोक दीत आसतात. देशाच्या, राज्याच्या, समाजाच्या, घराब्याच्या बऱ्याखातीर, तांचो व्यवहार सुरळीत चलचेखातीर लोक दिसपट्टे बलिदान दीत आसतात. कोण तें बलिदान म्हण घेना जायत, तांच्या बलिदानाची तोखणाय कोण गायना जायत तरी तें बलिदान चालूच आसा.

कोण एकलो बावडो सरकारी अधिकारी वा सरकारी इंजिनीयर बऱ्या संस्कारांतल्यान आयल्लो आसता. जिवीतांत नितिमत्ता सांबाळटा. खात्यांत चलिल्ल्या भ्रश्टाचाराक विरोध करता. ठेकेदारांची, मध्यस्थांची मनमानी चलूंक दिना. रस्ते, पूल बेस घटमूट बांदूंक जाय म्हण हट धरता. कमीशन न्हयकारता आनी हेरांकय खावंक दिना. फाटल्यो फुडल्यो 'घोटाळे' उक्ताडार हाडटा. एक दीस ताचो खून जाता, ऑफीसा भायर, घराच्या गेटीसरी..... खरें तर ताणें ते देशाच्या बऱ्याखातीर, समाजांतली नीतिमुल्यां सांबाळच्याक दिल्लें बलिदान आसता. हांची देशभक्त म्हण पुजा जावंक जाय, हांचो पद्म पुरस्कारान गौरव जावंक जाय! चौकात पुतळे उबे करूंक जाय. अण्णा हजारे भ्रश्टाचारा आड झुजता म्हण ताका तुमी व्हड मानतात. पूण जें भ्रश्टाचाराआड झुजून मेले, हुतात्मा जाले तांचे कितें?

शेतकार वोतांत कसता, पावसांत भिजता, हूम गळोवन शेत पिकयता. तांचे वांगडा ताची बायल, ताचीं भुरगीं लेगीत शेतांत वावर करतात. ताचे बैल वावुरतात. पिकयल्लें तो आपल्या पोटापुरते दवरून सरकाराक, व्यापाऱ्याक उण्याच मोलांत विकता. ते गांवांनी पावता, शरांनी पावता. लोकाची भूक भागयता. तो कापूस पिकयता, वस्त्रां विणूंक तो शारांतल्या गिरणींनी पावता. तो उस पिकयता, ताची साकर जावन लोकाल्या घरांनी पावता, लोक गोडगोड करून खातात. पूण एकदोन पाड वर्सां अशीं येतात, पावस पडना, वारो बरो वचना, दुकळ पडटा, पिकाक कीड बाधता, बँकेचें रीण तकलेर बसता. सगळ्या त्रासान शेतकार आत्महत्या करता. तें ताणें लोकाली भूक भागोवच्या, वस्त्रांनी आंग धांपच्या यत्नांत आसतानाच दिल्लें बलिदान आसता. तें सरादेर

जवानान दिल्ल्या बलिदाना इतलेंच मोलादीक आसता.

त्या दिसा आयतार आसलो. विश्राम फॉरेस्टर एकलोच त्या दिसा फॉरेस्ट नाक्यार आसलो. नाके रानांत बरेंच भितर आसलें. रातचे न्हिदतकीर ताका रानांत कोणतरी हाणटात, कातरतात तो आवाज आयकूंक आयलो. तो हातांत बेटरेदिवो घेवन भायर सल्लो. बायलेन आडायलो तरी थाल्लो ना. तो आवाजाचे दिकेन गेलो. थंय तीग जाण एक सागवानी झाड आड घालून तें कातरताले. विश्राम फॉरेस्टान मुखार वचून ताचेर बेटरेदिव्याचो उजवाड घातलो. ते धांवत वताना ताणें एकल्याक मिठी घालून घट धल्लो. तेन्ना तांतलो एकलो फाटी फिरून आयलो आनी ताणें फॉरेस्टराच्या फाटीर कुराडेचो घायो घातलो. फाटीकणो तुटून तो थंयच पडलो. पुराय रात ताची खबर नासली. दुसऱ्या दिसा आशीकुशीच्या गांवच्या लोकांनी सगळें रान सोदून ताचें प्रेत उखलून नाक्यार हाडलें..... खरें तर देशाची संपदा राखूंक विश्राम फॉरेस्टरान तें दिल्लें बलिदान आसलें. पूण पोलीसान येवन मड्याचो पंचनामो करून मागीर साद्या मनशावरी ताका लासलो. ताच्या बलिदानाची तोखणाय कोणें गायली ना. वर्सभरांत ताका लोक विसरूनय गेले! सामान्य मनशाक एक प्रस्न मात पडलो, लोकाक, सरकाराक दिनवास ना जाल्यार अशी ही मरणां कित्याक मरूंक जाय?

तरीय दिसपट्टे लोक ही मरणां मरत आसतात. सादो गरीब लायनमन, थोरमोट्यांची खंयतरी पार्टी चलिल्ली आसता. कोणाल्या घरांत जेवचो वेळ जाल्लो आसता, ऑपरेशन थियेटरांत कोणालें तरी आपतकालचे ऑपरेशन चलिल्लें आसता, अचकीत लायट वता. गांवभर सगळीं धांवपळ. बाबडो लायनमन लायट हाडूंक धडपडटा, ट्रान्सफॉर्मर पारखीता, वयर खांब्यार चडटा आनी खंयतरी करंट लागून मरता, केन्ना खांब्यावयल्याच सकल कोसळटा. हें बलिदान न्ही तर कितें? पूण कोणें केन्ना अशा मेल्ल्या लायनमनाचो गौरव केल्लो आयकलें ना. उलटें कोणाचें खंय कितें चुकलें हाचोच घोळ घालीत बसतले. तुमच्या घरांत उजवाड घालचे खातीर केल्लें ताचें बलिदान खिणांत विसरून वयतलें.

मरूनच बलिदान दिवंचें पडटा अशें न्ही. जितेजिवे बलिदान दिल्ले,

हौतात्म्य घेतिल्ले पळयल्यात. पाच भयण्यांलो तो एकलोच व्हडलो भाव. बापूय भुरगीं ल्हान आसतानाच मरून गेलो. मागीर आवय मानसीक रोगी जावन पिशेपणा करूंक लागली. भावान कशाबशी बारावी पास करून ल्हानशी नोकरी धल्ली. ताणें मागीर भयणींक थोडेभोव शिकयलें आनी भोव कश्टान एकेक करून सगळ्यांलीं लग्नां करून दिलीं. तांगेल्या जातींत हुंड्याचें खूब आसलें. तातूंत आनी एक भयणील्या लग्ना उपरांत बऱ्योच कटकटी जाल्यो. निमाण्या भयणीलें लग्न जालें तेन्ना तो चाळीशीक तेंकिल्लो आनी रीणांत बुडिल्लो. इतल्या वर्सांच्या कश्टान, चिंतेन, उपासातापासान ताचे केंस पिकिल्ले आनी भागून बरगून रोखडोच भणंग म्हातारो जाल्लो. ताका आतां लग्नाक चली दिवंकय कोण तयार नासलो.

वेल्यावेल्यान पळयल्यार हें घराब्याखातीर दिल्लें बलिदान दिसता, पूण खरें तर ते कर्तव्याखातीर, मोगाखातीर, मनीसपणाखातीर दिल्लें जिवें बलिदान आसलें.

रस्त्यार खूबच गाडयो धांवताल्यो. नेमाभायर कांय जण खूब वेगान गाडी चलयताले. वन् वे, टू लेन, फोर लेन हो घुस्पागोंधळ आशिल्लोच. मुखार एक सर्कलार गाडयो घुंवन पासार जाताल्यो. थंय एक पोलीस उबो आशिल्लो. शिटी घालीत, हात दाखयत. तेन्ना मुखार ढाऽ करून व्हडलो आवाज आयलो. एकल्यान रस्त्यावयलो फोंड चुकोवंक मोटर सायकल उजवेवटेन घेतली तेन्ना फाटल्यान वेगान येवपी मोटारीन ताका जोराचो धपको दिलो. तो सकल आपटून तकली फुटून मेलो. पुराय येरादारी सिश्टमान, पाड रस्त्यान ताचो बळी घेतिल्लो. ताणें पुराय येरादारीच्या येवजणेक आनी उदरगतेक दिल्लें तें बलिदान आसलें. अशी ही येरादारीची उदरगत जायत वता तेन्ना तातूंत लोकाचो बळी वतलो हें गृहीतच धरिल्लें आसता. त्या खातीर बऱ्याच लोकाक बलिदान दिवंचें पडटा. केन्ना बस भरून लोक धेंगणांत पडटात वा बस लासून मरून वतात. हें बलिदान चड फावट फुकटच वता.

अशें हें बलिदान संसाराच्या सुखाखातीर, सातत्याखातीर हरघडी चलिल्लेंच आसता. उजो पालयताना उजो पालोवपी दळांतले शिपाय मरतात.

घातक, प्रदुशीत कारखान्यांत काम करपी कामदार खिणाखिणान मरतात. आयजवेर कितले संशोधक, विज्ञानीक, समुद्रवीर, अंतराळवीर मरून गेल्ले आसतले? कायद्याच्या, न्यायाच्या खोट्या, चुकीच्या निर्णयाक लागून आयजवेर कितले बंदखणींत कुसून मेल्ले आसतले? हांच्या बलिदानाच्या पांयारच ह्या संसाराची न्याय व्यवस्था उबी आसा.

खंय एक व्हंकलेक घोव, सासू, नणंद लासून मारतात. वयल्यावयल्यान पळेल्यार तो कुटुंबीक थरावेलो गुन्यांव कसो दिसता. खरें तर ते अस्तुरेन लग्नसंस्थेखातीर कुटुंबाच्या वेदिकेचेर दिल्लें बलिदान आसता. कोणाकतरी मरूनच ताचें सातत्य राखून दवरचें पडटा.

बाळंत जाताना मेल्ल्या अस्तुरेचें बलिदान हें अख्ख्या आवयपणाखातीर दिल्लें सर्वोच्च बलिदान आसता. ताका दर दिसा सकाळी उठून नमन करूंक फाव.



# संस्कृती

संस्कृती हें वरचेवयर आमच्या कानार पडपी उतर. पूण ताची व्याख्या करप, ती विसकटावन सांगप बरेंच कठीण. ती एक खांवची, जेवंची, न्हेसची, उलोवची पद्धत इतलेंच सांगून जमना. संस्कृतीचीं मुळां आमच्या आत्म्यापासून खूब पुर्विल्ल्या फातरा युगामेरेन पावतात. संस्कृतीन आमचें रगत आमचे जीन्स, जल्मगूण प्रभावीत केल्यात. अनुवंशीकता म्हणटाना तातुंतल्यान संस्कृती वेगळावंक येना. तो सर्वथरावेलो सर्वकश प्रभाव. आमच्या जिवीतांतलें एकय आंग स्वंस्कृती पसून मुक्त ना, सुटे ना. दाव्या हाताचो केन्ना उपेग करचो आनी उजव्या हाताचो केन्ना उपेग करचो हें लेगीत संस्कृती थारावन दिता. जें थारावन दिता तें कांय पिळग्यांच्या अणभवांतल्यान आयल्लें आसता आनी जुस्त दुरूस्त आसता. संस्कृती खूब कृतज्ञ आसता. म्हण ती भूंयक, न्हंयक देव मानूंक लायता. सोयरो–अतिथी ही संकल्पना संस्कृतींतल्यान आयल्या. संस्कृती जाण्ट्यांक मान दिवंक लायता, आवयबापायली सेवा करूंक लायता. करुणां, क्षमा, सेवा ह्यो संकल्पना ल्हवल्हव संस्कृतींत समाविश्ट जायत आयल्यात. सुसंस्कृत मनीसच दयावंत आसता, परउपकारी आसता.

संस्कृती सत आनी सुंदर आसता. असत्, अनैतीक तातूंत कांयच नासता. अंधश्रद्धा, कर्मकांडा हांकां संस्कृतीन स्थान ना. अंधश्रद्धा, कर्मकांडान

संस्कृतीक बुरशे केला. कांय अविचारी लोक हांकां संस्कृतीचो भाग मानतात. ते फटकिरेपणा जावन आसा.

संस्कृती बरे उलोवंक शिकयता, बरे वागूक शिकयता आनी मोग करूकय शिकयता.

पुराय भारताच्या संस्कृतीचो अंतरप्रवाह एक अशे म्हणू येता. पूण अख्ख्या संसाराचो संस्कृतीप्रवाह एक म्हणू नज. ह्या संसारांत नरमांस खातले लोकय आसात आनी चलताना पांयां पोंदां मूंय पडून मरतली म्हण भियेतले लोकय आसात. भारतांत धवीं वस्त्रां न्हेसप दुःखाचें, सुतकाचें प्रतीक मानतात तर युरोपात नवे व्हंकलेक लग्नाक धवीं वस्त्रां न्हेसयतात. खंयच्याय ग्रंथान हेर खंयच्या देशांतल्या संस्कृतीचेर प्रभाव घातला अशें म्हणू नज. पूण रामायण आनी म्हाभारत ह्या महाकाव्यांन भारताल्या संस्कृतीचेर सर्वकश सखोल प्रभाव घातला. सिता, सावित्री ह्या देशांतल्या बायलांचें आदर्श थारल्यात. राम आनी कृश्ण दोन स्वभावाचीं दोन तोकांचीं दोन व्यक्तिमत्वां पूण तांणीं भारताच्या संस्कृतीचेर मोटो मनभुलायणो प्रभाव घातला. म्हणच भारतांत भोग आनी त्याग हाचो बेस सुरमेळ साधिल्लो आसा. गौतम बुद्ध, महावीर आनी महात्मा गांधी हांच्या समता, सत्य, अहिंसा, करुणा ह्या तत्वांनय भारतीय संस्कृतीचेर मोटो प्रभाव घातिल्लो आसा. म्हण भारत देश सर्वसावेशक, शांत स्वभावी जाल्लो आसा.

भारत देश हो भोवकरून शेतकामत्यांचो देश, कृशी संस्कृती ही सैमसिद्ध, प्रामाणीक आसता. ताचो संबंद भूंय, माती, गोरवां वासरां, पावसपाणी, दोंगर, रानां, झाडापेडां हाचे वांगडा. रुतूचक्रांत घुंवपी ती शेतकामत्यांची संस्कृती उन्नत, मोटी मनभुलायणी आसता. चडसो लोकवेद तांच्या संदर्भांतल्यानच निर्माण जाला. भारतांतल्या कृशीसंस्कृतीक दैवत्व आनी पावित्र्य प्राप्त जाल्लें आसा.

संस्कृती घराच्या उंबऱ्यासरी आसता, रांदचेकुडींत आसता. संस्कृती आंगणांतल्या माडासरी, केळीसरी, अबोल्यांच्या आळ्यासरी आसता. संस्कृती बायलांच्या कुडीर आसता, बायलांच्या मनांत आसता. संस्कृतीन माडाची,

केळीची, अबोल्याची रुपकां केल्यांत. ताच्या अस्तित्वाक अर्थ दिला, पावित्र्य दिलां. संस्कृतीन दर एक नात्यांतल्या संबंदाक मोग दिला, अर्थ दिला, आपलेपण दिलां आनी मर्यादाय सांगल्यात. संस्कृती मनशाक सुसंस्कृत करता. असंस्कूत मनीस दिशाहीण आसता, भोगाफाटल्यान धांवता. भोगाफाटल्यान लागिल्ल्या द्वारकेंतल्या यादव कुळांतल्या लोकान आपली संस्कृती सोडून दिल्ली. कृश्णानच सुरू केल्ल्या रास क्रिडेचो अतिरेक जालो. ताका सोऱ्याचो सांगात मेळ्ळो आनी यादव कुळाचो विनाश जालो. कृश्णान निमाणें आपली चूक कळून आयल्ली जावंये, म्हण ताका हताश अवतिकायेंत मरण आयलें.

संस्कृती आनी कला ह्यो एकच नाण्याच्यो दोन बाजू. बरी संस्कृती ही सदांच कलेक पोसवण दिता. आमी इतिहासात जांकां भागराकाळ म्हणटात ते कला आनी संस्कृती उदरगतेक पाविल्ले काळच आसले. ह्या काळान सर्वतरेच्या ज्ञानांचीय उदरगत जाल्ली आसता. अशेंच म्हणू येता, कला आनी ज्ञान हीं पुढारिल्ले संस्कृतीची उन्नत आंगां.

संस्कृती ही विचार करपी सदा बदलत रावपी मनीस जातीच्या बाबतींतच शक्य आसा. सगळीं मोनजात हजारांनी वर्सां आसा तशीच आसा, इल्लीय बदलूंक ना. मनीस बदलत आसा उन्नत जायत आसा, कारण ताका संस्कृती आसा. ही संस्कृती ताच्या विचार करच्या तांकींतल्यान सोबीतकायेविशीच्या मोगांतल्यान अवतरल्या.

संस्कृतीक केन्ना मरण नासता, पिळगी दर पिळगेक ताचे पुररुत्थान, नवीनीकरण जायत आसता. पाशाणयुगांतली संस्कृती आज मेल्या म्हणप चुकिचें, आयची संस्कृती ताचीच सुधारिल्ली आवृत्ती. ती पोन्नेय घेता आनी नवीन अविश्कारय घडयता. संस्कृती वाठाराप्रमाण दिशा बदलता पूण ती दिशाहीण मात नासता. तातूंत बरीच सुसंगत समानता आसता. कारण सगळेकडेन मनशाल्या मनाचे अधिश्ठान एकच आसता. सगळ्यालेच काळीज धडधडटा, सगळ्याल्याच दोळ्यांत दुकां येतात आनी तोंडार हाशे उदेता. भारतांतली तर दर एक वाठारांतली संस्कृती ती भारतीय संस्कृतीचोच प्रादेशीक अविश्कार जावन आसा. ताचें उगमस्थान एकच आसा. देशबंधुप्रमाणे आमी संस्कृतीबंधूय

आसात.

धर्म मात संस्कृतीचो भाग जावंकच शकना. धर्मांतल्यान संस्कृती व्यक्त जायना. धर्म संस्कृतीचे वाटे घालतात आनी मनशाक वेगळायतात. संस्कृतींतल्या समतेच्या विचाराक धर्म धको दिता. संस्कृतीक देवाचें मुळवण आनी पाठबळ नासलें तरीय संस्कृती धर्मापरस व्हड. धर्मांचो उगम हो संस्कृतीप्रवाहांतली एक आगळीक. धर्मान संस्कृतीक मोटवी केल्या. कर्मकांडां, अंधश्रद्धा, वेगळोचार ही धर्माचींच कर्तुबां. धर्म देवाचेय वांटे घालता. धर्म नाशिल्ले जाल्यार घडये सगळी मनीसजात एकच जावन एकाच संस्कृती प्रवाहात मुखार सरतासली.

उलट भाशेक लागून संस्कृतीची मोटी उदरगत जाली. ताका कितलेशेच आयाम फावो जाले. स्वताक व्यक्त करची शक्त मनशांत आयली आनी रासवळपणान जिवीत तणें मुखार व्हेलें. भाशेंतलें दरएक उतर संस्कृतीचेच भाश्य करता. लोक साहित्य आनी लोकसंगीत हे भाशेंतल्यान, उतरांतल्यान उपराशिल्लो मोटो मनभुलयणो अविश्कार. भाशा ही संस्कृतीचो कणो आसता, संस्कृती वांगडा भाशाय राखूंक जाय म्हणटात ते हे खातीरच. भाशा मेल्यार संस्कृतीचे तेजच नश्ट जाता. राजकीय आक्रमणापरमाणें सांस्कृतीक आक्रमण लेगीत आसता. हातूंत भाशेचो अस्त्र म्हण उपेग जाता. दुबळ्या पोटभरू लोकाक ह्या अस्त्राचो अर्थ कळना. ते बळिश्टांच्या भाशेक बळी पडटात आनी आपल्या निजाच्या संस्कृतीचो नाश करतात. भाशीक, सांस्कृतीक गुलामी ही मानसीक गुलामीच आसता. मानसीक गुलामी सदांच राजकीय गुलामी घेवन येता. कारण असो मनीस आत्महीण, अस्मिताहीण आसता. अशा लोकाचेर धपको दिवप सोंपें आसता.

संस्कृती तिगोवन दवरप हे मोठे अग्निदिव्य आसता. एकादरी संस्कृती नश्ट जाता तेन्ना त्या वाठारांत, त्या देशांत मुसूंड अवतिकाय पातळटा. तो देश दीर्घ काळखापोकळेंत शेकड्यांनी वर्सां पडून उरता. आदल्यो भारत, चीन, इजिप्त, ग्रीक संस्कृत्यो नश्ट जाल्यो तेन्ना अशीच अवतिकाय त्या देशांनी आयल्ली. हो काळ चड करून अंदाधुंदीचो, गुलामीचो काळ आशिल्लो.

संस्कृती मातयेवांगडा, सैमावांगडा, प्रदेशावांगडा प्रामाणीक आसता

आनी ती थंय सैमीकपणान वाडटा. तेन्नाच ती सोबीत सुंदर आसता. आयज परक्या इंग्लीश भाशेवरवी भारताच्या संस्कृतीक धोको उपरासला. भिरांत दिसता ताका लागून भारतांतले लोक आपलो आत्मो शेणून बसतले आनी गुलामीक होरायतले म्हण! कारण इंग्लीश भास हे मातयेतली, ह्या सैमातली न्ही. ती परकी संस्कृती केळयता.



# विश्वास आनी अविश्वास

भुरगेपणाक आमच्या घराब्यातले दोग बापोलये शेताच्या कारणावेल्यान खूब झगडले. मध्यानरात मेरेन तांचें तें झगडें चालू आसलें. परते परते एक दुसऱ्याच्या आंगार धांवन वयताले आनी मारता तुका, चांचयता तुका म्हणटाले. मदीं तर एकलो घरांतली कुराड हाडूंक धांविल्लो. रातचें केन्नातरी तांचें झगडें सोंपलें. त्या काळार गिमांत लोक आंगणांत माटोव घालून उक्त्यारच न्हिदताले. तर हे दोगय झगडचे रावतकीर आपआपल्या आंगणांत वचून उक्त्यारूच न्हिदले. कांय वेळापयलीं एकदुसऱ्याचो जीव घेवंक उठिल्ले ते अशे आतां उक्त्यार न्हिदिल्ले..... हो एक विश्वास आसलो जो खर दुस्मानपणांतय तिगून आसलो.

हो संवसार बळाचेर, पयशांचेर तिगून ना, मोगाचेरय तिगून ना. फकत विश्वासाचेर तिगून आसा. विश्वास आसता थंयच मोग आसता. जंय विश्वास मरता थंय मोगय सोंपता. नात्यानात्यांत मोग आसचो पडटा, मोगात विश्वास आसचो पडटा. विश्वास गेलो म्हणटकीर सगळेच इबाडून वता. नातीं कुसून वतात. संवसारांत सगळ्यांत अवघड काम खंयचें आसत तर ते विश्वास राखून दवरचे. विश्वास कांचेच्या आयदनावरी. केन्नाय सट करून तडकूंक शकता, कोणय तुजी खरीखोटी चाडी कोणाकडेनय करता आनी विश्वास तुटून वता.

तो परतो मेळोवप कठीण जाता. विश्वास म्हटल्यार बेठी उतरां न्ही, बेठो मोग न्ही, विश्वास कर्तुबांतल्यान सिद्ध करचो पडटा.

प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष आमी विश्वासाचेर जियेतात. सरादचेर आमचे जवान देशाची राखण करतले हो आमचो विश्वास म्हण आमी देशप्रेमाच्यो, राश्ट्रीयतेच्यो खबरी करतात, आमची स्वतंत्रताय, आमची भास, आमची संस्कृती सुगूर उरतली असो विश्वास धरतात. बशींत बशिल्ले साठसत्तर लोक चलयतल्या ड्रायव्हराचेर विश्वास दवरून सुशेगात बसींत बसून आसतात. रेल्वेच्या वाटेर कितलीं सिग्नलां, क्रासिंगा, स्टेशनां तरी रेल्वेंत बशिल्ले हजारांनी लोक विश्वास दवरून आसतात, ड्रायव्हर आमका सुखरूप व्हरून गांवच्या स्टेशनार पावयतलो! इल्ल्याश्या उंचायेवेल्यान पडत म्हण भिरांत धरपी लोक विमानांत बसून आकाशांत अधांतरी कशे वयतात? कोणाच्या विश्वासाचेर?

घरांत घोव बायलेचेर आनी बायल घोवाचेर विश्वास दवरता. भुरगीं बापायचेर विश्वास दवरतात. फाल्यां पावस पडटलो ह्या विश्वासाचेर शेतकार भूंयेंत बीं पेरून दवरता. भुरगीं मास्तर आपणाक बरें आनी खरेंच शिकयतलो म्हण कितल्या विश्वासान शाळेंत वचून वर्गांत बसतात!

एकादरो आपल्या बागेंत कवाथो, आंबो लायता आनी वर्सानुवर्स शिंपत रावता. कित्याखातीर? फाल्यां आपणाक फळ मेळटलें ह्या विश्वासाचेर!

विश्वाशी मनशांक लागुनच ह्या संवसाराचो राटगाडो चड बरो चल्ला. आदींमनशापासून हालीच्या सुधारिल्ल्या मनशामेरेन मनीस विश्वासाचेरूच जियेत आयला. उक्त्या मळार, भुयेंरांत, झोपडेंत तो हजारांनी वर्सां बिनकुलपाचोच जियेतालो. कुडीकुलपाबगर जियेवप हो केदो व्हडलो विश्वास आसलो.

सैमावेल्या विश्वासांतल्यान मनशाचो विश्वास वाडीक लागिल्लो आसूंक जाय. पावस पडटलो, बीं किल्लतलें, धान कणशेतलें, झाडांक फळां धरतलीं. दुकळ सोंपतलो, हुंवार निशेतलो, रातीच्या काळखा उपरांत फाल्यां उजवाडटलें हो अदीम विश्वास खरो थारत आयल्लो. तेचपरी मनशाचेरय तो असो विश्वास दवरीत आयल्लो. आवयचो, भयणीचो मोग हो विश्वास आसलो, बापायची राखण हो विश्वास आसलो. फळांक, कंदमुळांक रूच

आसली. उदक तान भागयताले.

तरीय मनीस अविश्वासू कित्याक जाता? केन्ना भिरांतेंतल्यान दुबाव आनी दुबावांतल्यान अविश्वास उपरासता. पांयांमुळांतलो सोरोप चाबतालो, वाग केन्नाय आंगार हुडी घेतलो ही भिरांत आसतालीच. हे भिरातेन हजारांनी वर्सां मनशालो पाठलाव केला. तांतल्या अविश्वासांतल्यान तो थतरवितर जाला.

आतां तर काळ बदल्ला. सैम फाटी पडला आनी मनीसच मनशालो दुस्मान जाला. आतां भुरगें आंगणांत एकलें खेळूंक शकना, अस्तुरी एकली रस्त्यान चलूंक शकना. मनीस घराक गडगंज कुलूप माल्लेबगर घरांतल्यान भायर वचूंक शकना. काळखाक मनीस भियेता, एकसुरेपणाक भियेता आनी भौसाच्या गर्देंतय भियेता. कारण कितें तर मनशांमदलो अविश्वास. दुबाव आनी अविश्वास एकच नाण्याच्यो दोन बाजू. अविश्वासांतल्यान दुबाव उप्रासला.

विश्वास तुटप केन्ना भोव दुखदेणें आसता. आवय बापूय भुरग्यांक भोव मायेमोगान ल्हानाचो व्हड करतात. दिसता हो आपल्या जाण्टेपणाक आधार जातलो. पूण पूत आंगान माततकीर आवय बापायक खोटावन पयस वता. प्रोपर्टीखातीर झगडटा. ह्या अविश्वासान आवय बापूय अवसानखात जातात. त्या धपक्यान वथरेवन हांतरुणाक लागतात आनी मरून वतात. ते विश्वासघाताचे बळी आसतात.

भावभाव भुरगेपणाक कितल्या विश्वासान, आपलेपणान जियेतात! पूण वडलांच्या मालमत्तेची वांटणी करून घेताना एक दुसऱ्याचे दुस्मान जातात. मारामारीय करतात. भुरगेपणापासूनचो हो विश्वास तुटप कितले हीनपणाचे आसता! एकादरी व्हंकल लग्न जावन कितल्या आपलेपणान विश्वासान घोवाघरा येता. सासू सासरो ताका आपले आवय बापूयच कशे दिसतात. देर, नणंद भाव भयण कश्यो दिसतात. घोवाक विश्वासान तें सगळें ओपून मेकळें जाता. तेच लोक ताका एक दीस हुंड्याखातीर वा हेर कारणाक लागून लासून मारतात. केदो व्हडलो विश्वासघात हो!

चोरी, दरोडे, खून, बलात्कार, फसवणूक अश्या सगळ्या सगळ्या गुन्यांवा फाटल्यान विश्वासघात आसता. विश्वास राखपी मनीस केन्ना कसलोच गुन्यांव करूंक ताकचो ना. एकलो दादलो आसलो, ताका तागेल्या बायलेच्या चरित्राचेर खूब खूब अविश्वास आसलो. ताका एक भुरगें जालें, तो तें भुरगें आपलें न्हीच म्हणूंक लागलो. तो दुबावान, अविश्वासान इतलो पिसावलो ताणें एक दीस त्या भुरग्याक गोमटी दाबून मारून उडयलो. ताका जेलांत घालून मागीर भुरग्यावांगडा ताचो डि एन् ए टेस्ट जालो. टेस्ट करतकीर कळ्ळें तें ताचेचे स्वताचें भुरगें म्हण. अविश्वास आनी दुबावांतल्यान केदें व्हडलें कुकर्म घडून आयलें!

पुराय उत्तर रामायण हे अविश्वासाचेर आधारिल्लें आसा. सितेचेर दुबाव घेवपी तो धोबी अविश्वाशी आशिल्लो आनी सितेक रानांत व्हरून सोडून दिवपी रामय अविश्वाशी आशिल्लो. म्हण रामाक पुरूशोत्तम म्हण्टाना म्हजी जीब कचरता. रामाल्या ह्या अविश्वाशी कर्तुबाक लागून भारतांतल्या अस्तुऱ्यांक परती परती अग्निपरीक्षा दिवंची पडल्या.

विश्वास दवरप आनी विश्वास राखप दोनय मनाचे व्हडपण दाखयतात तर कोणाचेरच विश्वास ना दवरप हें मनाचें क्षुद्रपण. अविश्वाशी जावन बायलेचेर घोवान आनी घोवाचेर बायलेन जासूस सोडप हाका कितें म्हणटलो?

आजकाल भायर अविश्वाशी लोकाचीच भुरावळ चड दिसता. मोटे लोक सदांच बंदुकधारी अंगरक्षक घेवन भोंवतात. बायलांक आपल्या भांगराशिंगराक बेंकेच्या लॉकराचोच आदार जाला. व्हड व्हड लोकाचेर दिसपट्टे धाडी पडटात. लोक राजकारणांक सर्रास भ्रश्टाचारी म्हणूंक लागल्यात. सगळीं खबरापत्रां अस्तुऱ्यांचेर जाल्ल्या बलात्कारानीच भरून वतात.

मनशा मनशांमदलो विश्वास वाडोवंक यत्न जावंक जाय म्हणजे गुन्यांव उणे जातले आनी दुस्मानकायूय सोंपतली.



# लागणूक

**आ**मी सगळे कर्तव्यान, कायद्यान, नात्यान, परंपरेन, सैमतत्वान एक दुसऱ्याक बांदिल्ले आसात. म्हण आपली लागणूक दर एककडेन राखतात. लागणूक राखप नैतिकताय तर लागणूक सोडप पडमुरपणा - कृतघ्नता. हे लागणुकेक लागून मनीस आपल्या कर्तव्यां पासून मुक्त भरकटिल्लो केन्नाच आसना. केन्ना तीच ताची शक्त आनी सुरक्षीतताय आसता. केन्ना ते पारतंत्र अशें दिसलें तरी घराब्याच्या, समाजाच्या, देशाच्या बऱ्याखातीर तें गरजेचें आसता. लागणूक मनशाक मोगान आपलेपणान बांदून दवरता. मनशाले सगळे घराब्याचे, समाजांतले व्यवहार आनी स्नेसंबंद हे लागणुकेक लागुनच बांदिल्ले उरतात. लागणूक ही मनशाल्या व्यवहारांतली खूब तुश्ट मौलीक अशी संकल्पना आसा.

लागणुकेक मराठींत बांधिलकी अशें उतर आसा. खरेंच संवसारांतलें, ब्रह्माडांतलें सगळें सगळें एका अंतरसुत्रान आपसांत बांदिल्लें आसा. मनशां मनशांची बांधिलकी मानतात. सगळे प्राणी सैमाची बांधिलकी मानतात. ह्या सैमस्रश्टींतर्ली सगळीं तत्वां आपली बांधिलकी मानतात. म्हणच चंद्र पिर्तुमे वांगडा, पिर्तुमी सुर्यावांगडा, सूर्य आकाशगंगेवांगडा, आकाशगंगा ब्रम्हांडावांगडा बांधिलकेन बांदिल्ले आसात. तांणी ही बांधिलकी नाकारिल्ली जाल्यार विश्वांत

मोटो हाहाकार जातासलो.

माती आनी पावसाची लागणूक आसा. बीं आनी मातयेची लागणूक आसा. शुक्राणुंची स्त्रीबीजावांगडा लागणूक आसा. नराची मादी वांगडा लागणूक आसा. मनशाची आपल्या घराब्यावांगडा, समाजावांगडा, देशावांगडा लागणूक आसा.

देशाखातीर सरादेर उबो रावन झुजपी जवान पुराय देशावांगडा आपली लागणूक मानता. म्हणच जिवार उदार जावन झुजता. प्रसंगार देशाखातीर बलिदान दिता. दुसऱ्या म्हाझुजांत मध्यपुर्वेन झुजपी जनरल रोमेल हिटलरावांगडा आपली लागणूक मानतालो. जेन्ना ताका आपल्या लागणुकेवांगडा प्रामाणीक रावप अशक्य जालें तेन्ना ताणें सायनायड खावन जीव दिलो. हाच्या उलट जावळींतल्या चंद्रहास मोरेन शिवाजीवांगडाची लागणूक न्हयकारली तेन्ना शिवाजीक ताका जिवानशी मारचे पडलें. लागणूक हें एक कठीण कर्तव्य आसा. केन्ना तें पेटिल्ले निखारे खांवचे अग्निदिव्य आसता. शिवाजी पन्हाळगडावेल्यान विशाळगडावटेन पळोन गेलो तेन्ना वाटेर तकली धडापसून वेगळी जायमेरेन पवनखिंड झुजपी बाजीप्रभू घोरपडे हो आपली लागणूकच राखतालो. वीर सावरकरान काळ्यापाण्याचो, सुभाशचंद्र बोसान देशा देशाचो वनवास भोगलो तो देशाची लागणूक राखुंकच.

द्रौपदीन मेकळ्या सोडिल्ल्या केसाची लागणूक पांडवान मानली आनी महाभारताचें झूज घडून आयलें. भीमान दःशासनाच्या रगतान द्रौपदीले केस परते बांदले. लागणुकेंत फकत मोग आनी आपलेपण आसता. कृश्णान ह्याच मोगान कुंती, द्रौपदी आनी पांडवाविशींची लागणूक मानिल्ली. रामावांगडा हनुमंताल्या लागणुकेक दैवी स्वरूप दिल्लें आसले तरी ती खूब उंचेल्या पावंड्याची लागणूकच आशिल्ली. गौतमबुद्धान अख्ख्या मनीस जातीवांगडा आपली लागणूक मानली. ताकाच लागून सगळे सोडून ताणें रानाची वाट धल्ली. कठीण तपश्चर्या करून मनशाल्या दुःखमुक्तिचो मार्ग सोदून काडलो.

ल्हानसान लोकय दिसपट्टे आपली लागणूक राखत आसतात. घरांतलो दादलो आपली बायल भुरगीं भुकेतलीं म्हण तळमळ्यान पोती खांद्याक मारून

दाणोगोटो, शाकभाजी घेवन येता. बायल घोवाची, भुरग्यांची सेवाचाकरी करताना दिसरात एक करता, मरस्र खपता. मनीस आपल्या लग्नाची लागणूक राखता म्हण लग्नां तिगून उरतात.

लागणूक मानप हे कर्तव्यनिश्ठपणा, प्रामाणीकपणा तर लागणूक खोटावप हें दुश्टपणा आसता. अशे लोकच समाजाची घडी विसकटावन उडयतात. मनशा मनशांमदले मोगाचे संबंद बिघडावन उडयतात. सैमान, नियतीन मनशाचेर काय विधायक जबाबदाऱ्यो घातिल्ल्योच आसात. लागींच्या लोकाकडच्यान खुबश्यो उपेक्षा आसतात. त्यो प्रामाणीकपणान पार पाडप म्हटल्यारच लागणूक राखप. अशी ही लागणूक ना मानिल्ल्यानच घराब्यांत, समाजांत, देशांत खुबश्यो समस्या निर्माण जातात.

जिवीतांत नैतीक लागणुकोच चड आसल्यो तरी कांय कायदेशीर लागणुकोय आसतात. समाजव्यवस्थेंतले कायदे आनी नेम पाळप तितलेच गरजेचें आसता. ना तर गुन्यांवकारी थारपाची भिरांत आसता. म्हण मनीस ही कायद्याची लागणूक गुपचूप मानता. ही भिरांतेंतल्यान आयल्ली लागणूक. तातूंत मोग आपलेपण नासता. आतां राज्यव्यवस्थेंत अशी एक दुश्ट परंपरा सुरू जाल्या, ती म्हटल्यार नैतीक लागणुकांचे कायदेशीर लागणुकांत बदल करप. आतां आवय बापायची भुरग्यान जाण्टेपणाक सेवा करचे कायद्यान सक्तीचें जालां. भुरग्याचें नीट पालनपोशण करपय आतां कांयकडेन कायदेशीर जाला. वाचुकच विचित्र दिसता. हाचेन मनशां मनशांमदलो मायामोग उणो जावंची भिरांत आसा. सगळे कायदेशीर, व्यवहारीक पातळेर गेल्यार मोग कसो आसतलो? ही एका अर्थान नैतिकतायेची हार म्हणू येता.

कांय लागणुको अवास्तव आनी अन्यायाच्यो आसतात. गुलामान मालकाबराबर लागणूक दवरची, गुलाम प्रजेन भायल्या राज्याकर्त्यावांगडा लागणूक राखची अशी तांची अपेक्षा आसता. वेठबिगारी अशीच एक हीण लागणूक. ब्रिटीश, पोर्तुगीज भारतांत आसताना जाय ते लोक तांचे वांगडा शेवटमेरेन लागणूक राखून आशिल्ले. अशे लोक लाचार आसतात, तेच गुलामीक पोसवण दितात.

भारतांतल्या अस्तुरेची आपल्या घोवावांगडाच्या खूब खूब लागणुकेक लागुनच तिच्या आयुश्यांत चड पारतंत्र्य आनी चड दु:खा आयल्यांत. कुड्डी लागणुकच मनशाक गुलाम करता. कुड्डी लागणूक नाकारून मुक्त, विधायक लागणूक आपणावप हातूंत खरें पौरूश आसता. अशी लागणूक नाकारप म्हटल्यार वेठबिगारीतल्यान मुक्त जावप!



# स्पर्धा- बरी आनी वायट

**स्प**र्धा बरी विधायक आसता, स्पर्धा वायट विघातक आसता. स्पर्धेंतल्यान मनशाची उदरगत जाता तर स्पर्धा केन्ना दुसऱ्याचो द्वेश करूंक लायता, तिरस्कार करूंक लायता...... हांव व्हड, हांव सर्वांपसून व्हड हें फटकिऱ्या कल्पनेंतल्यान चड करून स्पर्धा उपरासता. केन्ना मनांतली पोकळी भरून काडचेखातीर मनीस निरर्थक स्पर्धेंत देंवता. केन्ना तो हेरावांगडा स्पर्धा करता करता सोताक काबार करून घेता.

तरीय एक मानचें पडटलें, सोताचें व्हडपण सिद्ध करचेखातीर स्पर्धेंत देंवप गरजेचें थारता. तुमकां आयआयटीत प्रवेश जाय, तुमकां डॉक्टर जावंक जाय, नोकरी मेळोवंक जाय, मैदानार पदकां जोडूंक जाय, तर स्पर्धा आंगार घेवप चुकचें ना....... एक चली आसली, तिका भुरगेपणांत व्हड जातकीर तूं कोण जातलें? म्हण विचारल्यार ती सटकरून म्हणटाली 'डॉक्टर'. वांगडाचीं भुरगीं तिका 'डॉक्टर डॉक्टर' म्हण चाळयतालीं. मागीर तिका एस एस सीक सत्तरापरसय उणे गूण मेळटकीर हे चाळोवप चडच जालें. पूण ती चली हट्टाक पेटली. प्रतिज्ञा करून निर्धारान अभ्यासाक लागली. दिसांतल्यान चौवदा सोळा तास ती अभ्यास करताली. न्हिदेंतय अभ्यासांतलीं पाठांतरां म्हणटाली. अकरावी आनी बारावी दोन वर्सां शाळा, शिकोवण्यो, अभ्यास सारखो चालू आसलो.

भलायकी खालावल्ली. दोळ्यांभोवतणीं काळें पडिल्लें. पूण खंयच्च्यान ती शक्त घेवन धडपडटाली नकळ, बारावेचो निमाणो पेपर दिवन भायर सल्ली तेन्ना तिका घुंवळ येवन ती सकल पडली. उपरांतय बरेच दीस तिका झेम पडनासली. उठबस करताली, बडबडटाली. बारावेचो निकाल लागमेरेन हें चालूच आसलें. बारावेक तिका साडेपंचाण्णव टक्के गूण मेळून ती पास जाली आनी तिका मेडिकलांत प्रवेश मेळ्ळो. आतां ती एका व्हड हॉस्पिटलांत स्त्रीरोगतज्ञ आसा. खरें तर ती एका निर्धारान ते स्पर्धेंत देविल्ली. मनशाले तांकीचे पूर्णत्व तिणें साधिल्लें.

हांवें बरेच मिलिटरीचे, पोलीसाचे अधिकारी पळयल्यात जे साधे जवान, साधे शिपाय म्हण भरती जावन व्हड व्हड अधिकाऱ्यांच्या पदावेल्यान निवृत्त जाल्यात. म्हजे वळखिचो एकलो लोवर डिव्हिजन क्लार्क म्हण भरती जावन निकतोच असिस्टंड कलेक्टर म्हण निवृत्त जाला. तांणीं आपलें पुराय तांकीसरसी धडपडत स्पर्धेंत देवनच हें जैत मेळयल्लें आसा. आपलें अशें हें व्हडपण सिद्ध करूंक मांडिल्ली ही स्पर्धा दिसपट्टीची आसता. खिणाखिणाक आपलें कर्तुत्व सिद्ध करचे पडटा. प्रत्यक्ष परिक्षेच्या स्पर्धेंभायर आनी कितल्योश्योच स्पर्धा आसतात. हातूंत तेंगशी चडून वचची आकांक्षा मोलाची आसता. म्हाका केन्ना दिसता, एव्हरेस्ट चडून वतल्यांक तांकां सोताक आनी समाजाक, देशाक ताचो कसलो लाव आसता? ती मनशाल्या कुडीच्या, मनाच्या तांकिची मनभुलायणी स्पर्धा आसता.

वायट घातक स्पर्धा मात संहारक आसतात. दोन देशामदली शस्त्राअस्त्रांची स्पर्धा अशीच घातमारी आसता. दुसऱ्याच्या भंयान, देशात शस्त्रांअस्त्रांच्यो राशी घालतात. एक दीस ताचो उजो पेट्टा आनी मोटो विद्राट जाता. संवसार असो विद्राट परत परत पळयत आयला. भारत आनी पाकिस्तानामदीं अशी शस्त्रांअस्त्रांची स्पर्धा नाशिल्ली जाल्यार दोनूय देशांमदली गरिबी केन्नाच ना जावन वयतासली. दोनय संवसारांतले शिरवंत देश जातासले. हांका भिकेदुवाळे लागल्यात अस्त्रां एकठांय करचे. एक काळाक रशिया आनी अमेरिका मदीं अशीच स्पर्धा चलली आनी तातुंतल्यान अणुबाँब, हायड्रोजनबाँब सारखी

महाअस्त्रां व्हडा प्रमाणांत तयार जालीं. संवसाराचे दोन वाटे पडले. बऱ्या नशीबान रशीयाचे विभाजन जालें म्हण संवसार वाटावलो ना तर एक ना एक दीस म्हासंहारक अशे तिसरे म्हाझूज पेट्टासलें.

एक काळ 'बळी तो कानपिळी' चो आशिल्लो. बळांतल्यान सगळें मेळोंव येतालें. पूण आयचो काळ स्पर्धेचो, कितें जाय स्पर्धेंतल्यानच मेळोवंक जाय. पयसो आडको, नोकरी भाकरी, मान भोवमान सगळें स्पर्धेंतल्यान. स्पर्धेंत तिगून रावलों ना तर उपाशी पडची पाळी. तातूंत मनशाची शक्त, बुद्ध आनी प्रतिभा पणाक लागता. समुहांत स्पर्धा ही खरीच उदात्त संकल्पना. स्वताक सिद्ध करची बरी संद.

पूण व्यक्तिगत पातळेर ताका केन्ना खूब हिणकस रूप येता. आपल्या शेजाऱ्यावांगडाची, सोयऱ्यांवांगड्याची स्पर्धा केन्ना मनशाक मातयेभरवण करता. स्पर्धा ही तेन्ना मानसीक स्थिती जाता आनी तातुंतल्यान द्वेश मत्सर जल्माक येता. आपूण हेरावांगडा अर्थीक, बौद्धिक स्पर्धेंत उणो पडटा म्हण कळटकीर मनीस भितरल्यान अस्वस्थ जाता. निंदा, चाडयो करता. झगडीं सोदून काडटा. आपली पोकळी भरून काडचेखातीर बडायो मारता.

घरांत भांगरशिंगर आनी हेर सुखसोयीच्यो वस्तू केन्ना गरज नासताना फकत हेरांवांगडा स्पर्धा करुंकच जाय आसतात. एका सरकारी वसाहतींत एक बायल आसली. कोणाच्या घरांत केन्ना कसली नवीं वस्त आयल्या हाचेर तिचे बारीक लक्ष आसतालें. ती तें पळोवन येताली आनी घोवाच्या फाटीक लागताली. ती वस्त आपणाक मेळना जाल्यार घोवाक दळदिरो म्हणटाली, झगडें काडून बसताली. घोव मुळांत प्रामाणीक आसलो पूण बायलेल्या हट्टाक लागून तो लाचखोरी करूंक लागलो. एक दीस रचिल्ल्या सापळ्यांत सांपडलो आनी ताची नोकरी गेली.

स्पर्धा उत्कर्श करता तशी ती अधोगतीकय पावयता. ती दोन धारी अस्त्रासारखी आसता. बाजारांत स्पर्धा नासती तर आमकां खंयचीच वस्त बरी आनी सवाय मेळची नासली. बाजारांतल्या स्पर्धेंत तिगून रांवचे खातीर कंपनी बऱ्या दर्ज्याच्यो वस्ती निर्माण करता. विकपी त्यो चड लोकान विकत्यो

घेवंच्यो म्हण बरो व्यवहार करतात. स्पर्धा केन्ना मनशाक प्रामाणीक रावंक शिकयता. संवसारांत स्पर्धा नासती तर सगळें मेल्ल्यावरी ठप्प जावन पडटासलें. कोण चड शिकचो नासलो. परीक्षेंत बसचो नासलो. कोण मुखार धांवचो नासलो. कोण व्हड घर बांदचो नासलो. बरीं बरीं वस्त्रां न्हेसचो नासलो. कसले शोध लागचे नासले. रस्ते, पूल कोण बांदचे नासले. घडये आजय मनीस रानटीकसो भुंयारांतच रावता आसलो........

स्पर्धेचे हे मनभुलयणें रूप आमी धांवपटू पि.टी. उशाच्या रुपान पळयलां, अंतराळवीरांगना कल्पना चावलाच्या रुपान पळयलां, एव्हरेस्ट चडून वचपी बचेंद्री पालच्या रुपान पळयलां. शिक्षण, खेळ, अर्थकरण, राजकारण, विज्ञान सगळीकडेन सतत स्पर्धाच चलिल्ली आसा. पयस गांवांतलो एका खारव्यालो भुरगो ए. पि जे अब्दूल कलाम, राष्ट्रपतीच्या पदाचेर पावमेरेन ताणें केद्या व्हड स्पर्धेक तोंड दिल्ले आसतलें!

ह्या संवसाराची उदरगत स्पर्धेंतल्यान जाल्ली आसा. स्पर्धेंतल्यान कांयच मुक्त ना. झूज ही स्पर्धा आसता, वेंचणूक एक स्पर्धा आसता. गिरेस्तकायय स्पर्धेबगर मेळना. केन्ना बुद्धिची स्पर्धा, केन्ना कुडीचे तांकिची, हिकमतीची स्पर्धा.

आयच्या युगाक स्पर्धेचेंच यूग म्हणूं येता. ह्या युगात मारेकार झुजांची भिरांत उपरासल्या तरीय आयची सगळी उदरगत ही स्पर्धेंतल्यानच जाल्ली आसा. ओलँपीक, ऑस्कर, नोबेल ह्यो स्पर्धा आसतात तशें झुजां, भ्रश्टाचारय स्पर्धेंतल्यानच उपरासतात.



# द्रौपदी आनी सीता

सीता आनी द्रौपदी ह्यो आमची दोन महाकाव्यां रामायण आनी म्हाभारत हांच्यो दोन म्हानायिका. दोन ध्रुवावेल्यान आयल्यो कशो दोगीय भिन्न प्रकृतींच्या ह्या दोगांमदीं एकच सारखेपण आसा तें दोगायक लागून दोन महाझुजां घडून आयलीं. एक राम आनी रावणामदीं, दुसरें पांडव आनी कौरवामदीं. रावणान सीतेक उखलून व्हेली तर कौरव दरबारात दुःशासनान द्रौपदीचीं वस्त्रां फेडलीं. दोगां अस्तुरेच्या विनयभंगाक लागून जाल्लीं हीं दोन म्हाझुजां. म्हणच घडये भारतांतल्या भौसाक तांचेविशीं सहानुभुती आनी खूब आपलेंपण दिसता. म्हणच त्यो अजरामर जाल्ल्यो आसात.

दोगांल्याय स्वभावांतली विसंगती म्हटल्यर सीता एकपतिनिश्ठ आशिल्ली. अग्निपरीक्षा दिवनय तिणें आपलें पातिवृत्य सिद्ध केल्लें. जाल्यार द्रौपदी पांच पांडवाची - पांच घोवांची पतीण आसली. तिका जीं भुरगीं जाल्लीं तीं खंयच्या एकाच घोवाचीं म्हण सांगू येनासलें. तरीय प्रातःस्मरणीय म्हण ज्यो सात अस्तुऱ्यो धर्माच्या वडिलांनी सांगल्यात तातूंत द्रौपदीचोय आसपाव आसा. ताचें एक कारण हें आसुये, त्या काळांत एका दादल्याक चड बायलो आसप हें धर्माक, समाजाक मान्य आशिल्लें तशें एके बायलेक चड घोव आसप हेंवूय तांकां मान्य आशिल्लें जावंये. दुसरे द्रौपदी खूब सोशीक,

धिरीश्ट आनी अन्यायाआड उबी रावपी अस्तुरी आशिल्ली. आयच्या समाजांतय द्रौपदीविशीं उणाकपणाची भावना मात्तूय ना. उलट ती सीते परसय उंच, उजू दिसता. एक खरें, गेल्लीं हजारांनी वर्सां सीता आनी द्रौपदी दोगांयनय भारतीय मनांत मानाचें स्थान घेतिल्लें आसा.

तथाकथीत पतिवृतापण कुशीक दवरून दोगांकय एकाच पातळेर हाडून विचार केल्यार द्रौपदी ही सीतेपरस बळिश्ट, तेजस्विनी दिसता. तिचो आत्मविश्वास, तिचो तडफदारपणा, तिची हुशारी पळोवन सीता न्ही तर तीच भारतांतल्या अस्तुऱ्यांची प्रतिनिधी आसूंक फाव आसली अशें दिसता. पूण आज चडकरून दादल्यांच्या चेंपणाक लागून दुबळी सीताच भारतातल्या अस्तुऱ्यांची प्रतिनिधी जाल्या. म्हणच आज अस्तुरेविशीचे बरेच प्रस्न निर्माण जाल्ले आसात. ती दुबळी अशें धरून तिका कुशीक उडयल्या आनी घराबो, समाज दादल्यांच्या शेकातळा गेला. म्हणच अस्तुरेची मुक्ती, जागृती ह्यो चळवळ्यो उब्यो करच्यो पडटात.

लंकेंत रावणाच्या शेकातळा रावन आयल्ल्या असहाय्य सीतेची राम निर्दयपणान अग्निपरीक्षा घेता आनी सीता मोन्यांन आज्ञा पाळीत अग्निप्रवेश करता. आपलो घोव आपणाचेर दुबाव घेवंचें पातक करता, आपलो अवमान करता अशें तिका कित्याक दिसलें ना? जाय जाल्यार आपल्या घोवान आपणाक एकांतांत सगळें विचारून मनाचें समाधान करून घेवंक जाय आसलें. उलट ताणें भौसांत आपली परीक्षा घेतली हे तिच्या मनाक लागिल्लें आसतलें काय? राजमहालांतलें सूख सोडून ती वल्कलां न्हेसून रामाफाटल्यान रानांतल्या काट्याखुट्यांतल्यान भोंवली, कितलीं संकटां आंगार घेतलीं. ताचेंच हें कितें फळ आसलें? तिका कित्याक राग येवंक ना, तिणें बंड कित्याक करूंक ना? मुळांत ती मोगाळ तरी मोंव मनाची सर्वसामान्य अस्तुरी आसली. त्या जाग्यार द्रौपदी आसती तर सगळें खोटावन पयस वतासली. कोणें तिचेर दुबाव घेतल्यार, अवमान केल्यार थंयच्या थंय पिसडून काडटासली. धोब्याच्या कुचाळी उतरांवेल्यान राम सीतेक रानांत व्हरून सोडून दिता. तेन्ना तर अन्यायाचो कहरच जाता. ताच्या उपरांतय सीतेची रामाविशींची निशठा म्हटल्यार तिचे ते

ढोंगीपणाच आसलें.

द्रौपदी अशातरेचो अवमान केन्नाच करून घेवंची नासली. दोगीय दुर्दैवाच्या अदृश्टांतल्यान गेल्यो. पूण द्रौपदी सदांच खंबीर रावली. घट रावन संकश्टांक तोंड दीत रावली. केन्नाच रडली ना, पिंरगली ना. कोणाकडेन कसल्यो विनवण्यो केल्यो नांत. सीता मात रामाचे सावळेंत वाडिल्ली कशी मोटवी, दुबळी जावनच रावली. ती तकलेंनय इल्ली मट्ठ आशिल्ली जांवये. ना तर ती लक्ष्मणरेशा बळाटून ढोंगी रावणाक भीक घालूंक येवंची नासली. द्रौपदीन अशो चुको केल्यो नात, उलट ती शेवटमेरेन पांडवांक सावरून धरीत रावली. तांची शक्त, तांची चेतना पेटयत रावली. तांकां सतत पेट्टे दवरपाखातीरच तिणें आपले केंस मेकळे सोडिल्ले. ते दुःशासनाच्या रक्तानच बांदतले म्हण तिणे सोपूत घेतिल्लो. चौवदा वर्सांच्या वनवासांत दरएक खीण तिणें आपली प्रतिज्ञा पुरी जावंची म्हण वाट पळयतच सारला. पांडवांची उभारी तिगून उरची ह्या प्रयत्नांत ती रावल्या.

द्रौपदीची दुःखां हीं दैवी अद्रश्टांतल्यान, हेरांच्या चुकांतल्यान आयल्ली आसात. पूण सीता ती मोहांतल्यान, उबरगतपणांतल्यान सोताचेर ओडून घेता. वनवासांत साधेसुधे जिवीत जियेताना भांगराळ्या चोळयेखातीर 'मृगजीनाचो' मोह धरता, रामाक त्या हरणा फाटल्यान रानांत धाडटा. सांगून सावरून लक्ष्मणान घालून दिल्ली रेशा वलांडटा आनी लक्ष्मणाक दिल्ले वचन मोडटा. तिच्या सतशील व्यक्तिमत्वाक सोबना जाल्लें कर्तुब तें. हांगाच ती पुढाराक आपणाचेर येवपी दुःखाचें मुळवण घालता.

दोगांल्याय जल्माच्यो कथाय मजेशीर आसात. द्रौपदी यज्ञाच्या उज्यांतल्यान जल्माक आयल्या तर सीता भूंयेंतल्यान. त्या परमाणें तांच्यो प्रकृतीय तश्योच आसात. भूंयची थंडसाण सीतेंत आसा तर द्रौपदी धगधगत्या उज्यावरीच आसा. सीतेक तिका जल्म दिल्ल्या भूंयन शेवटा दुभंगून पोटांत घेतलें. एका अर्थान तें उदात्त, भौमानाचें मरण आसलें. पूण द्रौपदीचो शेवट मात शोकात्म जालो. तिचे पांचूय पूत अश्वत्थामान विश्वासघातान माल्ले. स्वर्गार वताना ती वाटेर सगळ्या पयलीच पडिल्ली पळोवन पडमूर धर्म म्हणटा

'भीमाकच ती चड लागिची आशिल्ली, तोच तिका चड आवडटालो. ह्या भेदभावाक लागून तिचे पुण्य शेणलें.'

एका कर्तुत्ववान अस्तुरेक फाव जाल्लें हें मरण पळोवन मन सुन्न जाता. त्या मानान सीता भाग्यवान. अशोक वनांतल्यान रावणान हातबोट लायनासताना विमानान परतली. मरणय बरें मेळ्ळें. बायलांनी तिका आपणाली म्हण सासणाची आपणायली.

सीतेच्या भोंवतणीं एक दैवी वलय आशिल्ल्याचे जाणवता. म्हण तिका आमी नमस्कारच करूंक शकतात. पूण द्रौपदी हाडामांसाची मनीस जावन आमचे मुखार उबी रावता. एक कणखर, कृतत्वी अस्तुरी. म्हणच ती घडये भारतांतल्या अस्तुरेची आदर्श जाली ना. दैवी आदर्श हे निरुपद्रवी आसतात. म्हण तांचे मुखवटे घालप सोंपे आसता. खऱ्या खऱ्या मनशाचो मुखवटो घालप बरेंच कठीण. सीता न्ही करून द्रौपदी भारतांतल्या अस्तुरेचो आदर्श जाल्लो जाल्यार तिचो पुराय कायापालट जावन वतासलो. दीनदुबळी जावन आज तिका स्त्रीमुक्तिच्यो चळवळी करच्यो पडच्यो नासल्यो. अवमान सोशिल्ले सीतेचो आदर्श म्हटल्यार समेस्त अस्तुरेचे जातीचोच तो अवमान आसा. द्रौपदीन आपली कूड, आपलें व्यक्तिमत्व स्वतंत्र म्हण मानलें. आयच्या अस्तुरेचें कांयच स्वतंत्र ना. सगळो शेक दादल्यांचो.

कणखर आसुनय द्रौपदी अत्यंत संवेदनशील आशिल्ली. कृष्णाचेर तिणें काळजासावन निश्कळंक मोग केलो. पूण सीता भावनेच्या थराचेर भावाच्या नात्यान लेगीत लक्ष्मणा वांगडा एकरूप जावंक शकली ना. तो शेवटमेरेन 'रक्षण करपीच' उल्लो.



# हिंसक आनंद

मनशाच्यो सूख वा आनंद घेवंच्यो तरा वेगवेगळ्यो आसतात. ह्या आनंदाची जात आनी पतय वेगवेगळी आसता. मुखेलपणान मनीस तीन तरांनी आनंद घेता, एक निखळ निरामय आनंद. जो सोबीतकायेंतल्यान, कलेंतल्यान, संगीतांतल्यान, आध्यात्मांतल्यान, मोग, वात्सल्यांतल्यान मनशाक मेळटा. दुसरो इंद्रीय सुखाचो आनंद जो समागमांतल्यान, स्पर्शांतल्यान, जीबेच्या रुचींतल्यान मनशाक मेळटा. तिसरो हिंसक आनंद. म्हणजे हेरांल्या दुःखांतल्यान कश्टांतल्यान, पिडेंतल्यान मेळपी आनंद. ह्या हिंसक आनंदान मनशाल्या मनाचो आकलना भायलो विरोधाभास दिसूंक येता. हिंसक आनंद घेवन मनशां खोशी कित्याक जातात हें एक मनोविज्ञानांतलें कुवाडें. ताची समाधानाची जाप अजून मेळिल्ली ना. केन्ना तो आनंद राक्षशी आनंद म्हणचो इतल्या विकृतीमेरेन वता. मनशाल्या खोल मनांत लिपिल्ल्या सैतानाची थुळेवणी करूक तो आनंद लोक घेतात काय कितें? मनशात मोग, करुणां ह्यो संवेदना जाग्यो जावंचे पयलीं खूब फाटीं मनीस एक हिंस्र जनावरच आसुंये!

अरबस्थानांत उंटांच्यो धांवच्यो सर्ती खूब जातात. तो एक तांचो राश्ट्रीय खेळच. अशा धांवपी उंटांच्या फाटीर खंय ते एशियांतल्यान उखलून व्हेल्ली चारपांच वर्सांचीं भुरगीं बांदतात. उंट धांवक लागतकीर तीं भुरगीं

व्हडव्हडान किळाचतात. ताचेन उंट भिवन चडच वेगान धांवक लागता. मागीर ते सर्तीचो  आनंद घेवंक आयल्ले अरब खोशयेन नाचतात, आड्डतात, जशी तांकां हर्शवायुची पिडा जाल्या. अशा ह्या आनंदामुखार मोग, माया, करुणा गळून पडून मातयेभरवण जाल्ली आसता. मनशा भितरलो सैतान नागडो पडिल्लो आसता.

हालींच एक काळजाक धपको दिवपी बातमी टि.वीचेर पळयली. एका देशाच्या मोनजातसंग्रह घराच्या मैदानार कांय वाग मोकळे सोडिल्ले. एका बंद गाडयेंतल्यान गायी हाडून त्या वागामुखार मेकळ्यो सोडटाले. त्यो गायी जिवाच्या आकांतान जंयथंय धांवताल्यो. वाग तांका दावखुलांनी आनी जबड्यांनी धरून हिंस्रपणान तांकां मारून खाताले. कुशीन सुरक्षीत फेन्साच्या भायर उबे आशिल्ले लोक तो हिंस्र प्रकार पळोवन खोशयेन आड्डताले, ताळयो पेट्टाले. हो आनंद घेवंक खंय ते लोक शेंकड्यांनी डॉलर खर्च करतात. हिंसा पळोवंक इतले पयशे खर्च करप कितलें विचित्र दिसता न्हय? मनशाले जिणेंत संस्कृतीचो उजवाड पडचे पयलीं मनीस एक हिंस्र मोनजातच आसली. आयज केन्ना तो आपल्या मूळ अदीम सुवातेर वचून उबो रावता आनी हिंशेचो आनंद घेता. संस्कृतीपूर्व ताचे रानटी स्वरूप अजून पुसून गेल्ले ना.

फिल्मांतली मारधाड, फारपेट, हिंसा हाका कोण पालव दिता? अशा फिल्मांक प्रेक्षकच तकलेर घेतात. मारामारी सुरू जाली म्हणकीर पळोवपी उचांबळ जातात. खोशयेन मार आड्डतात. मारतल्याक हिरो मानतात. हिंसा, मारधाड नाशिल्ली फिल्मां पचक म्हण नाक मुड्डितात. जण एकल्याक आपल्या भितरलो पशू जागो करून घेवन हिंसक आनंद घेवंची खूब इच्छा आसता. हो आनंद केन्ना ड्रग्स घेवन मेळपी आनंदासारखो खोशयेची घुंवळ हाडपी आसता.

झुजाची खुमखुमी आशिल्ले हुकुमशहा हे हिंसेचो आनंद घेवचे खातीरच उतावळे जाल्ले आसतात. चडशी झुजां हुकुमशहाच्या विकृत आनंद घेवंच्या इच्छेंतल्यान जाल्ली आसात. तैमुरलंग, चेंगीज खान, हिटलर, इदी अमीन, सद्दाम हुसेन हे हीच विकृती घेवन जियेताले. म्हणच ताणीं लक्षांशी लोकाची

कत्तल घडोवन हाडली. जिवीतभर तोच हिंसक आनंद घेवंचे खातीर ते वावुरले.

हो राक्षशी आनंद केन्ना तटस्थ, अलिप्त रावंचेलें ढोंग करून घेतलेय आसतात. चोयवटेन खचाखच झोपडपट्यो, गरिबी, भूक आनी रोगराय आसता. थंयच उब्यो आसतात वीस तीस माळयांच्यो आलिशान इमारती. तातूंत सगळ्यो सुखसोई ओतूंक पाविल्ल्यो आसतात. त्या झोपडपट्यांच्या कडाकडांनी आपल्यो गाडयो धांवडायत वचपी गिरेस्तांक दिसनात काय ती दुःखां? काय ते ते झोपडपट्टीसरी पळोवन आनंद घेतात, आपूण कितलो भाग्यवान, कितलो सुखी हाचो? बोथट मनाची मनशां घडये चड सूख, चड आनंद घेवंक ताकतात! हेरांल्या दुःखाविशीं संवेदनशील जालो म्हणटकीर सोताचें सूख घडये इबाडून वता!

गरीब आनी गिरेस्त हांचेमदीं मोटी घळ दवरून जियेवपी समाज हो हिंसक सूख घेवपी समाज आसता. ही विशमताय गुन्यांवकारी स्वरुपांतलीच आसता. गुन्यांव करून ताचो आनंद घेतलेय अशा तरेचेच लोक आसतात.

मनशां हेरांची पिळवणूक करतात, अन्याय, अत्याचार करतात आनी आनंद घेतात. अस्तुरेचेर बलात्कार करून आनंद घेतात. मनशा, बैलांची, कोंबड्यांची झुजां घडोवन हाडटात, तीं रक्तबंबाळ जाल्ली पळोवन खोशयेन नाचतात.

केन्ना ह्या हिंसक आनंदाचें मूळ धर्मग्रंथांच्या लिखितात, धर्मांच्या परंपरेतच आसता. म्हारांक गांवांभायर म्हारवाड्याच्या सिमेंत दवरून तथाकथीत सवर्ण लोक मजा पळयतात आनी आपूण उंच जातीचे म्हण विक्रत आनंद घेतात. हिन्दू धर्मांत तर बायलांचे, दलितांचे स्थान धर्मानच थारोवन दिल्लें आसा. शास्त्राच्या एका बुरसट ओळीचेर बोट दवरून ज्ञानेश्वर भावंडांक बहिश्कृत करून उजाड रानमळार धांवडावन घालपी 'ब्रम्हवृंदाक' कितें म्हणचें? त्या सानसान भुरग्यांचें तापत्रय पळोवन'ब्रम्हवृंदाचो' तो सगळो गांव कसलो आनंद घेतालो? जंय हिंसक आनंद आसता थंय करुणा, माया ममता गळून पडिल्ली आसता.

साहित्यांत, नाटकांत ट्रेजडी वा शोकांतिका म्हणिल्लो एक प्रकार आसता. तो वाचकांक वा प्रेक्षकांक सगळ्यांत आवडतो असो मनरिजवणेचो प्रकार. चडानचड लोक दुःखी कथानकाचो खूब आनंद घेतात. नाटकातल्या नायक वा नायिकेक चड दुःख, कश्ट भोगचे पडटात ते पळोवन मुखार बशिल्ले दुकां गळोवंक लागतात. पूण म्हाका अजून ह्या दुकांची जात कळिल्ली ना. हेरांच्या दुःखांतल्यान मनरिजवण करून घेता घेता उमाळून आयल्ल्या दुकांक दुःखाचीं दुकां म्हणची काय हिंसेचीं दुकां म्हणची? कारण अशें नाटक सोंपतकीर पळयतलो म्हणटा, 'कितले बरें-बेश्ट नाटक आशिल्लें, अजून एक फावट तरी पळोवंक जाय!'

मनशाक आपूण सुखी आसचो, खूब सुखी आसचो अशें दिसता. पूण सूख म्हणटा तें केन्ना हाताक लागच ना. तेन्ना तो सूख आनी दुःखाच्या स्पर्धेंत पडटा. हेरांचीं दुःखां पळोवन आपूण कितलो सुखी आसा हें मनाक भासयता, ताचो आनंद घेता!

झुजां करूंक फुरफुरपी लोक हिंसेचो आनंद घेवकच उतावळे जाल्ले आसतात. ज्यूंक गॅसचेंबरांत मारून हिटलरान असो कितलो आनंद घेतिल्लो आसतलो! चोराक सोडून जेजूक क्रुसार मारपी लोकानय असोच हिंसक आनंद घेतिल्लो आसतलो!



# बुद्धिभ्रंश

केन्ना म्हाका दिसता आपलो भारतीय समाज हो बुद्धिभ्रंश जाल्लो समाज आसा. म्हणच आमकां भायल्याची संस्कृती, तांची भाशा, तांचे न्हेसप, जेवप खावप बरें दिसता आनी सोताचें किरकोळ दिसता. कारण बुद्धिभ्रंश जाल्लो समाज हो अस्मिताहीण आसता. कांय शतमानां आमी गुलामींत उल्लें, तेन्ना जाल्ल्या बुद्धिभ्रंशांतल्यान आमी अजुनय सावरूंक शकिल्ले नात. अजुनय ब्रिटीश, पोर्तुगेज बरे आशिल्ले म्हणपी लोक आमचे मदीं आसात. राजकीय, मानसीक गुलामी घालचे पयलीं त्या समाजाचे ब्रेनवाशिंग-बुद्धिभ्रंश जाल्लो आसूंक जाय हें धूर्त कारस्थानी लोकांनी खूब पयलींपसून वोळखल्लें. बळ वापरचे परस ब्रेनवाशिंग करप सोंपें आनी निरुपद्रवीच आसता. बरे बरे कपडे दाखोवन, सुखसोयीचो झकपक दाखोवन बुद्धिभ्रंश करूं येता हें युरोपांतल्या लोकांनी खूब फाटीं जाणिल्लें. जमीनदारी, सरंजामशाही काळांत लोकांक शिक्षण दियनासतना अज्ञानांत दवरून तांचो बुद्धिभ्रंश करताले. पातकाची, नरकाची भिरांत घालताले. रीण फारीक करनासतना वेठबिगारी चुकोवन धांवन गेल्यार तुमचे फाटले सगळे पितर नरकांत पडटले म्हण सांगताले. ते जाणां आसले, साद्या, अज्ञानी लोकांचो बुद्धिभ्रंश बेगी जाता म्हण.

बायला मुखार सीता, सवित्रीची बुजगांवणी नाचोवन तांचे ब्रेनवाशिंग

खूब केला समाजान. सदांच शील, पातिवृत्य हांची व्हडविकाय सांगूनय केला ब्रेनवाशिंग.

केल्ल्या बुद्धिभ्रंशांतल्यानच बायलो सती वताल्यो.

बुद्धिभ्रंशांतल्यान गुलामी घालूं येता, धर्म दिवंक येता. आपलो म्हाल खपोवंक येता. बायलांक, गुलामांक आपल्या शेकतळा दवरूं येता. घाडीपण करून चीट, तावज, दोर गळ्याक बांदू येतात, बायलांक सती म्हण उज्यान लासू येता.

एक घराबो पुर्वोजान घेतिल्ल्या रिणां बदलाक तीन चार पिळग्यो एका जमीनदारासरी वेठबिगारी करतालो. नव्या पिळगेंतल्यो एक तरनाटो ताच्या आड आवाज काडटा. एक दीस हातांत कोयती घेवन तो जमीनदाराक धमकायत ताच्या घरा वता. जमीनदार ताका थंडपणान सांगता, "हें पळय गुणा, तुगेल्या पणज्यान आमचेकडच्यान रीण घेवन तो लग्न जाल्लो. ह्या लग्नांतल्यान ताका भुरगीं जालीं. तशीच तुज्या आज्याक, बापायक जाली. फाल्यां तुकाय जातली. त्या रीणांतल्यान तुमच्या सगळ्यांचो जल्म जाल्लो आसा. त्या रिणाचें वोजें आतां इतलें वाडलां तें आतां तुमच्यांनी फेडूंक जांवचेच ना. रीण फेडलेबगर तुमका मोक्ष ना, सर्गांत रीग ना. तुज्या पणज्याक धरून तुमी सगळे कायमचे नरकांतच पडून उरतले. तूं जाणाच नरकांत खतखतत्या तेलाची व्हडली कायल आसा म्हण......" गुणा वोग्ग परत फिल्लो.

असो बुद्धिभ्रंश धूर्त मनशांकडल्यानच जाता अशें न्हय तर धर्माच्या कांय पोन्न्या लिखितानय तेंच केलां. रुग्वेदांतल्या पुरूशसुक्तान, मनुस्मृतीन फकत बुद्धिभ्रंश केला. पुरूशसुक्तान जातीव्यवस्थेची तोखणाय केला. मनुस्मृतीन बायलांक, शुद्रांक हीनदीन केला. ते हजारांनी वर्सां तशेंच चालू आसा. असो बुद्धिभ्रंश जाल्लो समाज ताचेर नव्यान विचार करुकय तयार ना.

भुरगें जल्माक येता तेन्ना स्वच्छ, नितळ मेंदू घेवन जल्माक येता. आवय बापूय आनी हेर आपलेच सगळे ताच्या बुद्धींत घालतात आनी ताचो मेंदू प्रदुशीत करतात. आपलो धर्म, आपली जात व्हड. आपली परंपरा, आपले खाणजेवण व्हड हें ताच्या मेंदूंत घालीत रावतात. ल्हव ल्हव ताचो बुद्धिभ्रंश

जाता आनी ताकाय दिसूंक लागता, आपलेच सगळें व्हड, खूब खूब व्हड! आतंकवादीय हेच प्रक्रियेंतल्यान घडटात जावंये.

एकादऱ्या मनशाक 'मानवी बाँब' करचे पयली वा हाराकिरी करचे पयली, फटीच्या ध्येयाखातीर ताचे कितले ब्रेनवाशिंग करतात आसतले हाची कल्पनाच केल्ली बरी. बुद्धिभ्रंश मनशाक मरणय वेंगोवंक लायता. हातांत शस्त्रां दिवंचे पयलीं सगळ्याच अतिरेक्यांचो चरांटून बुद्धिभ्रंश केल्लो आसता. केन्ना ते जल्मापासूनच सुरू जाल्ले आसता. धर्माच्या नांवार तर बुद्धिभ्रंश बेगीन करूंक येता. अशा बुद्धिभ्रंशान हालीसाराक अच्छेव मांडलो. धर्मीक राश्ट्रवाद बुद्धिभ्रंशांतल्यानच वयर सल्ला.

बाबा, बुवा, म्हाराज हे बुद्धिभ्रंशाच्या कामांत मोटे हुशार आसतात. उतरांचें जाळें विणून लोकाक सांपडायतात आनी नादाक लायतात. मनशाची विचारशक्तच ना करून उडयतात. मागीर लोक तांच्या पांयार लोटांगण घालतात, पांय धुंवून उदक पियेतात!

खोटो म्हाल खपवोंक जायत्या माध्यमांतल्यान आदीं बेस बरें गिरायकांचें ब्रेनवाशिंग करतात. मागीर म्हाल ताच्या गळ्यांत बांदतात. जाहिरातगिरी ब्रेनवाशिंगचेच काम करता. म्हण चडांत चड ते भडक, अवास्तव आसता. ब्रेनवाशिंगचो हेतूच खोटो आसता. म्हण सत सांगून तें करूंक येवंचें ना हें ते बेस बरे जाणात.

भायल्या देशांत वचून ब्रेनवाशिंग करून घेवन आयल्ले विद्वान म्हाका चड घातकी दिसतात. ते भाशीक, सांस्कृतीक प्रदुशण पसरायतात. सोताच्या देशाक तुच्छ लेखतात.

पोन्ने सगळे पुसोवन उडोवंक शक्य नासलें तरी नवें तकलेंत घालप मात सोंपें आसता. म्हजो भाव भोव बरो म्हण दुसरो भाव मानीत येता. मागीर कितें जाता, बायल वा हेर कोणतरी कितें तरी तकलेंत भरयता, प्रोपर्टीक लागून झगडीं सुरू जातात आनी भाव दुस्मान जाता. दर एक दुस्मानकाय हो ताचो जाल्लो बद्धिभ्रंशच आसता. बुद्धिभ्रंश जेन्ना निवळटा तेन्ना बरोच उशीर जाल्लो आसता, सगळे आरतेपरते जाल्ले आसता.

केन्ना एकादरोच दुश्ट मनीस पुराय समाजाचो, देशाचो बद्धिभ्रंश करूंक ताकता. हिटलरान संवसारांत आपलोच वंश, आपलोच देश श्रेश्ठ म्हण भासोवन जर्मनीक म्हाझुजाच्या घाळींत धुकल्ले. ह्या बुद्धिभ्रंशाखातीर ताणें कितलीतरी नाडपेन्ना येवजीली, युक्त्यो चलयल्यो. शेवटा सोतासयत देशाकय मातयेभरवण केले. बुद्धिभ्रंशाचें एक मानसशास्त्र आसता, एकादरी फट गजाल परत परत खूब वेळां सांगून बुद्धिभ्रंश सहज करूंक येता.

म्हाका केन्ना केन्ना गमतीन दिसता, बांगलादेश झुजांत पाकिस्तानाच्या साठ हजार सैनीकांनी शरणागती दिल्ली आनी ते 'युद्धकैदी' म्हण भारताच्या सुवादीन आशिल्ले. तेन्ना कांय दीस तांचे ब्रेनवाशिंग करूंक तांकां परत परत सांगूंक जाय आसले, 'संपूर्ण काश्मीर हे भारताचेच आसा. भारत संवसारांत सगळ्यांत बळिश्ट देश आसा. कोणच ताका हरोवंक ताकचो ना. काश्मीराचेर दोळो दवल्ल्यार परते मार खातले. धर्माच्या नांवान वोगच नाचू नाकात. निधर्मीवादच संवसारांत श्रेश्ठ आसा.' मागीर पाकिस्तानान परत वतकीर तें कितल्यातरी जणांक हें सांगता आसले. मागीर सगळ्या पाकिस्तानाचे ब्रेनवाशिंग जातले आसले.

आज इंग्लंड, अमेरिका हे देश आपली संस्कृती व्हड, आपलो देश व्हड, आपली इंग्लीश भाशा व्हड म्हण संवसाराचो बुद्धिभ्रंश करीत आसात. तांची भास इंग्लीशीन तर अच्छेव मांडला. इंग्लीश तर बुद्धिभ्रंश करचें एक प्रभावी साधन जाला. म्हाका भिरांत दिसता, हो बुद्धिभ्रंश गुलामीमेरेन पावतलो म्हण!



# फातरांचे इंगळे

**मू**ळ चार पांयाच्या मनशाले हात भूंयपसून सुटून मळबावटेन गेले, ताणें मूठ आंवळूंक सुरवात केली तेन्ना मनशाचो सगट कायापालटच जालो. वांगडा ताची नदरय मळबावटेन गेली आनी ताका मळबाच्या गडगडाटांत आनी विजेच्या जोगलांत देवय दिसूंक लागलो. हात सुटले, मळब उत्कें जालें आनी ताच्या बुद्धिचोय विकास जावंक लागलो. वयल्यावयल्यान पळयल्यार कितले मनभुलायणो दिसता हो कायापालट! पूण हातून एक विसंगती अशी आसा, मेंदुचो विकास जायत गेलो तशें मन मात ल्हानल्हान जायत गेले. कोण एकलो वैशानीक अवकाशात उपग्रह सोडचे पयलीं देवळांत वचून फातराच्या देवाक आरती वोंवाळून येता. एकलो राजकारणी रानाच्या रानां मारून खाता. कोण एक अधिकारी म्हापुरात सापडिल्ल्या लोकाक धाडिल्ले पयशे आपूण खाता. कोण एकलो महापंडीत धर्मांत जातीवाद भरसीता! ह्यो क्षुद्र करण्यो बुद्धिच्यो काय मनाच्यो? बुद्धी प्रामाणीक आसता. थंय बे दुने चारच जातात. पूण मनांत ताचे आठय जावंक ताकतात. नाडबुद्ध म्हण फटीर्ची उतरां घोळणुकेंत आसात, खरें तर ती नाडमन अशीं उतरां आसूंक फाव. मनान बुद्दीक गोळाक लायला. बुद्द बदनाम जाल्या.

बुद्द आनी मन हांच्या विसंगतीक लागुनच मोटो अनर्थ घडिल्लो

आसा. ताचो विकास सारखोच जाल्लो जाल्यार संवसाराचें भांगर जातासलें.

मनशाल्या बुद्दिचो विकास जालो आनी मनीस ज्या चार पांयांच्या प्राण्यापसून, सरपटत वचपी जिवापसून खूब वयर सल्लो आनी मुळाक समको विसल्लो. तें आपलें सैमीक घर आनी त्या घरांतल्या घरच्यांक आपल्यापेल्याक विसरपासारखे आसले. कितलो विध्वंस केलो सैमाचो! प्राण्यांक, शेवण्यांक जोखून जोखून माल्ले. रानाचीं रानां कातरून उडयलीं. हवो, उदक म्हेळें कलें. हें कुराडेच्या दांड्यान कुळाचो घात करचे सारखे आसले. ते मोटे कृतघ्नपणा आसले. इतलो बेदिनवासी कसो जालो तो?

मनशाची संख्या वाडली, भरमसाट वाडली, नाका तितली वाडली. अशे म्हणटात मनशाक धरून दर एक प्राण्याच्या संख्येक आळाबंदा दवरूंक सैमाच्यो काय येवजण्यो आशिल्ल्यो, उपाय आशिल्ले. ते उपाय सैम हालींच्या काळामेरेन परतपरत उपयोगाक हाडटालो. आतां मनशान सैमाचेरच जैत व्हेल्ल्यान सगळे उपाय हारल्यात. मनशान सैमाक आतां आपणामुखार धोंपरां मारूंक लायल्या. आतां मनशांच्या दाटयेक लागून संवसाराक विकृत, बुरशे स्वरूप आयला. ही पिर्तुमी मनशाकच राव खातीर नासली. पूण मनशान तसो स्वार्थी समज करून घेतला खरो. सैमान सगळो वाठार प्राण्यांक, सुकण्यांक, झाडाझोपांक सारखो वाटून दिल्लो. गांवांत, रानांत, मळार, न्हंयत आनी न्हंय तडीर, दर्यांत जांचो तांचो राबितो आशिल्लो. सैमाक गिदां कितें, गायंडोळ कितें, हत्ती कितें, मनीस कितें सगळें सारखें आसलें. पूण मनशान एकल्यानच सगळे हातासले आनी झाडापेडांक, सगळ्या मोनजातीक निर्वासीत केले, उबंतर उडयले. हो तर बेकायदेशीर अतिक्रमणाचो गुन्हो आसलो. आतां तर मनशान सगळे इतले म्हेळ करून उडयला, ताका सोताकच रावंक सुरक्षीत सुवात ना जाल्या.

मनशाच्या मेंदुचो विकास, सैमसातत्या खातीर गरजेचो आशिल्लो व्हय? त्या विकासाक लागून सैमान कितें बरें विधायक घडला व्हय? खरें तर मनशाल्या मेंदुचो गरजेभायलो विकास सैमाच्या, प्राण्यांच्या अस्तित्वाखातीर मोटो मारेकार थारला. अशें म्हणटात चड हुशार मनीस इल्लो पिसोय आसता. आतांची अवतिकाय पळयल्यार ते खरेंच दिसता. आयचो अती हुशार मनीस

सगळीकडेन पिशेपणाच करूंक लागला. सोता मरणाच्या दिकेन वचूंक लागला हें कळना जाल्ल्या मनशाचें कसलें हुशारपण तें? पयशाचो हिशोब चोक्क दवरचो, सामक्या मापाचे कपडे घालचे, अणू फोडून स्पोट करचो ही खरी हुशारी म्हणू येना. तर समेस्त सैमांतले प्राणी, पिसोळीं, वाली, रूख आपले वांगडी मानून तांकां बरोबरीची सुवात दिवन तांची राखण करप हीच खरी हुशारी आसली. पूण हुशारपिशा मनशाक आपल्याच पोटाची लांबी रुंदी मेजूंक कळ्ळी ना. पोटाच्या नांवार 'गिरेस्तकायेच्यो' राशी घातल्यो. अशें करताना सैमाची हिसपाभायर कत्तल केली. बुद्धिवान मनशान भोगवादी जावप संवसाराक एक स्राप आसलो. ती एक मोटी विसंगती आसली.

सगळो सैम - झाडांझोपां, जीवजिवाणी, मनशां, हवो, माती, उदक एका गुंतागुंतीच्या अंतर प्रवाहान बांदिल्ली आसात. ताका एक दुसऱ्यापसून सुटे करप शक्य ना. संवसारांतलो खंयचोच जीव सैमाचे नेम मोडीना, सैमापासून पयस वचना. मनीस मात दिसादिसा सैमापसून पयस वचत आसा.

हाताचो, बुद्दिचो विकास जावन शेवटा ताचें फळ कितें? बुद्दिन सर्वथरार उपभोगाच्या वस्तुंचे, शस्त्रास्त्रांचें, झुजांचे आराखडे मांडले. हातांत कुराडी, बंदुको, तोफ धरले. मनीस इतलो बुदवंत जावंक नासलो जाल्यार ही पिर्तुमी आपल्या सैमशिरवंतकायेसयत, जीवजीवाण्यांसयत आनीक कांय लाख वर्सां तशीच जियेवंक तांकता आसली. आतां पिर्तुमेचें मरण लागीं येवन तेंकलां अशें दिसता. कारण हे मुखार गरमी अच्छेव करची आसा. म्हेळें उदक, हवो मनशाक, सैमाक विखावरी मुळांतल्यानच बांदचो आसा. मनीस कंदमुळांच खायत राविल्लो तर पिर्तुमेचें मरण कांय लाख वर्सांनी मुखार धुकलू येतालें. संवसारांत आनीक एक म्हाझूज जाल्यार सगळेंच खिणांत कोसळून पडटलें. कारण आयज देशादेशांत इतली म्हामारेकार अस्त्रां राशीक घातिल्ली आसात ती पिर्तुमेचो खिणांत चकनाचूर करून उडोवंक तांकतात.

मनशान एक चुकिचो समज करून घेतला, देवान सगळी बुद्द, सगळी संवेदना फकत आपणाकच दिल्यांत. ताका दिसता हेर जीव जिवाण्यांक, झाडाझोपांक दुखना, दुःख जायना, तांकां मन भावना नात म्हण. सामकी

चुकिची कल्पना. संवसारांत जें जें जिवें आसा तें सुस्वरूप आसता, परमळीत आसता, चैतन्यमान आसता, संवेदशील आसता. मनशापरसय शंबर पटीन इंद्रीयज्ञान आशिल्ले प्राणी खूब आसात. तांचेकडेन आपली भाशा आसता, सामाजीक बांधिलकी आसता. राग, मोग आसता. ते सैमाचे नेम सारके पाळटात. तांचो काम हो मनशावरी भोग म्हण नासता, फकत वंशसातत्याखातीर आसता. तेन्नाय ती रुतू राखतात. बलात्कार करीनांत. कोणाक कायमचे बांदून दवरीनात.

खूब खूब बाबतींत मोनजात मनशापरस श्रेश्ठ आसता. प्रामाणीक आसता. झाडांच्या मुळापसून, दांवापासून, पानां, फुलां मेरेन केदें व्हडलें सैमनाट्य चलता! पूण मनीस तांचो धर्तरेचो वांटो न्हयकारता. सगळे सोताच हातासूंक सोदता. शेवटा सैमाचें मरण म्हटल्यार तांचेय मरण हें मनशाक कित्याक कळना?

एक प्राणी ह्या संवसारांतल्यान नश्ट जाल्यार सगळें ब्रम्हांड कांडून काडलें तरी तो परत येवंचो ना. उदकाच्या, नितळ हवेच्या उणावान मनीसच नश्ट जायत तर तो परत जल्माक येवंक परत एक बिग बँगची वाट पळोवंची पडटली. परत एक फावट विश्वजल्माची वाट पळोवंची पडटली. तेन्ना बर्फ, उदक आसतलें म्हण सांगूं येना. आसतलें फकत फातरांचें इंगळे!



# तें पवित्र आसता

**पो**टाची भूक आनी मैथून ह्यो मनशाच्यो मूलभूत गरजो जावन आसात. त्यो मनशाल्यो तीव्र संवेदनाय आसात. त्यो पुरो जाल्या ना जाल्यार कुडींत मोटो खबदळ जाता. मात मनीस पोटाची भूक सोंपेपणान उक्ती करता पूण मैथुनाची भूक व्यक्त करताना कचरता. हें अशें कित्याक जावचें? आमचे कडेन मैथुनाक पोटाचे भुकेपरस खूब उणाक लेखलां.

खरें तर मैथून पोटाचे भुकेपरस समंजस सोंशीक आसता. वेळ–काळ, पिराय, नातें पळयता. एकादरी विधवा मैथुनापसून पयस वृतस्थ रावंक शकता. एकादरो पाद्री, नन् , सन्याशी प्रार्थना, ध्यानधारणा हांच्या बळग्यार मैथुनाचेर जैत मेळोवंक शकता. सैन्यांतले जवान, हेर आपले नोकरी धंद्याक लागून घराब्यापासून पयस रावपी मोन्यांनी वर्सान वर्सां आपली मैथून इच्छा दामून दवरून जियेतात. पूण पोटाच्या मुळेचे होमखण सदां पेटिल्लेंच उरता. सगळें लासून गोबोर करून उडयता. केन्ना एकादरो बलात्कार सोडल्यार मैथूनाकडच्याच हेर चुको उण्योच घडटात. चडान चड फावटीं मैंथून राजीखुशीनच जाता. कारण ती दोगांयचीय गरज आसता. आतां अशें एक फटीचें चित्र उबें करतात, सेक्स ही फक्कत दादल्याची गरज आनी तातूंत बायलांची पिळवणूक जाता, हें खरें न्ही. ताचो आता इल्लो इल्लो बायलांच्या मनाचेरूय परिणाम जावंक

लागला आनी सेक्सातली मुक्त सोबीतकाय शेणूंक लागल्या. मैथून एकतर्फी जावंक लागला. हें बऱ्याचें न्ही.

मैथुनातलो आनंद आनी तातूंत आशिल्लें नवनिर्मितीचें आश्वासन म्हण सैमान मैथुनाक सोबीत, मोगाळ करून दवरलां. मोग हें तातूंतलें एक म्हत्वाचें आंग. तें सैमाचें सातत्य तिगोवन दवरता. एका अंगभूत, मुळाव्या आनंदातल्यान नवनिर्मणी हो सैमाचो मनभुलायणो अविश्कार जावन आसा. मैथुनाचें आकर्शण आनी गरज नर आनी मादीं मदीं नासती तर मनीसजात फासपून वयतासली. घराबो, समाज हे दादल्या बायलेल्या मैथुनाविशीचे गरजेंतल्यानच उबे राविल्ले आसात. तरनाटे हाकाच मोग म्हणटात. हाका मोग म्हण कोणें नांव दिलें काय? खरोच तो फिशाल मनीस! हो मोग कुडीच्या आकर्शणासयत, नवनिर्मणेच्या ध्यासासयत परिपूर्ण आसता! ह्या मोगांत शरीर आनी मन हाच्यासयत एकदुसऱ्यात पुराय भरसून वच्चें आसता. नवनिर्मणी आसता, कर्तव्यभावना आसता, घर वसोवचें आसता. म्हण ह्या मैथुनाक पवित्र, निर्मळ मानूंक जाय. पूण प्रत्यक्षांत समाज मैथुनाक हीण, उणाक लेखता. सेक्सांतल्यान जल्माक आयल्ल्या भुरग्याक ती बरी मटाळटा पूण सेक्साविशीं उलयल्यार ती तोंड घुंवडायता, तिका राग येता.

एक फावट आचार्य रजनीशाचें व्याख्यान आयकतकीर एक बायल तांच्या म्हऱ्यांत आयली आनी म्हणूंक लागली, आज तुमी तुमच्या भाशणांत कुडींच्या संबंदाविशीं उलयले तें म्हाका मात्तूय मानवूंक ना. तेन्ना आचार्य रजनीशान तिका विचारलें, "बाय, तुका भुरगीं कितलीं?" तिणें म्हटलें, "म्हाका तिगां भुरगीं." हाचेर रजनीशान तिका म्हटें,, "ज्या शरीर संबंदांतल्यान तुजीं भुरगीं जल्माक आयल्यांत तो शरीर संबंद वायट, हीण तर. तुगेलीं भुरगीं कशीं बरीं आसतलीं? साधनच वायट जाल्यार साध्य कशें बरें आसतलें?"

रजनीश म्हण्टात, संभोगाक वायट लेखूं नाकात, नाक मोडूं नाकात. देवळांत देवपुजेक वच्चें तशें संभोगाक फुडें वचात. संभोगात समाधी लावन बसशात तर तांतलें स्वर्गीय सूख तुमकां उणभवंक मेळटलें. आमी ताका धापून दवरचो खूब खूब यत्न करतात म्हण तो केन्ना विखाळ, विकृत जावन भायर

सरता. म्हणच बलात्कार, असैमीक संबंद घडटात.

मैथुनाचो मुखेल हेतू सैमाचें सातत्य तिगोवन दवरप हो आसलो तरीय ताचेमदीं सैमान उपाट आनंदाचे, तुश्टतायेचें नियोजन केल्लें आसा. भुरग्यांक, पिलांक जल्म दिवच्या प्राण्यामदींच न्ही तर तांती घालच्या सुकण्या मदीं लेगीत हो आनंद आसा. म्हणच सगळ्या जातीचे नर आनी मादी खूब आकर्शणान आपलेपणान लागीं येतात. हो आनंद नाशिल्लो जाल्यार झगडीं मारामारी आनी पयसुल्लेंपण हाचे बगर कांयच आसचें नासलें. आनीक दुसरें कांयच कारण ना नर आनी मादीक लागीं येवंक आनी घराबो बांदून रावंक. आमी अशें पळयतात, आपलेच जातीचे प्राणी, शेवणींय पंगड बांदून रावतात. तातूंत हेर कारणां मदीं मैथुनांची ओढ हें मुखेल कारण आसाच, कांय जातीचे प्राणी, जिवाणीं वर्सभर पयस पयस रावतात पूण मैथुनाचो मोसम आयलो म्हण्टकीर नर आनी मादी एकदुसऱ्याक सोदत वास काडीत लागीं येतात. मागीर ती खंयच्याय रानांत, अरण्यांत आसूं दीत. इतली ती मैथुनाची शक्त आनी ओड खर आसता.

मनशान आपले बुध्दीन आनी नैतीक भावनेन मैथुनांत शिस्त हाडल्या आनी लक्ष्मणरेशा घालून दिल्यात. मनशांच्या आनी प्राणांच्या मैथुनामदीं मुखेल फरक म्हटल्यार मनीस नाती राखता. पण मनशाचें मैथून उन्नत उंचेल्या पांवड्याचें जालां. मनशान आपले बुध्दीचो आनी वृत्तीचो केल्लो खरोच बरो हो उपेग. त्याखातीर मनशाक सलाम करूंक फाव.

मनशाल्या मैथुनाची सगळ्यांत काळीकुट्ट बाजू म्हणल्यार मनीस आतां असैमीक संभोगाचें समर्थन करूंक लागला. खरें तर ही विकृतीच आसता. प्राण्यांमदीं अशें खंयच जायना. कारण ते सामकी सैमीक जीण जियेतात.

मैथून सुंदर, आनंद दिवपी आसता. तें मोग वाडयता. तें नवनिर्मणी करता. ताचें सैमीक, अहिंसक रूप मनशान राखून दवरूंक जाय!



# हांव

'हांव' वा 'अहम्' ह्या संकल्पनेविशीं न्हयकारी विचारच चड आयकोंक येतात. हांवपण जोडच्या प्रयत्नान आशिल्ल्यांक चड करून अहंकारी, आत्मकेंद्रीत मनीस अशें म्हणटात. खरें तर हांव हो घराब्याचो, समाजाचो, राश्ट्राचो एक प्रभावी घटक. सुटेसुटे हांव मेळूनच समाज घडटा. समाजांतलो 'हांव' जितलो दुबळो तितलो समाज दुबळो, देश दुबळो. 'हांव' जितलो चैतन्याचो आसता प्रमाणीक आसता तितलोच समाज बळिश्ट जाता, प्रामाणीक जाता. देशाचो नैतीक स्तरूय 'हांव'चेरच अवलंबून आसता.

आमी जेन्ना समाज, राष्ट्र म्हणटात तेन्ना 'हांव'क विसरूनच वतात. 'हांव' चो विकास जावंचो म्हण सुटे सुटे यत्न खूबच उणे जातात. केन्ना 'हांव' दुबळो उरल्यार आपलें फावतलें म्हण हांवक किकोंत करतात. जेन्ना मनीस आपल्या 'हांव'क सिध्द करूंक पळयता तेन्ना ताचेसरी भोव तोखणायेन कोण पळयतात अशें म्हणूं नज. तरीय मनशाची जिवीतभराची धडपड ही सोताक 'हांव' म्हण सिध्द करचेखातीरच आसता. ती एका अर्थान समाजाची, राष्ट्राची उदरगत आसता हें कोणाच्या लक्षांत येना. अशें लक्ष दिल्लें जाल्यार मनीस धडपडपी मनशाकडेन आदारान, अभिमानान पळयता आसलो. हांवच्या जैताचो उत्सव हेरय मनयतले आसले.

तो साधो, अरवळसो भुरगो आसलो, घरांत गरिबी आसली पूण ताका खूब खूब शिकचें अशें दिसतालें. बापूय, ताच्या वाड्यावयलो लोक हांका ताच्या शिक्षणाचें पडून वचूंक नासलें. एक दीस तो घरांतल्यान धांवत गेलो. वेळार मजुरी करून तो शिकलो. एम्.क ताका पयलो वर्ग मेळ्ळो आनी तो कॉलेजांत प्राध्यापक जालो. वयलेवयल्यान पळयतना हें व्यक्तिगत जैत अशें दिसता. पूण तें खरें न्ही, वांगडाच ताणें समाजाक व्हड केला, सुंदर केला. राष्ट्राच्या उदरगतेकय हातभार लायला. तो विद्यादान करतलो, बरे सुबुध्द, सुशिक्षीत नागरीक घडयतलो. ताच्या संघर्शाचो प्रभाव ताच्या शिकप्यांचेरय पडटलो.

तो तसोच अशिक्षीत, अरवळ जावन पडून आसतो तर तें समाजाकय घातक आसतासलें. समाजाचें लुकसाण जातासलें. तो नैतीक, बौद्धीक आनी आर्थीक नदरेन ताकीवंत जाल्ल्यान समाजा वांगडा ताच्या घराब्याचेंय बरें जातलें. तो घराब्यांतल्या मनशाक तुश्ट, सुखासमाधानाचें जिवीत जगूंक दितलो. तो तांकां पोटभर जेवण दितलो, बरें न्हेसूंक, हांथरूक, कांबरूंक दितलो. ताचीं मनशां समाजांत मानान जियेतलीं. ताच्या 'हांव'क सिध्द करच्या धडपडींतल्यान हरांचेंय बरें जातलें.

हांवक सिध्द करचे पयलीं मनशान सोताक वळखप, सोताचेर खूब खूब मोग करप गरजेचें. हेर खंयच्याय वस्तूपरस, हेर खंयच्याय मनशापरस सोताचेर चड मोग करपी मनीसच सोताची उदरगत करूंक शकता, सोताक सिद्ध करूंक शकता. सोताच्या 'अहम्' चो अतिरेक जालो तरीय हरकत ना, लोकान बकत्शाय केली तरीय हरकत ना, सोताचेर आदी मोग करात आनी सोताक सिध्द करून दाखयात!

जो मनीस सोताच्या 'हांव' कडेन दुर्लक्ष करता, ताका दरिद्र, किकोंत करून दवरता, तो सोताखातीर आनी समाजाखातीरय कांय करूंक ताकना. म्हण मनशान सगळ्यांत पयलीं हांवचेर मोग करचो.

'हांव' क प्रस्थापीत करतनाच, विज्ञानाचे सगळे शोध लागल्यात. 'हांव'क सिद्ध करतानाच एकदारो कलाकार अचाट कलाकृती निर्माण करता.

मार्कोपोलोन आपले हांवपण सिद्ध करताना तिसऱ्या संसाराचो सोद लायल्लो. सिकंदर हांवपण सिद्ध करूंकच संसार जिखूंक भायर सरिल्लो. गौतम बुद्ध, गांधी हांणी उपरांत संसाराच्या बऱ्याचो खूब विचार केल्लो आसलो तरी हें करूंक तांकां आदी आपलें 'हांवपण' सिद्ध करचें पडिल्लें. ना तर तांचें कोण कितें आयकुचोच नासलो.

हांवपण राखप आनी आत्मकेंद्रीत जावप ह्यो विंगड विंगड गजाली. 'हांवपण' पुराय विकसीत जाल्लो मनीस केन्ना आत्मकेंद्रीत जावंचो ना. तरी हातूंत भिरांत आसताच ती, आत्मकेंद्रीत जावप आनी हांवपण राखताना पैशांच्यो राशी घालप, खऱ्यो तर ह्यो हांवपणाच्या वाटेवेल्यो विकृती. ताचेनच हांवपण बदनाम जाल्लें आसा. अहम् म्हटल्यार एक गाळ कशी जाल्या.

सगळ्या स्पर्धांनी, परीक्षांनी पयलो येवची ही धडपड फक्कत अहम् – हांवपण दाखोवचे खातीरच आसता. कोणय तुमची तोखणाय करता तेन्ना 'हांवच' सुखावता. सोतांतल्या हांवपणाक मटाळून घेवचे खातीरच हेरान आपली तोखणाय करची अशें दिसता. मनशान कितलेंय म्हटलें तरी मनशांतलें हांवपण सुटून सुटना. तें मनशामदीं घट्ट मुळां रोवून उबें आसा.

अहम् वा हांवपण सोडून दिल्यार मनीस खरोच लेचोपेचो, निश्क्रीय जावन वतलो. नैतिकतायेच्यो सगळ्यो मर्यादा राखून हांवपण धरूंक कितें वायट आसा? हातूंत अट एकच हांवपण राखताना कोण्णाक आपलो त्रास जावंचो न्ही.

मात हांवपण राखतलो जाल्यार मनशान आदीं सोताचेर खूब खूब मोग करूंक जाय!



# अस्त्रां

मनशाक ह्या संसारांत जियेताना, सोताचें अस्तित्व तिगोवन दवरताना हर खिणाक अस्त्रां बाळगुवचीं पडटात. राष्ट्राक राष्ट्र म्हण जियेताना बारीक बंदुकीपासून अण्वस्त्रांमेरेन अस्त्रां बाळगुवंची पडटात. झुझा खातीर विमानां, झुजातारवां, पाणबुडयो दवरच्यो पडटात. तशीं मनशांय आपल्या व्यक्तिगत राखणे खातीर कांय अस्त्रां बाळगून आसतात. तांचीं हीं अस्त्रांय अद्भूत आसतात, विचित्र आसतात. केन्ना तीं तुबकां, तोफा परसूय प्रभावी आसतात.

मनशालें सगळ्यात म्हत्वाचें अस्त्र म्हटल्यार भिरांत. भिरांत ही मनशाक सदांच शादूर दवरपी अशी संवेदना. ती तितलीच मनशाक उपकारी. मनीस आपल्या जीवाक थोडोतरी धोको उप्रासलो म्हण्टकरीत सादूर जाता. तो धांवत वता, मजतीक उलो घालता. ताका भंय दिशिल्ल्यानच तो हें सगळें ताकतिकेन करता. ह्या भंयाच्या अस्त्राक लागूनच मनीसजात उत्क्रांतीच्या प्रवाहांत हांगामेरेन तिगून उरल्या. सैमान जाणा जावन भंयाचें बीज मनशाच्या मनांत पुरून दवरलां. अगदीच चड भीवप ही विकृती खरें, पूण सामकेंच ना भिवप हीवय विकृतीच. असो ना भिवपी मनीस अवसानघातकीपणान आपलो जीव व्हगडायता, जो मोलादीक आसता.

माणकुलें भुरगें सामकेंच निश:स्त्र आसता. हातपाय चलनात आनी

उलोवंकय येना. तेन्ना ताचेपाशी एकूच अस्त्र आसता तें रडप. तें केन्ना किंळाचत व्हडव्हडान रडटा. हेरांचें लक्ष आपणासरीं ओढून घेता. आयकतल्याक काकुयट दिसता. केन्ना तें रडप सोंसना जाता. मागीर आवय ना तर कोणतरी धांवन येताच. येवन भुकेक दूद दिता, ना तर दुखीक वखद करता.

दुकांचोय बऱ्याच वेळार अस्त्र म्हण उपेग जाता. बायलो चडच खरी खोटीं दुकां गळयतात.आवय बापायचें मन वळोवंक, घोवाचें मन पाघळावंक ताचो तांका बरो उपेग जाता. दुकां गळयतल्या मनशविशीं मोग, सहानुभुती दाखोवप तर आमच्या काळजांतच आसा.

मोग ह्या अस्त्राची तोखणाय तर सदांच जाता. एकादरे संहारक अस्त्र करूंक शकचे ना तें काम मोग सहज करूंक ताकता. बुध्द, जेजू जल्मतानाच मोगाचें अस्त्र घेवन आयल्ले. म्हण तांकां मोगान संसार जिखूंक आयलो. शत्रूक जिखचेखातीर मोगाचो उपेग करात हें सर्वकाळात सगळेजाण सांगत आयल्यात. कोणाक ना दुखयता, पयस ना करता जिखचे मोगासारखें दुसरें अस्त्र ना. संसारांत मोगान जिखतले सदाकाळ उल्ले, झुजां करून जिखतले बेगीच सोंपले. सैमानय आपले वंशसातत्य तिगोवचे खातीर मनशांत मोगाची मांडणी केल्ली आसा. म्हणच तरनाटी मनान कुडीन लागीं येतात आनी नव्या जीवाक जल्म घालतात. आवय मोगानच भुरग्याक ल्हानाचो व्हड करता.

महात्मा गांधीन सत्य आनी अहिंसा ह्या अस्त्रांचो उपेग खूब केलो . ताका सत्याग्रहाचें अस्त्र अशेंय ते म्हणटाले. त्या अस्त्राक भिवन ब्रिटीश धावन गेले कांय खबर ना, पूण ह्या अस्त्रान संसाराक नैतिकतायेचें अधिष्ठान दिलें. मोग, सत्य आनी अहिंसा हींच अस्त्रां सर्वनाशाचे दिकेन वचपी संसाराक वाटोवंक शकतासलीं. पूण आज तांचो संसारांत भोवच उणो उपेग जाता. नेपोलियन, हिटलर, गांधीचे शिश्य आशिल्ले जाल्यार झुजां, म्हाझुजां जावंचींच नासलीं. कारण गांधीजीची सत्य, अहिंसेचीं शस्त्रां तांच्या संहारक अस्त्रापरस प्रभावी आशिल्लीं.

शिक्षण हें एक अशेंच प्रभावी, बहुआयामी अस्त्र आसा. ह्या अस्त्राक लागून मनशान सगळे ज्ञानविज्ञान, सगळे वाठार पायाखाला घेतल्यात. अणूरेणूंक

वेठीक धल्ला. चंद्र, मंगळा मेरेन धडक मारल्या. तो महासंगणकाक खेळयता. आयज मनशासरीं शिक्षणाचें, ज्ञान–विज्ञानाचें निर्णायक अस्त्र आसा तें ताणें आपल्या बुध्दीन जोडलां.

मनीस आनी प्राणी हांच्या आपल्या सुरक्षितायेचीं अस्त्रां वेगवेगळीं आसतात. वाग, शिंवाचें अस्त्र आंगाची शक्त तर मनशालें अस्त्र फक्कत बुध्द. दुर्बळ प्राणी, सुकण्यांचें अस्त्र फक्कत भिरांत.

अस्तुरी आपल्या दोळ्याचेंच केन्ना अस्त्र करता. आपल्या सोबीतकायेचें अस्त्र तर ती करताच. हें अस्त्र तर खूबच प्रभावी आसता.

अजून कितलींशींच बरीं वायट अस्त्रां मनशासरीं आसात. लाचारीचें, हांजीहांजीचें, कपटाचें, गोड उलोवंचें, खोटें खोटें हांसचें. मनशालो हात जशें एक अस्त्र आसा तशें ताचे दोळे, ताची जीबय एक अस्त्र आसा. जीब मनशाक मोहान पाडटा तशी ती दुखयताय. खंयच्याय धारदार शस्त्रां परस मनशाल्या जिबेनच मनशाक चड दुखयल्लें आसतलें आयजवेर.

आतंकवादी धर्माचें अस्त्र म्हण उपेग करतात. समाजांत धोशी घालपी जातीचें अस्त्र म्हण उपेग करतात. आयचे घटयेक ती मारेकार अस्त्रां जाल्यांत. पुराणांतल्या लिखितांचोय अस्त्रां म्हण उपेग जाता. वेदांतल्या विधानांचो, मनुस्मृतीचो अस्त्र म्हण उपेग करून समाजांतल्या खालच्या लोकांचो कितलो छळ, पिळवणूक केल्या ह्या लोकांनी! रूग्वेदांत खंय जाती वेवस्थेक पोसवण दिवपी एक सूक्त आसा. त्या सुक्तान शेकड्यांनी अणुशस्त्रां करूंक तांकची नात तितलो विद्वाट केल्लो आसा.

शेवटा एकूच खरें, मोग आनी क्षमा हाचेसारखीं बळिश्ट अस्त्रां संसारात दुसरी नांत. ताचेन संसारातलीं सगळी मारेकार अस्त्रां निकामी करूं येतात.



# साहित्य प्रयोजन

**शे**वटाक मनशाक ललित साहित्याचो उपेग तरी कितें हो प्रस्न वाचकाच्या मनांत केन्ना ना तर केन्ना उठ्ठाच आसतलो. ताची जाप थोडक्यात अशी आसूं येता, साहित्य ही संसारांतल्या खंयच्याय कलेपरस मनशाच्या जिवीताक चड स्पर्श करची, चड लागींचो संवाद साधपी केला. हेर कला ह्यो कलेखातीरच्यो कला म्हणूं येतात. पूण साहित्य मात ही जिवीताखातीरची कला. ती कला सगळ्या कलांक आपणांत सामावून घेवंक तांकपी सर्वसमावेशक कला जावन आसा. तातूंत काव्य स्वरूपान संगीताचे बोल आनी ताल आसतात. साहित्य उतरांतल्यान उदेंत्या सूर्याचे सोबीत चित्र काडूंक ताकता. तशेंच उतरांतल्यान गूण अवगुणांसयत मनशाचें सोबीत शिल्प उबें करूंक ताकता. पयली कविता जाली आनी ताच्या तालार संगीत जालें. पयलीं महाकाव्यां बरयलीं आनी मागीर त्या कथानकार नाटकां जालीं.

वेद धरून संसारांतले सगळे धर्मग्रंथ आदी बरे साहित्यग्रंथ आसात. साहित्या सारखेंच ते रसाळ वाचनीय आसतात. निवेदन आनी शैली खूब कलात्मक आसता म्हण लोक ते इतलें वाचतात.

मनशान अस्थिर सैमाक तोंड दीत आपली वीण आज हांगामेरेन सुगूर हाडून पावयता. मनशाल्या ह्या संघर्शाचें चित्रण फक्कत साहित्यांतल्यानच

वाच्चें. साहित्य मनशाल्या अस्तित्वाच्या संघर्शाक उदात्त, उन्नत करता. ताचो भोवमान करता आनी मुखावेल्या पिळग्यांक आनीक बळगें दिता. वांगडाच मनशालें जिवीत सत्य, शिव आनी सुंदर आसा म्हण सांगता. ताका नैतिकतायेचें अधिश्ठान दिवंक धडपडटा. मनशाच्या जिवीताक साहित्यान दिल्लें नैतिकतायेचें अधिश्ठान हें साहित्याचें मोटें अभूतपूर्व काम जावन आसा. साहित्यांन मनशाच्या जिवीताक संस्कृती दिल्या, सोबीतकाय दिल्या, विचार दिला, नैतिकताय दिल्या. भरसभेंत केल्लें द्रौपदीच्या वस्त्रहरणाचें पातक कौरवांक सर्वसंहाराचें प्रायश्चित दिवनच सोंपता. हें साहित्यांत अभिप्रेत आशिल्लें सत्. साहित्यांन केन्नाच वायट कर्तुबाचें, स्वैराचाराचें, अनितीचें गुणगायन केल्लें ना. आज टिवी सिरीयलांनी लग्न जाल्ले बायलेक परपुरूशाच्या वेंगेंत धुकलतात. अभिजात साहित्यान अशें केन्ना केलें ना. चुकून अशें घडल्यार केन्ना मरणाचें प्रायश्चित घेवंचें पडलां. अहिल्येक फातर जावन पडून रावचें पडलां.

आज भारतीय मनार राम, कृष्ण, धर्म, भीश्म, सीता, द्रौपदी हांचें राज्य कित्याक आसा? भारतांतल्या दोन महाकाव्यां – रामायण आनी महाभारत हांणी सुंदर, नितिमान, विचारसंपन्न देश घडयला. ती साहित्याचीच शक्त जावन आसा.

ब्रिटीशांनी 'जाय तर आमचें साम्राज्य दीवं पूण आमी आमचो सेक्सपीयर दीवचे नात' अशें कित्याक म्हटलें आसतलें काय? ज्या देशाचें साहित्य श्रेश्ठ तो देश चड सुसंस्कृत अशें कित्याक म्हणटात काय? टॉलस्टॉयच्या मोलान पुराय रशिया मापून घेवं इतली ताची म्हयमा आसा. भारत देशाच्या जिवीतांतल्यान दोनय म्हाकाव्यां काडलीं तर तो आत्मो शेणून बशिल्लो तेजहीण जातलो.

साहित्य दर एक शेंकड्यांचो, दसकांचो आढावो घेता आनी ताका दिशा दिता. समाजामुखार हारसो धरता. घराब्याची, समाजाची वेवस्था बळकट करता. कीड लागिल्ली बाजू दाखोवन दिता.

साहित्य सोबीतकायेची उपासना करता. मनीस धरून सैमांत जें जें म्हण सोबीत आसा, आकर्शक आसा, हरवेंताल्ल आसा ताची ओढ साहित्याक

लागिल्ली आसता. तें मनीस आनी सैम हांचे अद्वैत साधचेलो यत्न करता. हें काम अवघड आसलें तरी तें पिळग्यान पिळग्यो चालूच आसा. धर्म, जाती समाजांत दुफळी घालतात. फूट पाडटात. उल्टें साहित्य मनशा मनशाक लागीं हाडटा. मनशावांगडा मनाच्या खोलायेंतल्यान संवाद साधता. ताच्यो कथा व्यथा सांगता, दुकां पुसता. बऱ्याच्या वाटेर हाडून सोडटा.

साहित्य वाचूनच दरयापारच्या लोकांक कळटा, सगळीकडेन मनशां मनान, भावनेन, हावेसान सारखींच आसतात. मोगाचें, रागाचें स्वरूप सगळीकडेन सारखेंच आसता. मनाची, दुकांची व्यथा सारकीच आसता. साहित्यातल्यानच संस्कृती देशाभायर पावता. मागीर देशादेशांतले लोक आपलेपणान लागीं येतात. देशादेशांतल्या लोकांक मनान लागीं हाडलां तें राजकारणान न्ही, झुजांनी न्ही तर साहित्यान. लोकांची अशी एक स्रध्दा आसा, साहित्य हें सदांच सत् सांगता.

म्हणच सगळ्या कलेंत फक्कत साहित्याकच नोबेल प्रायज दितात. ते लोक हुशार म्हण तांका साहित्याचें मोल कळ्ळां.

भाशा हो संस्कृतीचो मानदंड आसता. भाशेवेल्यानच मनशाली पत कळटा, ताचो सुसंस्कृतपणा कळटा. साहित्य भाशेचो निवळ विकास करता. ताका गिरेस्त करून सुसंवादाक उपयुक्त करता.

आमच्याकडेन शिक्षणाच्यो सगळे तरेच्यो शाखा आसात. पूण 'जगपाच्या ज्ञानाची' शाखा ना. हें ज्ञान फक्कत साहित्यच खोलायेन दिवंक शकता. मनशां कशीं वळखुवप, कशीं वाचप, ताचेबराबर कसो व्यवहार करप, तांच्यो भावभावनां हें साहित्यच बरें जाणां.

साहित्य बरोवप्याक नवनिर्मणेचो दैवी आनंद दिता. वाचताना वाचप्याचीय तनरी लागता. तें समाधी सूखच आसता. वांगडा तांची मन रिजवणय जाता. साहित्य वाचप्यांच्या भावभावनेसयत, दया, मोग, क्षमा, सेवा ह्या गुणांसयत मन ताजें, संवेदनक्षम दवरता.



# आडमर्णां

**कां**य जाणांचीं मरणां देशाखातीर सामकीं दुर्दैवी थारल्यांत. तीं मनशां एक तर बेगीनच मरून गेल्यांत्त वा देशाक तांची सामकी गरज आशिल्ली तेन्नाच उठून गेल्यांत. हीं जीं मनशां आनीक पांच - धा वर्सां जियेली आसती तर भारताचो इतिहास, भुगोल बदलून गेल्लो आसतो.

शिवाजी महाराजान स्वराज्याची स्थापना केली. ते आदिलशाही, मोगलशाही सारख्या बळिश्ट राजेशाहींक तोंड दिवन बरेंच वाडयलें, बरेंच थीर केलें. तेन्नाच पिरायेच्या त्रेपन्न वर्साचेरच तांकां आडमर्ण आयलें. ताची मुखावेलीं सपनां अर्दकुटींच उरलीं. तांचो शूर, धीट चलो संभाजी हाका तरण्या पिरायेरच औरंगजेबान विश्वासघातान धरून जिवानिशी मारलें. हे दोगय खूब जियेले आसते तर भारताचो नकासोच बदलून वता आसलो. महाराष्ट्राच्याच कित्याक पुराय भारताच्या वाट्याक मुखार आयल्लो धर्मद्वेश, गुलामी, झुजां आनी रगतपात चुकता आसलो. मुखार पेशव्यांनी जातीवाद इतलो वाडयलो तो पुराय महाराष्ट्रभर एक म्हामारी कशी पातळ्ळी, शाप कसो बादलो.

भारत स्वतंत्र जालो तेन्ना मुखावेली जापसालदारकी आंगार घेवंक एकादऱ्या कर्तव्यठोर, दूरदर्शी, धीट पुढाऱ्याची गरज आसली. नेमकें तेन्नाच सुभाषचंद्र बोस गेले. वल्लभभाई पटेलाक तरी इतले बेगीन मरण कित्याक

येवक जाय आसले? सुरवेक खंबीर हातान हाताळूंक नाशिल्ल्यान बरेच प्रस्न देशांत पुढाराखातीर उपरासले. फुटीरवाद मातलो. भाशावाद, गरिबी, भ्रश्टाचार हाची बाजबजपुरी जाली. भोंगळ लोकशाय आयली. सुभाषबाबू जियेवंक जाय आसले. नव्या भारताचो फुडार थारोवची संद तांकां मेळूंक जाय आसली. सुभाषचंद्रा वांगडाक भगतसिंग मेळिल्लो जाल्यार भारताचो फुडार फळफळटा आसलो. संसारांत एक बळिश्ट राष्ट्र म्हण भारत देश मुखार सरता आसलो. भगतसिंगाक तर ब्रिटीशांनी तरण्या पिरायेचेरच फासार मारलें.

लालबहादूर शास्त्री पिरायेच्या बासश्ट वर्सारच ताश्कंद हांगा देवाधीन जाले. तेन्ना भारताक तांची भोव भोव गरज आसली. महात्मा गांधीची तत्वनिश्ठा आनी सत्याची राखण फक्कत शास्त्रीच पुढाराक नीट करूंक ताकतासले. आजचें हें इतलें लोकशायेचें भ्रश्ट अमंगळ रूप दिसचें नासलें. तांच्या मरणान मुखार लोकशायेक गिराण लागिल्लेवरीं जालें. शास्त्री अजून धा वर्सां तरी जियेता आसले तर भारताच्या राजकारणाची दिशाच बदलून गेल्ली आसती.

स्वसंस्कृती, स्वभाशा, देशाची अस्मिता हांचो भोव भोव अभिमान आशिल्ल्या राम मोहन लोहियांक तरी इतलें बेगीन कित्याक मरण येवचें आसलें? पिरायेच्या सत्तावन वर्सारच ते गेले आनी भरकटिल्ल्या राजकारणावेलो अंकूश गेलो. भारताच्या अस्मितेक अवकळा आयली. देशी भाशांक कोण विचारी ना जालो, त्यो किकोंत जाल्यो. भारताचो आत्मो वळखल्लो तो पुढारी आशिल्लो. ताका भारताच्या सांस्कृतीक परंपरेनच भारताची उदरगत करची आसली. आज भारतान आपणायल्ली इंग्लीश भाशेची मानसीक गुलामी ताका मात्तूय मान्य नासली. ते आनीक कांय वर्सां भारत देशाखातीर, आमचेखातीर जियेवंक जाय आसले.

एकादऱ्या घराब्यांतलो कर्तो सवरतो पुरूश उठून वच्चो तशें भारताच्या राजकीय, सामाजीक, अर्थीक आनी कला संस्कृती वाठारांतल्यान कितले तरी हिरे आडमर्णान अचकीत उठून गेल्यात. पुराय संवसारांत नामनो जोडिल्लो गणीताचार्य रामानुजन पिरायेच्या अवघ्या तेत्तीस वर्साचेर उठून गेले. ते आनीक धा-वीस वर्सां जगते तर ते गणीत विद्येंतल्यान संसाराचें कुवाडें सोडोवंक

तांकता आसलें. भारताचें नांवय व्हड करता आसले. ताचें मरण भारताचेंच न्ही तर पुराय संसाराचेंय मोटे दुर्भाग्य आसलें.

आद्य शंकराचार्य पिरायेच्या बत्तीस वर्सारच गेले नसते तर घडये तांणी पुराय हिन्दू धर्माचो कायापालट केलो आसतो. मनुस्मृतीय परती वरोवन काडली आसती. ताका लागून बायलांक आनी दलितांक जे कश्ट, तापत्रय आनी मानहानी सोंसची पडली ती घडये चुकता आसली. मनुस्मृतीक हातबोट लावपी एकलोय विद्रोही ब्राह्मण भारतांत जल्माक येवंक ना. आद्य शंकराचार्यान घडये तें केलें आसतें. शंकराचार्याक ती तांक आनी जनमान्यताय आसली.

भगतसिंग हासत हासत फांसार गेलो म्हणूंक कितलें बरें दिसता. शिवाजीलो पूत संभाजीन औरंगजेबामुखार मान बागयली ना हें म्हणूंकय बरें दिसता. राणा प्रतापान अकबराक शरण वच्चे परस वनवास आपणायलो हें आठवूनय काळीज अभिमानान भरून येता. लक्ष्मीबाई, तात्या टोपे हांचेय आमी गुणगायन करतात. पूण तांच्या दर एकल्याच्या मरणान पुराय भारताचें अतोनात लुकसान जाल्लें आसा. संत ज्ञानेश्वरान ज्ञानेश्वरी बरोवनच पिरायेच्या वीसाव्या वर्सार समाधी घेतली? ताच्या समाधीचेर शेवटचो फातर लायतल्या नामदेवाक कित्याक दिसलें ना तो आनीक जियेवंक जाय म्हण? ताणें काव्य बरोवन आनीक वीसतीस वर्सां मराठीची सेवा केल्ली जाल्यार मराठी आज संसारांतली अव्वल दर्जाची भाशा जाता आसली. इंग्लीशीच्या मानेर उबें रावन आपलें व्हडपण दाखयतासली.

हांव कांय वर्सां भारतीय सैन्यांत आसलो तेन्ना कितले तरी शूर, हुशार, तडफदार तरणे सैनीक अधिकारी रणांत मेल्ले हांवें पळयल्यात. खरें तर ती भारताची मोलादीक गिरेस्तकाय आसली. ते जगते तर ताणी आनीक देशाची सेवा केली आसती.

खरें तर देशाक आसूं वा घराब्याक आसूं, कर्तबगार पुरूशांचें आड मरण घातकीच आसता.



# संवेदना

मनशां हालींसाराक भावनाशून्य म्हणजे संवेदनहीण जावंक लागल्यांत कांय कितें? पयशे जोडपाच्या पाड सतींत आनी सुखाचो उपभोग घेवंच्या हापापिल्लेपणांत संवेदनेक स्थानच ना काय कितें? दिसूंक लागलां मनशाचीं मनां भोंडी ज़ायत चल्ल्यांत. संवेदनेच्या अभावांत तीं सुकूंक लागल्यांत!

मनशाच्या भितर जीं जीं म्हण आंगां आसात तातूंत म्हत्वाचें आंग म्हटल्यार मनशाचें मन. ताचो मेंदू वांगडा संबंद आसता, हातपाया वांगडा संबंद आसता तितलोच काळजा वांगडाय आसता. तें अमूर्त आसूनय जीवीतार ताचोच शेक. मनच हासयता आनी रडयता. तें मोग करूंकय लायतना आनी दुस्वास करूंकय लायता. मन प्रसन्न उल्ल्यारच मनीस पोटभर जेवता, मन दुखावल्यार ताची भूकच मरता. मनच आनंद घेता आनी मनच दुख्ख भोगता. म्हण मन ताजे, निरोगी उरप भोव मोलाचें.

म्हण आयज मनशाखातीर हेर खंयच्याय गजालीपरस मन ताजे, जिवें दवरप गरजेचें जालां. एक फावट मन सुकलें म्हणटकीर सगळो खटाटोप फुकट वतलो. मागीर उपभोगाच्या वस्तूंच्यो राशी घातल्यो तरी ताचो कांयच उपेग जावंचो ना. इतलेंच कित्याक मना सुकलीं म्हणटकीर कला, साहित्य, संगीत मोडीक वयतलें. दया, करूणा, सेवा, क्षमा ह्या मौलीक गुणांकय कांय मोल

उरचें ना. खरें तर मनशान कला, साहित्य, संगीत, आध्यात्म हांचो उपेग शेंकड्यांनी वर्सां मनां ताजी, निरोगी दवरचे खातीरच करून घेतिल्लो. आतां मनशाचें मन इतलें भुंडे बोथट जालां, मनाच्यो संवेदना जागोवंक कर्कश, ढामढूम अस्तमत्या संगीताचो आधार घेवंचो पडटा.

संवेदनहीनता, संवेदनशीलता आनी अत्यंतय संवेदनशीलता अश्यो मनाच्यो तीन पती मानूंक येत. संवेदनहीन मनीस निगरगट्ट, कठोर आनी दयामायाहीण आसता तर अत्यंत संवेदनशील मनीस मनान केन्ना दुबळोच आसता. तें मनाचें दुबळेपणच म्हणू येता. अशा मनशाक समाजांत वावुरताना खूबच त्रास जातात. ल्हानसान गजाली मनाक लावन घेवन कुडत बसतात. असो मनीस केन्ना बरो कलाकारय आसूं येता पूण तेखातीर ताका बरेंच मोल फारीक करचें पडटा. सदांच अस्वस्थ रावचे पडटा. संवेदनशील मनीस मात सदांच संयमी आसता. ताच्याकडल्यान कलेसयत बरीच विधायक कामां घडून येतात. संवेदनशील मनीस मनान निगरगट्ट जावन कितें वायट कर्तुब करचो ना.

गौतम बुध्द मुळांतच संवेदनशील आशिल्लो. म्हणच मनीस जातीचीं दुखां पळोवन ताचें मन कळवळलें. म्हणच ताणें करूणेचो, समतेचो, अहिंसेचो ध्यास घेतलो. त्याच प्रवाहांतलो महात्मा गांधी. तेवय खूब संवेदनशीलच आशिल्ले. ताणी भारतांतल्या जनतेचीं दुख्खां जाणलीं. तांचीं दुख्खां पयसावंक, गुलामींतल्यान मुक्त करूंक सत्य आनी अहिंसेचो मार्ग आपणायलो. ताका आमी सत्याग्रह अशेंय म्हणटात. गांधी सारख्या संवेदनशील मनशाकच हें शक्य आसलें.

फक्कत संवेदनशील मनशातच म्हामानव जावंची तांक आसता. संसारांतलें सगळें सत्य, शिव, सुंदर संवेदनशील मनशांक लागूनच अवतरलां. ही संवेदनशीलताय फुलां, फळां दितल्या झाडांतय आसूये आनी वासराच्या ओडीन हाबेंवपी गायतय आसुये. सगळ्यो वेदना सोंसून बाळकाक जल्म दिवपी आवयत तर ती आसताच. आवयक फुटपी पानो तर संवेदनशीलतायेचें मुर्तिमंत रूप जावन आसा.

संवेदनशील मनीस सैमांतलें तरल, सूक्ष्म नाट्य आत्मीयतेन पळयता. प्राणी, सवणीं, झाडांझोपां हांच्या वांगडा इश्टागत साधता. तो सैमाच्या राखणेखातीर धडपडटा. सैमाचेर मोग हो संवेदनशील मनशाल्या मनाचें एक सोबीत आंग.

आजवेर सगळे अत्याचार, अन्याय, हिंसा संवेदनहीण मनशानच मनशाचेर, सैमाचेर घातिल्ली आसा. संवेदनहीनताय वांगडा विकृतीय घेवन येता. मनशाच्या चोम्याक गॅस चेंबरान घालून मारप हें संवेदनशील मनशाक केन्ना शक्य आसा? पण हिटलरान तें केलें. कारण तो संवेदनहीण विक्रत पशूच आसलो. आजवेरची सगळीं फुजां संवेदनहीण मनशानच मनीसजातीचेर घातल्यात. लाखांनी निश्पाप, निरपराध मनशांक मारल्यांत.

एकादऱ्या हरणाचेर घुरी घालपी वागाचें रूप तुमी पळयलां? जबडो, दावखुलां अशीं फिसकारिल्लीं आसतत. दोळे तांबडे, क्रूर जातात. तेन्ना थंय संवेदनेचो मागमूसय नासता. खून करपी, बलात्कार करपी, हेरांचेर अन्याय अत्याचार करपी मनशाचेंय तशेंच आसता. तांच्या मनाचो लासून गोबोर जाल्लो आसता. थंय फक्कत कांटे किल्लल्ले आसतात.

आज संवेदनशील मनशांच्या चड उणावाक लागूनच धर्मीक कट्टरवाद, आतंकवाद पातळ्ळा.

मोग हो संवेदनेतल्यान कसोच कुशीक काडूंक जावंचो ना. ताका लागूनच आपलो पयलो, नातीगोतीं आमी सांबाळून घेवन आसात. संवेदनशील मनीसच जाण्टेपणाक आवय बापायली बरी सेवाचाकरी करूंक पावता. संवेदनशील मनीस राग, लोभ पयस दवरता आनी काम जिवीतांतय संयम राखता.

पूण मन ताजे संवेदनशील राखतलो जाल्यार कला, साहित्य आनी सैम हांची उपासना गरजेची. तीच संजीवनी मन ताजें जिवें, दवरूंक शकता.



# वास आनी परमळ

**वा**साक आनी परमळाक जितल्यो म्हण तरा आसात तितल्यो रंगाक, आकाराक, स्वरांकय नात. कुसपी मड्यापसून फुलपी मोगऱ्यामेरेन आनी भुरग्याच्या जावपापासून जळपी मड्यामेरेन असंख्य वास आनी परमळ आसात. संबंद पिर्तुमी नाका मुखार धरून फुलावरीं हुगूंक मेळिल्ली जाल्यार तिचोय एक आगळोच सर्वसमावेशक परमळ घेवंक मेळटलो.

कांय वास तीव्र भडक आसतात, कांय लेव संयमी आसतात. अबोलीकय परमळ आसतलो पूण तो अंतर्मुख आसा, एकादऱ्या मनस्वी, सुशील अस्तुरेवरीं. म्हण परमळ नासतानाय अबोलीचें फूल सगळ्यांक मानवता.

कांय वास क्रूर, उंचाबळ करपी आसतात. कांय मोगाळ, मायाळ आसतात. आवयल्या पदराचो सुवास, आवयचें दूद पिल्ल्या भुरग्याच्या तोंडाचो सुवास कितलो सात्विक आसता! तर केवड्याचो, भूंयचाफ्याचो, शिनाळ बायलेच्या आंगाचो वास थतरवितर करपी, अस्वस्थ करपी आसता. मोगऱ्याचो, ओंवळाचो परमळ कितलो थंड संथ आसता, पेटपी शांत दिव्यावरी!

वाऱ्याक परमळ आसता. न्हंय, दरयाक, पावसाकय तो आसता. ते परमाणे सुर्याच्या उजवाडाक, चान्न्याक तो आशिल्लो जाल्यार! तांका परमळ आशिल्लो जाल्यार संसार आनीक सुखाचो जाता आसलो? चान्न्याक तर

परमळ जायच आसलो!

रातराणी रातची फुलता आनी खंय ती मोग्यांलो प्रणय जागयता. केन्ना बागेंतल्या एक कोनशांतल्यान पयसुल्ल्यान येवपी हो परमळ रातचो काळजाक तेंकिल्लेवरीं जाता.

मोगाक परमळ नासता घडये, पूण मिलनाक, प्रणयाक खऱ्यांनीच परमळ आसता. तो हून हून श्वासांतल्यान, फुलपी रंध्रांतल्यान, शिरांनी व्हांवपी रगतांतल्यान, गळपी हुमेंतल्यान उक्तो जाता. ह्या सरमिसळ वासांत सुखाचो हुंकार आसता आनी नवनिर्मणेचें आश्वासनय आसता. म्हण हो परमळ भोव मोलादीक आसता. फुलांचो, चंवरांचो परमळ लेगीत नवनिर्मणेचो संदेश दिता. म्हण अशें म्हणूं येता, सैमाच्या नवनिर्मणेच्या संबंद प्रक्रियेक एक सलग परमळ आसता.

नव्या व्हकलेच्या आंगाचो सुवास स्वर्गीय आसता. तो भितरल्यान फुलपी तिच्या मनाचो, कुडीचो, तिचे कुडीवेल्या शृंगाराचो आसता. लागींच्यान तो वास घेतल्यार निकतोच फुलिल्ल्या आंब्याच्या चंवरावरीं दिसता.

अस्तुरेच्या जुवानपणाक मनभुलायणो परमळ आसता. दादल्याच्या दादलेपणाकय परमळ आसता. थंड शाकाहारी प्राण्याच्या आंगाचो वास वेगळो आसता. हिंस्र मांसाहारी प्राणाच्या आंगाचो वास वेगळो आसता. रानांत वाग लागीं खंयूय आसल्यार वासारच वळखूंक येता. गोठ्यांत गोरवां आसतात थंय गोरवांच्या आंगाचो, तांच्या शेणामुताचो मेळून आगळोच वास पातळिल्लो आसता. तो खरें तर परमळच. ताका घाण वास म्हणपी खरोच कर्मकट्टो.

मरणाकय मरणवास आसता. मुसुंडेक हाडांमांसाचो जळटो वास आसता. हो वास अणभवूंक मरचे पयलीं एक फावट तरी मुसुंडेर वच्चें आनी मडें पुराय जळून जायसर रावचें.

परमळहीण, वासहीण संसाराची कल्पना म्हटल्यार सुको शेंकऱ्याचो सडो आशिल्लेवरीं. जें जें जिवें आसा ताका परमळ आसा, जें जें मेलां, मरूंक लागलां ताका घाण बुट्टाण वास आसा.

एकादरी बाळबाळंतीण घरांत आसली म्हण्टकीर एक स्वर्गीय परमळ

घरांत पातळटा. भुरग्याच्या जावळाचो परमळ, तिगेल्या बाळंतऱ्हाणाचो परमळ, मोम्याच्या दुदाचो परमळ, धूप, वोंव्याच्या धुराचो परमळ मेळून एक दैवी परमळ पातळिल्लो आसता घरांत.

रणमैदानाक एक क्रूर तीव्र वास आसता. कितली तरी दारी लासत बांबगुळे फुटत आसतात, गुळीबार जायत आसता. मनशां मरतात, जखमी जावन पडटात तेन्ना चोयवटेन भिरांकूळ वास पातळटा. महाभारताच्या झुजा उपरांत रणाचो बुट्टाण वास कितले तरी म्हयने तसोच पातळिल्लो आसलो अशें म्हणटात.

मातयेक परमळ आसता. तो परमळ फुलां फळांतल्यान घेवंक मेळटा. मातयेक गंध नासतो तर फुलांक हे तरातरांचे परमळ खंयच्यान आयले? मातयेंत परमळ भरून आसा. माती आपलोच परमळ फुलांक, फळांक, पानांक दिता. माती मुळांत परमळाचो महास्रोत जावन आसा. गंदाच्या लाकडाकय परमळ मुळांत मातयेनच दिला. पयल्या पावसाक जेन्ना मातयेचो परमळ चोयवटेन पातळटा तेन्ना मन हुरहुरता.

बऱ्या सद्गुणी सद्वर्तनी मनशाल्या आंगाचो वास आनी दुश्ट दुर्गुणी मनशाल्या आंगाचो वास वेगळो आसता काय? हय, आसूंकच जाय. सद्गुणाकय वास आसता तो ताच्या कुडींतल्यान उक्तो जाता. ताचें अस्तित्व सगळ्यांक आनंदीत करता.

सैमाचें एक नियोजन अशें आसा, परमळ हो नवनिर्मणेचो पायो तर घाण वास मरणाचो, विनाशाचो संकेत. सदां परमळापासून सुरू जाल्लो हो प्रवास घाण वासांतच सोंपता. ही खरें तर एक शोकांतिकाच जावन आसा सैमाची.



# अन्याय

एकादऱ्याच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकांक विचारलें तर, एकदऱ्याच्या आंगावेल्यान व्हांवपी रगताक विचारलें तर ते अन्यायाच्योच खबरी सांगतलें. एकादरी नवी सून हुंड्याखातीर छळ सोंसता, ल्हान अनाथ भुरगो पोटाखातीर मरसर वावर करता, गरीब बायल घोवालो सोरो सोंसता, गरीब शेतकार वर्सभर शेतांत घोळूनय शेवटाक उपवास काडटा, तेवय सगळें अन्यायाचीच काणी सांगतले.

अन्याय करपी आनी अन्याय सोंसपी हांचें नातें कदीमकाळापसून चलत आयल्लें. दादलो आनी बायल, भाटकार आनी मुणकार, मालक आनी सेवक, बळिश्ट आनी दुर्बळ, सवर्णा आनी दलित हांच्या संबंदांतल्यान चड करून अन्याय उबो जाता. हांगाच सैमीक संपदेची विशम विभागणी जाता आनी थंयसानच अन्याय सुरू जाता. हांतली शोकांतिका अशी की अन्याय करपी मातत रावतात आनी अन्याय सोंसपी दुबळेच उरतात. शतमानांतल्यान जावपी एकादरी क्रांती ही अन्यायांतल्यान जाता. अन्यायाचोच तो उद्रेक आसता. पूण मनीस जातीक हाचें भाग्य उणेंच. कांय जमातींचो तर शतकान शतकां अन्याय सोंसचो धर्मच जावन पडटा. मागीर तेंच तांकां पुण्यकर्म दिसूंक लागता. जमीनदारांक खंड पुराय पावोवंक नज जाल्यार तो थतरवितर जाता.

आपणाक पातक लागतलें म्हण भियेता.

अन्यायाआड कोणी उबो राविल्ल्याचें पळोवंचे भाग्याचे खीण आयुश्यांत खुबच उणे फावट येतात. अन्याय मोन्यांनी सोंसप्यांची भुरावळ मात खूबच आसा. मनीस जातीचो इतिहास म्हटल्यार फक्कत अन्यायाचोच इतिहास जावन आसा. तकलेर मारिल्ली झुजां, गुलामी, पिळवणूक, अत्याचार, छळ, कत्तल हीं अन्यायाचीं भिरांकूळ रूपां. तीं संसारान परतीं परतीं सोंसल्यात.

रावणान सीतेक उखलून व्हरून मोटो अन्याय केलो, दुर्योधनान द्रौपदीचें वस्त्रहरण करूंक लावन मोटो अन्याय केलो. हातूंतल्यानच मुखाल्ली विनाश घडोवपी झुजां जालीं. अन्यायाचो शेवट खूबच उणे फावट अशा झुजांतल्यान जाता आनी अन्याय करतल्यांक ख्यास्त मेळटा. न्यायाचो, सत्याचो सदां जयच जाता हें फक्कत पुस्तकांतल्यान वाच्चें. प्रत्यक्षांत जीवीतभर अन्यान सोंसून मरून गेल्लेच चड आसतात. आपली न्यायाची बाजू पंधरावीस वर्सां न्यायालयांत झुजून हारिल्ले उणे नात. चोयवाटेन अन्यायाची व्हडवीकाय आसा. अन्याय मातत आसा. अन्याय पयशे जोडून गब्बर जायत आसा. न्याय फक्कत शीयांत कुडकुडटा. फाटके घालून रस्त्यान भोवता. भुकेन तळमळटा. अन्यायामुखार धोपरां मारता.

आमी अन्यायाच्या राज्यांत जियेतात. तो मतामतांक पयशे खावोवन आमदार, खासदार जाला. आनीक कोण गरीबाल्या पोटार पांय दीवन, भ्रश्टाचार करून मोटो पयशेकार जाला. तुजेकडेन शंबर दोनशे एकर जमीन, म्हाका हातभर कुडको ना कित्याक? कम्युनिझम ही अन्यायाआड उबी जाल्ली राजकीय चळवळ. ताणींय आतां धोपरां मारल्यात. कायदो अन्यायआड झुजूंक एक शस्त्र म्हणूं येतालें. पूण कायदो आसून न्यायच मेळना जाल्यार कायदे कित्याक चुलीक घालूंक. कायदे न्यायाच्या दारांत पावसर लुळेपांगळे जाल्ले आसतात. खरें तर आतां अन्यायाआड झुजूंक मनशाकडेन खंयचें अस्त्रच उरलें ना. अन्यायाआड उबो रावतल्यांक लोक पिसो थारायतात. केन्ना गुळी घालून मारतात.

लेखणी हें एक पवित्र साधन मानतात. पूण त्या लेखणीच्या बळार

सुशिक्षीत लोक अशिक्षीत, अनाड्यांचेर वर्सानुवर्सां अन्याय करीत आयल्यात.

खरें तर सगळी पोलीस यंत्रणा, न्यायस्वस्था, कायद्याचीं पुस्तकां अन्यायविरूध्द म्हण उबीं केल्लीं आसतात. पूण आज हें सगळें भिजिल्ल्या फुगोट्यावरीं निश्प्रभ थारल्यात.

मनीसच मनशाचेर अन्याय करता अशें न्ही तर एक समाज दुसऱ्या समाजाचेर अन्याय करता, राष्ट्रां राष्ट्रांचेर अन्याय करतात. जाती व्यवस्था, अस्पृश्यता मनीस जातीक कलंकच न्हय तर तो एक मोटो अन्यायच जावन आसा. हिटलरान संसाराचे तकलेर दुसरें म्हाझूज मारून ज्यूंची कत्तल करून अन्याय केल्लो. शेवटा आत्मघात करून घेवन ताणें त्या अन्यायाची ख्यास्त घेतली. संसारानय ताका हीण लेखलो. तशेंच ब्रिटीशांनय जाय त्या राष्ट्रांक शेंकड्यांनी वर्सां गुलामींत घालून थळाव्यांचो भोव छळ केल्लो, अन्याय केल्लो. हिटलराक इतिहासान ख्यास्त भोगयली पूण ब्रीटीश मात झेतान मिरयतात. राष्ट्राकुलाची थापणूक करून गुलामीचें उदात्तीकरण करतात. जालीयनवालाबागचे केद्दें व्हडलें हत्याकांड तांणी केलें! ताची साधी भोगसणी मागूक ते तयार नात. ह्या सगळ्या अन्यायाविशीं तांकां ख्यास्त कोण दितलो? खरें तर भारत स्वतंत्र जातकीर इंग्लंड देशाक नाझीसारखे अंतरराष्ट्रीय कोर्टांत हाडून उबे करूंक जाय आसले.

अमेरिकेन अन्यायान व्हिएतनाम, इराक, अफगाणिस्तानाचेर आक्रमणां केलीं तेन्ना संसारांतली चडशीं राष्ट्रां वोगच रावलीं. खरें तर अन्याय मोन्यांनी पळोवपी अन्याय करप्या इतलोच गुन्यांवकारी आसतात. वा ते बिजूट आसतात. म्हणच म्हाका फ्रेंच राज्यक्रांतीच्या वेळार सोळाव्या लुईक राजमहालांतल्यान ओडून हाडून जिवानशी मारपी लोक पूज्य दिसतात. इंग्लंडांत वचून क्रूरकर्मा विल्यम कर्जन वायलीक मारपी मदनलाल धिंग्रा खूब व्हड दिसता.



# परिपक्व पिराय

आमचेकडेन जाण्टेल्यांक मोडीत काडची परंपराच आसा. गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम, सन्याशाश्रम ह्यो भाकडकथा वरचे वयर आयकोंक येतात. ताची पिरायेची मर्यादा मात खंयच घालून दिल्ली ना. केन्ना वानप्रस्थाश्रम सोपता आनी केन्ना सन्याशाश्रम सुरू जाता खबर ना. मुळाव्या शास्त्र लिखितांत ते खंयूय आसतय. पूण तांचो अधिकार, तांची संपत्ती ताब्यांत घेवंची ही एक माण्णीय आसूं येता. बापूय राजा आसल्यार ताच्या शिंवासनार पुताक जाता तितले बेगीन बसूंक ही माण्णी बेस बरी.

युरोप, अमेरिकेंत जाण्टे लोक शेवटमेरेन उमेदीन जियेतात. सगळ्या सुखांचो आनंद घेतात. नायट क्लबांनी तर जाण्टेले भरिल्ले आसतात. आमचेकडेन जाण्टो जातकीर मनशान निरिच्छ रावंक जाय, सगळ्या सुखापसून पयस रावंक जाय ही भावना. कित्याक हाका जाप ना. पिराय जातकीर कामवासना उणी जाल्ली आसत पूण हेर सगळ्यो संवेदना तितक्योच तीव्र आसतात. खरें तर जाण्टो मनीस हेर सगळे वायट विकार फापडून उडोवन शुद्ध नितळ जावन उबो आसता. तो अणभवसंपन्न पूर्णपुरूश आसता. ताचो मानभोवमान करूंक जाय. ताच्या अणभवांचो उपेग करून घेवंक जाय.

आमकां जाण्टो मनीस आनी दुयेंत मनीस हांचेमदीं वेगळचार करूंक

कळना. दुर्येंतीकडेन पळयल्लेवरीं आमी जाण्ट्या मनशासरी पळयतात. थारावीक पिराय जातकीर ताका जाण्टो जाल्ल्याची जाण करून दिवप, ताका मुखेल प्रवाहांतल्यान कुशीक काडप हें आमच्या कायद्यानच थारता. एकादऱ्याक नोकरेंतल्यान, व्यवसायांतल्यान निवृत्त करप म्हटल्यार ताच्या तांकीचेर, बुद्दीचेर अणभवाचेर अविश्वास दाखोवप. तरीय तो फाटल्या पिळगेखातीर आपली सुवात मेकळी करून दिता हाची कृतज्ञता खंयच दिसना. हंयसानच ताचो आत्मविश्वास वता आनी तो कळमेवंक सुरू जाता. भारतांत मनशाक जाण्टेंपण बेगीन येता. खरें तर तें मनाचें जाण्टेपण आसता, तेंच तर घातमारे आसता. आमचे जाण्टेले मनान आदी म्हातारे जातात, मागीर कुडीन. तांची मनाची उभारी तिगोवन दवरूंक आमचेकडेन माण्णी ना. घरांत तर तूं जाण्टो जाला, एकलो वचूं नाका, गाडी, स्कुटर व्हरू नाका हें चलिल्लेंच आसता. मागीर ताकाय आपली बारीक मोटी दुखणीं पिरायेक लागूनच आयल्यांत अशें दिसूंक लागता, तो लावन घेता, ताचो बाऊ करता. एक घातचक्र मागीर सुरू जाता.

खरें तर जाण्टो मनीस हो अणभवाची खण आसता. यश आनी अपयशाचें, मनशाच्या संदर्भांतले, व्यवसायांतले प्रचंड ज्ञान ताचेसरीं आसता. पूण आमची वृत्ती आसता, पोन्न्या पिळगेचें ज्ञान, तांचे अणभव तुच्छ लेखचेले. मागीर आमी ताका जनरेशन गॅप म्हणटात आनी मेकळे जातात.

खरें तर फाटल्या पिळगेच्या खांदार बसूनच मुखाल्ल्या पिळगेचो प्रवास सुरू जाता. तांच्या पावलार पावल घालूनच मुखार वतात. मनीस कुळयेची ही उदरगत पिळगी दर पिळगी चलिल्ली आसता. आमी पोन्नेंच चड घेतात आनी नवें खूब उणें घडयतात. पोन्न्याची कृतज्ञता बाळगुवप म्हटल्यारूच जाण्टेल्यांचो सन्मान करप.

आतां तर मनशाच्या शक्तिस्त्रोताचो खरो शोध लागिल्लो आसा तो सांठीत रावपी न्ही. एकादरो जाण्टो राजकारणी पिरायेच्या ऐंशी, ब्यायेंशी वर्सा मेरेन राजकीय डावपेच खेळूंक शकता, प्रसंगार गुंडागिरीय करता. मोटो मंत्री, गव्हर्नर जाता. प्रधानमंत्री, भारताचे राष्ट्रपती, चड करून जाण्टे पिरायेचेच आसतात, ते काय बरे उमेदीन काम करतात. मागीर सर्वसाधारण जाण्टेल्यांक

किकोंत करून कुशीक कित्याक काडटात? सिनियर सिटिझन जावंची पिराय साठ न्ही तर ऐंशी तरी आसूंक फाव. तशें जाल्यार वीस वर्सांनी तरी तांची उमेदीची पिराय वाडोवं येतली.

पिराय जाल्ल्याचें जाण्टेपण जोखूंक साधो उपाय आसा, तांकां तांकता म्हणसर ताणें वावर करीत रावप. शेतकार आपल्या कुडीक त्राण आससर शेतांत वावर करीत रावता. तांकना तेन्ना सोता पांयान येवन हांथरूण धरता. जाण्टेपणाचो शेवट असोच सैमीक जावंक जाय. नोकरेंतल्यान निवृत्त जाल्ल्याची गत जीवीतांतल्यान निवृत्त जाल्लेवरीं जाता. तेंच वायट!

एक मनीस आशिल्लो ताच्या पिरायेच्या पंचात्तर वर्सार तागेले पूत आनी सून एका अपघातांत सांपडून मेलीं. तेन्ना ताका सात ते बारा हे पिराये मदलीं तिगां नातरां आसलीं अर्थिक स्थिती बेताचीच आसली. पूण त्या जाण्टेल्यान आपले कंबर बांदलें. पिरायेच्या ब्याण्णव वर्सामेरेन तो आपल्या नातरांक वयर काडूंक धडपडटालो. त्या काळांत ताणें नातवाक इंजिनीयर केलो दोगांय नातींक शिकोवन बऱ्याकडेन लग्नां लावन दिलीं. इतली चेतना त्या जाण्टेल्यांत खंयसान आयली? मुळांतच ती आशिल्ली. नियतीन परीक्षा घेवंक नासली जाल्यार ती केन्नाच आटून वता आसली.

आमी आज जाण्टेल्यांक किकोंत लेखून देशाची परिपक्व मनीस संपदा व्हगडायत आसात.



# अपेक्षाभंग

मनशां खिणा खिणाक अपेक्षाभंगाचें दुःख भोगत आसतात. वा अशें म्हणूं येता, दुःखाचें दुसरें नांवच अपेक्षाभंग. बापूय आपले चलयेचें लग्न मोट्या अपेक्षेन एकद्या वांगडा करून दिता. लग्नाक माटोव, वाजंत्री, कपडो-लत्तो, दागिने, जेवणावळी असो मोटो थाटमाट आसता. तेन्ना आवय बापायल्या आनंदाक उधाण आयल्लें आसता. आपली चली दिल्ल्या घरांत सुखान उरची ही काळजाथावन अपेक्षा आसता. पूण तेच चलयेक सासरच्या लोकांनी लासून माल्ली म्हण खबर येता तेन्ना मोटो अपेक्षाभंग जाता. ह्या अपेक्षाभंगाचें दुःख सोंसून सोंसना जाता.

आवय बापायन भुरग्यांक ल्हानाचे व्हड करचे, तांकां शिक्षण दिवंचें, घोवान बायलेचेर मोग करचो, बायलेन घोवावांगडा एकनिशठ रावचें, भावान भयणीचें रक्षण करचें, प्रजेन देशाचेर मोग करचो, सरकारी नोकरांनी प्रामाणीकपणान लोकांची कामां करचीं, गुरून शिश्याक सुशिक्षीत, सुसंस्कृत करचें, भुरग्यांनी जाण्टेपणाक आवय बापायची सेवा करची अशो कितल्यो तरी अपेक्षा आसतात. पूण ह्यो अपेक्षा हरघडी तुट्टात तेन्ना अपेक्षाभंगाचें दुःख भोगचें पडटा. तेन्ना मनशां पयसावतात, समाजांत फूट पडटा, देशाचें भवितव्य धोक्यांत येता.

ल्हान भुरगीं व्हडाकडच्यान खूब अपेक्षा बाळगितात. निरागसपणान

तांचेर पातेवन रावतात. पूण ताच्यांच नशिबांत अपेक्षाभंग चड येता. तांका व्हड मनशां मारझोड करतात. शिक्षणापासून पयस दवरतात, मजुरेक धाडटात, तांचो लैंगिक छळ जाता. ह्या अपेक्षाभंगान तांचें पुराय आयुश्यच गोळाक लागता.

असहाय्य, दुयेंत आवयबापूय भुरग्यासरीं खूब आशेन, अपेक्षेन पळयतात. तांणी आपणाक मोग दिवंचो, आपली सेवा करची अशें दिसता. पूण हांगा अपेक्षाभंग जाता तेन्ना ते सगळे मोन्यांनी सोंसतात. पूण दुःखाचो एक दरया तांच्या दोळ्यान देंवन आयल्लो दिसता. मरसर ते अपेक्षाभंगाचें दुःख भोगत आसतात.

कांय अपेक्षा नैतिकतेवांगडा बांदिल्ले आसतात, रस्त्यार अपघात जावन रगतबंबाळ जावन पडिल्ल्या मनशाक हॉस्पिटलांत पावोवची येत्या वयत्यांची नैतिक जापसालदारकी. हातांत पयशे नासतनाय आकांताक खाजगी हॉस्पिटलांत बाळंत जावंक आयल्ले बायलेक दाखल करून घेवचें हें डॉक्टरालें नैतीक कर्तव्य. ह्या बाबतींत जेन्ना अपेक्षाभंग जाता तेन्ना गरजू मनशां मरून वतात.

एक भुरगो आशिल्लो, तेरा चौदा वर्सांचो. ताच्या शेजाराकच एक विधवा बायल रावताली, सोबीत, मोगाळ, गोड उलोवपी आनी कोणाल्याय मजतीक धांवन वचपी. ती त्या भुरग्यालोय केन्ना अभ्यास घेताली. ती बायल ताका साक्षात देवी कशी दिसताली. तिचो तो भोव भोव आदर करतालो. एक दीस ताणें तिका गांवच्या एका हुंब आडदांड दादल्याच्या वेंगेंत अर्दनागडी पळयली. तो अपेक्षाभंगांत हडबडून गेलो. ताची वाचाच बसली. वर्सभर बेठोच हा हा करीत भोंवतालो.

मोगभंग जाल्ल्याचो खरो तर अपेक्षाभंग जाल्लो आसता. आत्महत्या करपीय अपेक्षाभंगाच्या दुःखानच जीव दिता. घरांतल्यान धांवन वचपीय घरांतल्या लोकाविशीं अपेक्षाभंग जाल्ल्यान धांवन वतात. अपेक्षाभंग जाल्ल्यानच घटस्फोट जातात.

सैमापसूनय आमच्यो अपेक्षा आसतात, हवामान बेस बरें उरचें, पावस

बरो पडचो, पीकफसल बरी येवंची, शेतकार शेतांत बीं रोवन पावसाची वाट पळयत रावता. केन्ना अपेक्षाभंग जाता. किल्लल्ली शेतां सुकून वतात. भूंयक भेगो पडटात. ना तर इतलो पावस पडटा, पूर येता आनी सगळें कुसून वता. मागीर ह्या अपेक्षाभंगांन भूक, गरिबी, आनी कर्जबाजारीपणा!

द्रोणाचार्यान गुरूदक्षिणा म्हण एकलव्याकडेन उजव्या हाताचो आंगठो मागलो तेन्ना आनी उपरांत एकलव्य अपेक्षाभंगाच्या उज्यांत कितलो जळून गेल्लो आसतलो? सीता वल्कलां न्हेसून रामा वांगडा रानांतल्या काट्याकुट्यांतल्यान भोंवली. झोपडेंत रावली. पूण त्याच रामान लंकेंतल्यान परततकीर तिका अग्निपरीक्षा दिवंक लायली. तेन्ना सीतेन अपेक्षाभंगाचें कितलें दु:ख भोगलें आसतलें? वस्त्राहरणाच्या वेळार द्रौपदीन सोताक वाटयात म्हण कौरव सभेमुखार रडून कितल्यो विनवण्यो केल्यो? पूण एकलो मुखार सल्लो ना. केदो व्हडलो अपेक्षाभंग हो! पूण ह्या अपेक्षाभंगाचें द्रौपदीन भांगर केलें, तिगेल्या वस्त्राक हात घालपी दु:शासनाल्या रक्तानच तिणें आपले सोडिल्ले केंस भीमाकडच्यान बांदून घेतले.

कांय अपेक्षा अवास्तव आसतात, पुराय जायनात. घोव बायलेकडच्यान आनी बायल घोवाकडच्यान खूबच अपेक्षा करतात. त्यो पुरो जायनात म्हण्टकीर बेबनाव, झगडीं जातात. वयार येवपी भुरगो बापायकडच्यान केन्ना बापायच्या तांकीभायल्यो अपेक्षा करतात. ताका मोटरसायकल, मोबायल, लेपटॉप सगळें जाय आसता. मेळना जातकीर तो घुसमट्टा, कोडूपण घेवन रावता. देशाखातीर कांय करिनात, देशानच आमचे खातीर करचें अशी अपेक्षा आसता. मागीर सरकाराक दुशणां दीत रावतात.

तरीय एक खरें, हालींच्या काळांत सगळ्यांत चड आमचो अपेक्षाभंग राजकारण्यांनी केला. देशाक भ्रश्टाचारांत लेपडायलां. आमच्या भाशांची दुर्दशा केल्या आनी इंग्लीशीक मातयल्या. फटीच्या मतांतरांतल्यान वेंचून येवन लोकशायेची लज काडल्या. हे अपेक्षाभंग देशाक खूब म्हारग पडचो आसात.



# मनवैरी

मन भावना जावन आसा, मन संवेदना जावन आसा. मनच मोग, मनच राग, मनच मत्सर आनी मनच लोभ, मोह! मन सर्वव्यापी आसा. तरीय तें मूर्त न्ही, तें इंद्रीय न्ही, तें स्पर्श न्ही! ताका 'रंग' आसा पूण आकार ना. मनशालें पूर्ण आयुश्य म्हटल्यार फक्कत ताचो मनोव्यापार जावन आसा. मनावांगडा झुजता झुजता मनशाले संबंद आयुश्य सोंपून वता. मन मानना. मन हट्ट करता. मनाकच सोन्याची तल्लफ लागता. मनाकच फुलांचो परमळ घेवंचो दिसता. मन निश्कळंक मोग करता. मनाक उपभोगय घेवंचो अशें दिसता. मनांत मानगी आसात तशेंच आर्त रडपी कवडुलेंय आसात. मनाच्या ताजेपणान हे आर्त सूर मनांत्त घुंवतात तर सुकिल्ल्या मनाच्या सड्यार कर्कश सूर घुंवतात.

मन मनशाक खेळयता, मनशाक नादाक लायता, मनशाचो अध:पात करता. मनशाक, ताचे कुडीक आपलें माध्यम म्हण उपयोग करून घेता. तांकां गृहीत धरता.

खरें तर मनच सूख भोगता, मनच आनंदीत जाता. तें भोव चंचल आसता म्हण रोखडोच ताचो मूड वता. तें रोखडेंच मोहांत पडटा आनी मनशाक बदनाम करता. चोरीय मनच करता आनी बलात्कारूय मनच करता. मनाची तयारी ना जाल्यार कांयच जावंचें ना. मन कुडीक भितरल्यान कोंचयता,

पेटयता आनी सगळें करूंक लायता.

बुध्दी आनी मन, व्यवहार आनी मन हांचो केन्ना सहयोग जुळना. मन मानिना म्हणच संसारांत ह्यो समस्या निर्माण जाल्यात. मन मनशा वांगडा द्वैतय साधना आनी अद्वैतय साधना. तुमचेसरी लागू आसूनय पयस पयस भरकटत वता. तुमच्या प्रकृती आड कारस्थानां रचता. मनाक आवरून धरचें मोटें कठीण कम आसता. ती अग्निपरीक्षाच आसता. विश्वमित्रासारखो म्हानतपस्वी तपश्चर्या करता करता मेनकेच्या नादाक लागता. प्रामाणीक सरकारी अधिकारी करकरीत नोटां पळोवन भुल्लुसता, लांच घेता आनी धाडीच्या जाळ्यांत सांपडटा. मनाक लगाम घालून आवरूंक येतालें तर संसारांतले सगळे प्रश्न सुट्टासले. कोण केन्ना लांच खावंचो नासलो, खून, बलात्कार करचो नासलो. खुनाचे, बलात्काराचे बीं आदी मनांत पडटा. मागीर मनच कुडीक प्रवृत्त करता, पेटयता. खरें तर मनाचे ना मानप कुडीन शिकूंक जाय. पूण ही खूब खूब अवघड गजाल.

आमी 'इंद्रीयदमन' सदां आयकत आयल्यात. पूण मनाचें दमन ही संकल्पना आयकोंक येना. सगळ्या तरेचीं शास्त्रां आमचेकडेन तयार जाल्यांत. पूण मन आवुरचें शास्त्र अजून तयार जावंचें आसा. अशें शास्त्र तयार जातलें तो दीस मनीसकुळयेक भांगराचो आसतलो.

ही विद्वाटी बाजू सोडल्यार मनाची विधायक, संवेदनशील बाजूय आसा. मन तितलेंच मोगाळ आसता. मनांत ममता आसता, वात्सलय आसता. मन अभिरूची संपन्न आसता. ते सोबीतकायेचो कलेचो आस्वाद घेता. मोगाळ मन हेरांचीं दुःखा पळोवन दुकां गाळटा. ह्या खातीर मन ताजे टवटवीत आसचें पडटा. ताजें मनच संवेदनशील आसता. मनशान तें तशें राखूंकय जाय. मनाक मरगळ येवंक दिवंची न्ही. मनाक सुकूंक मरूंक दिवंचे न्ही म्हण मनशान शादूर रावचें पडटा. एक फावट मन सुकतकीर सगळो खटाटोप फुकट वतलो, मनशाची मोनजात जातली. नात्यांतलें आपलेंपण मरून वतलें. सैमांतली सोबीतकाय, कलेविशींची अभिरूची ना जातली. मनाची संवेदनशीलता ही मनशाक सैमान दिल्लें मोटें देणें. पूण कांय बाश्कळ गजाली ही संवेदना नश्ट

करूंक तांकतात. पोटापाण्याचे वा आपल्या अस्तित्वाचे झगडें इतलें खर आसना जे वरवीं मनाची संवेदना भोंडी जातली. पूण चड आनी चड जोडचेली हाव आनी तेखातीर जावची पिळवणूक हाचेंन मन भोंडे जावंक शकता. मनशान मनशापसून तुसडेपणान, कुसडेपणान तुटून रावप हेंवय एक कारण मनाक कीड लागचेलें. सुकिल्लें मन केन्ना क्रूर जाता, सेवा करच्या बदलाक गळोय दामूंक शकता म्हण मन ताजें दवरचे गरजेचें जालां. कारण सुकिल्ल्या मनाची मनशांच गुन्हे करतात, जाण्ट्या आवय बापायक घरांतल्यान धांवडायतात, हुंड्याखातीर बायलांचो छळ करतात, लासून मारतात. कांय जण जल्मतनाच सुकिल्लें मन घेवन येतात जावंये. पूण चड लोक जाणां जावन हो रोग लावन घेतात. हय, हो एक रोगच. काळजाक तेलतूप नाका आसता, यकृताक सोरो माल पडटा, तशेंच मनाक सुवार्त, कुसकेंपण, दुस्वास नाका आसता. नितळ, पोजिटीव्ह विचार मनाक पोसवण दितात.

बऱ्या नशीबान मनाक ताजें, जिवें दवरूंक बरेच उपाय आसात. करूणेंतली दुकां, मोगांतलें आपलेंपण, दुर्बळांची सेवा, सैमाचें सानिध्य, कलेंतली संवेदना, साहित्यांतल्यो भावभावनां मनाक ताजें दवरूंक तांकतात. बरें संगीतय मनाक ताजें दवरूंक तांकता.

कुडीच्या नांवार मनच सगळो आनंद घेता. मनच खाता जेवता. एकल्याक खूब भूक लागिल्ली. बऱ्या बऱ्या खाणा जेवणाचे ताट ताच्या मुखार आसले. तो रूच्चीन जेवंक लागलो तेन्नाच खबर आयली, तेगेलो एकलोच पूत चड दुयेंत जावन ताका हॉस्पिटलांत घातला म्हण. ताची जेवणावेली वानसाच गेली. ताच्यान एक उंडी उखलूंक जाली ना. कूड तीच, भूक तीच, मागीर अशें कशें जावचें? मनाचीच जेवणावेली वानसा गेलल्ली. मनच दुःखी कश्टी जाल्लें.

आमी दोगां मनशांचो सूर जुळप म्हणटात तें मनां जुळपच आसता. मनां न जुळप हें एक संकश्टच आसता. नातीं इबाडून वतात. थाटामाटान लग्न जातात, मागीर मनां जुळलीं ना म्हणटकीर झगडीं सुरू जातात आनी घटस्फोटाखातीर कोर्टाच्या पायऱ्यो झरयतात. मनां जुळ्ळीं जाल्यार मनशां

कसल्याय अरिश्टांत, गरीबेंत बेस जियेवंक शकतात.

आतां मनशां पयशाफाटल्यान, भौतीक सुखा फाटल्यान खूबच धावंक लागलांत. म्हण मना सुकून वचचेलो मोटो धोको उपरासला. मना सुकतकीर मनशालें मनीसपण सोंपतलें म्हण शादूर रावंक जाय.



# स्रमप्रतिश्ठा

स्रम हें सृजनाचें दुसरें नांव. सगळी सगळी नवनिर्मणी स्रमांतल्यान जाल्ली आसा. सोबीत इमारती, न्हंयेवेले बांद, हजारांनी मैलांचे रस्ते, पिकूंक उबी राविल्लीं शेतां, इतलेंच कित्याक एकादरो सोबीत, कलात्म पुतळो, सगळे सगळे स्रमांतल्यान उबे जाल्ले आसा. अशें म्हणटात, देवाक नमस्कार करपी हातांपतस स्रम करपी हात स्रेश्ठ आसतात. ताच्याय मुखार वचून हांव म्हणन, बरोवपी, आंकडेमोड करपी, आराखडे तयार करपी हातापरस श्रम करपी हातच व्हड! स्रम हे नीतळ, सोबीत, निरागस अशी मनशाली सृजन अभिव्यक्ती जावन आसा. खरें तर स्रम करपी स्रमीक होच धरतरेचो राजा. मनशाल्या अस्तित्वाक आनी उदरगतेक स्रमाचो मोटो वांटो आसा. पोटाखातीर स्रम म्हटल्यार सोताच्या अस्तित्वाचोच ध्यास आसता.

संसारांत जें जें म्हण उबें केल्लें दिसता ताच्या फाटल्यान स्रम आसात. स्रम हें कुडीची चेतना आनी चैतन्य. सैमसंपदा आनी स्रम करचेली शक्त ही मनशाक मेळिल्लीं दोन वरदानां! स्रमाचो इतिहास मनीस मनीस म्हण दोन पांयार उबो रावलो तेन्नासान सुरू जाता. ज्या दिसा मनशान उबो रावन हातांत फातर धरलो, तेन्नासान ही स्रमाची परंपरा विविध रूपांत अखंडपणान चालू आसा. आयदां, हत्यारां बदललीं तरी स्रमाचें म्हत्व आनी ताचें स्रेश्ठपण तशेंच उल्लां.

पूण हातली शोकांतिका अशी, स्नम करपी आनी आयतो बसून तांची पिळवणूक करपी हांचो वर्ग कलह हजारांनी वर्सांपासून तसोच चालू आसा. स्नम करप्यापरस स्नम करून घेवपी व्हड ही मूर्ख विसंगती केन्नासान, कशी तयार जाली हें कुवाडेंच आसा. सरंजामशाही, जमीनदारी, भांडवलशाही, तसेच वेठबिगारी, गुलामी, हें स्नम करप्यांच्या पिळवणुकेंतल्यान वयर सरिल्लें आसा.

शेतांत काम करपी, हूम गाळपी शेतकार राजा कश्टान शेत पिकयता पूण आपूण मालक, जमीनदार आशिल्ल्याचें नीब करून दुसरोच तातूंतलो व्हड वांटो घेवन वता. व्हडल्यो इमारती बांदून उब्यो करपी, त्यो चुन्यान, रंगान रंगोवपी कामदार मात पावसांत गळपी झोपडेंत रावतात. सुशेगाद टेबलार बसून इमारतीचे आराखडे काडपी, खर्चाचो तपशील मांडपी तथाकथीत बुद्धिजिवी बंगल्यात रावता आनी ताचो आराखडो प्रत्यक्षांत हाडपी सृजन राजा स्नमीक केन्ना रस्त्याकडेर पडून रावता. वयल्यान हें आनीक सवाय मजूरांच्या सोदांत आसतात. म्हणजे चडान चड पिळवणूक कशी करूं येत? शुद्र, दास, चांडाळ हे वर्ग स्नमाविशींच्या उणाक भावनेंतल्यान वयर सरिल्ले आसात. शेतकारांची वायट अवतिकाय ही ह्याच कारणान जाल्ली आसा.

स्नमजिवी परस बुद्धिजिवी व्हड हें कोणें केन्ना खंयच्या निकशाचेर थारायलें? बरोवंक, वाचूंक आकडेमोड करूंक येवप हें चडान चड पगार घेवंचो निकश आसूं येत व्हय? कठीण फातरट जमीन खणून बांय मारून उदक काडपी हो बुद्धिजिवी परस ल्हान कसो? हीं चुकीचीं समीकरणां केन्ना सुरू जालीं खबर ना. मनशाल्या जीवीत प्रवाहांतली ती विसंगत, हिंस्र, अन्यायकारी धारणा जावन आसा. लेखणीचें अस्त्र म्हण उपयोग करून केल्ली ती हिंसा आसा.

चड करून भोगवादी, चंगळवादी संस्कृतींत स्नमाक हीण लेखची वायट प्रवृत्ती आसता. हांगाच स्नमीकांची चडान चड पिळवणूक जाता. तांकां हीण लेखतात. दुःखां, कश्टां तांच्या वांट्याक येतात. भारतांत जावपी शेतकारांच्या आत्महत्या चड करून ह्या हीणपणाक लागून आनी पिळवणुकेक लागून जातात. भारतीय संस्कृतींत भोगवादाक हीण लेखचेलें हेंवय एक कारण

आसुंये. भुकेचो, गरीबेचो भस्मासूर बुद्धिजिवीन स्रमजिवीचेर केल्ल्या अन्यायांतल्यान उपरासला. देशाच्या संपत्तीच्या समवट्यांतली ती एक मोटी आडखळ. तातूंतल्यान गरीब आनी गिरेस्त हांचे मदली घळ चड रूंद जाल्ली आसा. आयजवेर संसारांतल्यो सगळ्यो क्रांत्यो ह्या एकच कारणाक लागून उपरासल्यात. कम्युनिश्ट क्रांती धरून दरएक क्रांते उपरांत ही गरीब गिरेस्तामदली घळ बारीक जाल्ली दिसता. पूण कांय वर्सां उपरांत परत ती रूंद जायत वता. हें एक दुश्टचक्र. आज तर ती चडच रूंदावल्या. दुबाव येता परत एक फावट क्रांतीचे बीं किल्लावंक घातला काय कितें?

चुकीची स्रमविभागणी ही एके प्रकाराची पिळवणूकच. ही चुकीची अन्यायी स्रमविभागणी बायल दादल्यांच्या बाबतींत चड दिसून येता. घरांतल्या कामांतच न्ही तर परंपरागत व्यवसायांत लेगीत दादल्यान सरळ, नीतळ, सुटसुटीत काम सोताकडेन घेतल्यात तर चड कटकटीचीं कामां बायलांक सोंपयल्यांत. हो खरो तर संशोधनाचो आनी प्रबंधाचोय विशय.

स्रमजिवीन कांय वर्सां बुद्धिजिवी जावचें आनी बुध्दिजिवीन कांय वर्सां स्रमजिवी जावचें अशी सक्ती राज्यव्यवस्थेंत आसूंक जाय. शंबर टक्के गुणात्मक साक्षरता जातकीर घडये हें शक्य जातलें. शंबर टक्के गुणात्मक साक्षरता ना येवप हें एक स्रम पिळवणुकेंतलें मुखेल कारण जावन आसा. शिक्षणापसून पयस दवरून जाणा जावन स्रमीकांचो एक वर्ग निर्माण करचो हो उच्चभ्रू समाजाचो एक लिपयल्लो अजेंडा आसा.





लेखक -

- माजी सैनीक, भारतीय सेना.
- केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कारान सन्मानीत

## महाबळेश्वर सैल हांची बरपावळ -

- पलतडचे तारू (कथा)
- तरंगा (कथा)
- काळीगंगा (कादंबरी)
- अदृश्ट आनी अरण्यकांड (दोन नवलिका)
- युगसांवार (कादंबरी)
- खोल खोल मुळां (कादंबरी)
- बॉयनेट फायटिंग (कथा)
- हावठण (कादंबरी)
- निमाणो अश्वत्थामा (कथा)
- दोन मुळांचे झाड (कथा)
- विखार विळखो (कादंबरी)
- सैमदेव (बाल नवलिका)
- कावळे आनी काळेपाणी (अणकार)

---

साहित्याचे हिन्दी, इंग्लीश, मराठी, कन्नड, मल्याळी भाशांनी अणकार